## प्रकाशीत पुस्तकां

कविता संग्रह :

भावझुंबर

मुंबर

गांवांतली सांज

पडवे वयलीं संवणी

चैतन्याच्यो पावल्यो

अस्वस्थ सूर्य

सुमीरन (अणकार)

सांज सुलूस

रक्तचंदन

गद्य :

- मांड ओसाड जातना (एकांकी संग्रह)
- तिपय (एकांकी संग्रह)
- हाडा मासाचीं देवळा (व्यक्ती चित्रण)
- यादींचे कुरकूट (निबंद)
- चवथो खांबो कोसमेतना (संस्मरण–पत्रकारितेतल्या अणभवां वेलें पुस्तक)
- दाभाळ ते दिल्ली – विनय तेंडूलकार (चरित्र)

# कोंकणी राजभास कशी जाली?

संजीव वेरेंकार






प्रकाशक

संजीव वेरेंकार



❖ **KONKANI RAJBHAS KASHI JALI?**
by Sanjiv Verenkar

❖ ISBN : 9789353910525

❖ **कोंकणी राजभास कशी जाली ?**
संजीव वेरेंकार
मो. 09422643629
Email : verenkar.sanjiv@gmail.com
❖ **प्रकाशक**
संजीव वेरेंकार
एस-1 चित्रंगी रेसिडेन्सी
चर्च कॉलनी, मंगेशी, फोंडें-गोंय



❖ **मुखचित्र :** निरूपा नाईक

❖ **अक्षर जुळोवणी :** तेजस्विनी गोडसे

❖ **छापपी :** इंप्रेशन्स, बेळगांवी

❖ पयली उजवाडावणी : 2019

❖ **मोल :** रू. 250/-

चार चौगांत उबो रावून
धिटायेन सत्य आनी स्पश्ट उलोवपाची वाच्या
दिली ते म्हजे कोंकणी मायेक
आनी
दूबळ्या धाटच्या सामान्य गोंयकारांक
न्याय मेळोवन दिवपाक
आनी कोंकणी अस्मितायेचे
राखणे खातीर आपलें जीवीत ओपलें
त्यो स. व्हिक्टोरीया (मामी) फर्नांडीस हांकां
हांव हें पुस्तक ओपता.

- संजीव

# उपकार

कोंकणी राजभास कशी जाली ? हें इतिहासाचें पुस्तक बरोवपाच्या वावरांत आनी तें छापून तयार जाय मेरेन जांणी म्हाका फाटबळ दिलें ते ॲड. उदयबाब भेंब्रे, शांताराम वर्दे वालावलकार, उदय म्हांबरे, मुकेश थळी, पंकज नाडकर्णी (दुबय), संदेश सामंत, वसंत सावंत, उदय करमली, अशोक भोसलो, कार्ल्स फर्नांडीस, प्रशांत फडटे, काशिनाथ नायक, सुरेशबाब काकोडकार, तुकाराम शेट, माधव बोरकार, हिरू नारायण नायक, ज्ञानेश्वर तारी, महेश नायक, रमेश कोमरपंत, प्रकाश तळवणेकार, शशिकांत पुनाजी, उमाकांत शेटयो, विठ्ठल नायक (बाप्पो), राजदीप नायक, विनायक गोवेकार, कृष्णनाथ फोगेरी, उदय सरदेसाय, अशोक काणेकार, प्रदीप लवंदे, नूतन साखरदांडे, शकुंतला भरणे, माया खरंगटे, रजनी भेंब्रे, डॉ. जयंती नायक, काश्मिरी पावसकार, प्रमोद सुर्लकार, निरुपा नायक, तेजस्विनी गोडसे हांचे मना पासून उपकार.

# नमळायेन

कोंकणीन म्हाका नाव दिलें. बळगें दिलें. स्वाभिमान दिलो. हांवूय तिका कितें तरी देणे लागता. म्हजे भाशेक व्हडली करपाक, तिका मानाचो पाट दिवपाक म्हजे हयातींत जे कोण कठीण काळार, प्रामाणिकपणान वावुरले, कश्टले, चळवळीच्या आगट्यांत हुलपले, तांच्या नावांची नोंद भाशेच्या इतिहासांत कोण करीत हे विशीं म्हाका दुवाव आसा. देखून तांच्या योगदानाची खंय तरी नोंद जावची, हे भावनेनय हांवें हें पुस्तक बरयलां. म्हजो कोण मीत्र, विरोधक, दुस्मान हाचो कसलोच विचार करीनासतना तटस्थपणान सत्याक फाट करी नासतना हांवें हें काम केलां. तें करतना निर्मणेचो आनंदूय घेतला. इतिहास चालूच आसता. तो एकल्यान बरोवन पूर्ण जावपा सारको नासताय. इतिहास संशोधक म्हणूनय हांव दावो करीना. कोणाचेंय नांव नोंद करपाचें उरलां, अशें कोणाकूय दिसलें जाल्यार ताणी म्हाका माफ करचें. कोंकणीतल्या जाणकारांक, लेखकांक आनी प्रत्यक्ष कसलेंच काम करीनासतना फकत चिकीत्सा टिका करतल्यांक म्हजे हें काम अर्दवट उरलां, अशें दिसलें जाल्यार तांणी तें पूर्ण करचें, तें केलें जाल्यार म्हाका चड आनी चड आनंद जातलो, ही म्हजी भावना.

– संजीव

# अंतरंग

# हें पुस्तक कित्याक बरयलें?

मनशाच्या जिवीतांत कितल्योशोच घडणुको घडटात. त्यो वेळचे वेळार बरोवन दवरल्ल्योनात जाल्यार तांचो विसर पडटा. कांय घडणुको व्यक्तिगत जिवीतांतल्यो आसतात. कांय सामाजीक आसतात. केन्ना केन्ना व्यक्तीगत जिवीतांतल्या घडणुकांकूय सामाजीक वसका लावील्ली आसता. अशे तरेच्या घडणुकांच्यो यादी बरोवन दवरल्यो जाल्यार इतिहास म्हणून ताचो कोणाकूय उपयोग जांव येता. आमच्या चडशा लेखकांक ती पार्त ना. कोंकणीतले नामनेचे साहित्यीक, ज्ञानपीठकार भो. रविंद्रबाब केळेकार आनी तांचीच भाची आनी भाशा शास्त्राच्यो अभ्यासक माधवी सरदेसाय हांकां तशी पार्त आशिल्ली. तांणी दिसपटयेच्या रूपांन बरोवन दवरिल्ल्या यादींचो समाजाक फायदो जालो.

यादी बरोवन दवरप ही एके तरेची कलाच. पूण, बरोवन दवरिल्ल्यो, यादी जांव इतिहास कोणेय वाचचो, अशें दिसता जाल्यार बरोवप्यान तो तटस्थपणान आनी लालित्याच्या रोसान भिजोवन कागदार देवोंवक जाय. तशे तरेन बरयलें जाल्यार त्या लिखाणाक तेज येता. सत्याचें अधिश्ठान प्राप्त जाता. ताचो फुडले पिळगेक, इतिहासाचो खरेपणान अभ्यास करप्यांक आदार जाता.

इतिहास बरयतना, खंयच्याय घडणुकां कडेन लागींचो संबद

आशिल्ल्यांनी, दर घडणुकेचे बाबतींत आपले यादींचे प्लेटीक परतून-परतून कानस मारूक जाय, आनी मागिरूच बरोवंक जाय. एखादी इतिहासीक घडणूक घडिल्ल्या काळार, कोणूय जल्माकूय आयिल्लो नासता वा त्या काळार ताका पांयूय फुटिल्ले नासतात. ताणीय लिखीत पुराव्याच्या, कुरवांच्या, त्या काळाचे गवाय आशिल्ल्या चार-पांच जाणा कडेन आर्ती-पर्ती वासपूस करून बरोवक जाय. ते वेळार, हांव डॉक्टर, हांव इंजिनियर, हांव वकील आनी हांव म्हळ्यार कोणतरी असो 'इगो' आशिल्लो मनीस जें बरयता तें सत्याक धरून आसूच शकना. तें चड करून विपर्यस्तूच आसता आनी तांतल्यान त्या बरोवप्याचें अज्ञान लोकां मुखार येता. अशें जांवक जायना. तशें जालें जाल्यार त्या बरोवप्यान बरयल्लें एखाद्रें सत्य आसलें जाल्यार लेगीत समाज तें दूबावान घेता. चुकून केन्नाय आपल्या अज्ञानपणाक लागून चुकीची म्हायती बरोवप जांव येता. पूण ते घडणुके कडेन गवाय आशिल्ल्यांनी ती नदरेक हाडून दिली जाल्यार ती मानून घेवन तातूंत सारकेपण हाडपाचें व्हडपण आसूंक जाय. एखादे घडणुकेचो, चळवळीचो इतिहास बरयतना ते चळवळी कडेन गवाय आशिल्ल्या चार-पांच जाणांकडेन वासपूस करून बरोवंक जाय अशें जेन्ना हांव सांगता, ताचें कारणूय सांगप तितलेंच म्हत्वाचें आसा. संवसारांतली कसलीय चळवळ आसूं. एकूच मोख आशिल्ल्या चळवळीतल्या फुडाऱ्यां मदीं वेगळ्या वेगळ्या कारणाक लागून मतभेद आसतात. मानवी सभावाप्रमाण खंयचेय गजालीचें आपणेच श्रेय घेवप आनी दुसऱ्याचें योगदान लिपवप, अशीय चडशा फुडाऱ्यां मदी मानसिकता आसता.

रानांतल्या कोल्यांचे काणयेचें एक उदाहरण दिवन हो विशय स्पश्ट करपाचो हांव प्रयत्न करता. रानांतले कोले, आपूण रावता त्या रानात वाग आनी शींव नाच म्हणून रानभर प्रचार करतात. वाग आनी शींव

आसतात पूण ते आपआपले सुवातेर आसतात. पूण रानात ते आसात म्हुण सांगलें जाल्यार कोल्यांक चड म्हत्व येवचेंना हाची जाणविकाय कोल्यांक आसपा इतले कोले बुदवंत आसतात. देखून ते रानात वाग आनी शींव नाच म्हणून सांगून आपुणूच राजा म्हणून भासोवन मिरोवंक लागतात. कोल्यांचे हे काणयेचो सार मतींत दवरून आमी वागले जाल्यार साल्वार जावंक पावतले.

सगल्याच चळवळींनी सामान्य कार्यकर्त्यांचेर अन्याय जाला आनी जाता. हाच्यो देखी कितल्योशोच आसात. आमचें गोंय साडेचारशीं वर्सां पुर्तूगेजाच्या शेकापोंदा उरलें आनी 1961 वर्सा तें तांच्या चबक्यांतल्यान मुक्त जालें. मुक्ती उपरांत गोंयचें स्वतंत्र अस्तित्व तिगोवन दवरपा खातीर इतिहासीक अशी 'ओपिनीयन पोल' ची चळवळ जाली. दोन विचारधारांच्या संघर्शाचे हे चळवळी वेळार हांव णव वर्सांचो आशिल्लो. आमच्या सावयवेरें गांवांतल्या चडशा सगळ्याच घरांप्रमाण आमचेय घराचे वणटीर गुलाबाचें फूल आनी दोन पानाचे पोस्टर हांवे पळयल्यात. वाजारांतल्या सगळ्या वणटींचेर हांवे पोस्टर पळयल्यात. तातूंत गुलाबाचेच चड दिसताले. 'जय जय महाराष्ट्र माझा' ह्या गीताच्यो रेकोर्डी वाजयत गाडयो भोंवताल्यो. त्या गाडयांतल्यान उडयल्ल्यो जायराती आमी भुरगे पुजायताले. आमचे घराचे वयले वटेन एक गेरेज आसा. तिका व्हडली दारां आसात. त्या दारांक, पाऱ्यांक आनी फुडले वटेन आशिल्ल्या ते वेळार हात मागाचो वेवसाय करपी शांताराम नायकाल्या घराचे पडवेवयले वणटीक फकत दोन पानांचेच पोस्टर दिसताले. गुलाबाचें फूल हें गोंय महाराष्ट्रांत विरगाळावन वडोवपा खातीरची कुरू जाल्यार दोन पानां ही गोंय संघ प्रदेश म्हणून राखून दवरपा खातीरची कुरू. आमी भुरगे चडशे गेरेजी कडेन खेळपाक वताले. थंय खेळटा खेळटांना आमी एकामेकांक फूल

बरें काय पान बरें? अशें विचारताले. आमी फुलूच बरें म्हणटाले. आमकां ताचो अर्थ खंय कळटालो? जायराती मेळ्ळ्यो म्हणटकच आमकां खोस जाताली. पोस्टरांचो उपयोग आमी चित्रबोधांक आनी हेर ल्हान पुस्तकांक फोर्र घालपाक करताले. शांताराम भाऊगेर वाघुर्मेचो बाबल पेरणी, आनी आमच्याच वाड्यावेल्लो दास नायक, आमचे गांवचो भावोजी आनी डॉ. जेक सिकेरीलो जावंय, पोपू म्हणून एकलो सदांच बसतालो. बुकी तारीचें नांवूय तांच्या तोंडांतल्यान हांव आयकतालो. तें नांव आयकून आमकां हासूंक येतालें. ताचें खरें नाव पुर्षोत्तम हें मागीर कळ्ळें. शांताराम भाऊ चडसो अर्दें पुडवें न्हेसतालो जाल्यार बाबल माम धवें फुल्ल पुडव्याचो शेव हातांत धरून चलतालो. दास नायक रिस्काद पिजाम घालतालो. पोपू पोलिसा भशेन खाकी कलसांव घालतालो. शांताराम भाऊच्या बाकार राष्ट्रमत आनी गोमंतक अशे दोनूय पेपर आसताले. गांवांतले चडशे लोक ह्या चौगांकूय गाळी घालताले. ताका लागून म्हाकाय ते दूश्ट कशेच दिसताले. विचार करपाची म्हजी ती पिराय न्हय. म्हाका बुद्द आयली आनी 1977-78 च्या अदमासाक हांव कोंकणी भाशेचे चळवळीत भितर सरलो तेन्ना 'ओपिनीयन पोला' चे चळवळीत ते कितलें व्हडलें काम करताले तें कळ्ळें. गोंयचे पयले मुख्यमंत्री दयानंद बांदोडकार सरकारच्या गोंय महाराष्टांत घालपाच्या प्रस्तावाक खर विरोध करून ते लोकांचें मन वळोवपाक रस्त्यार देवील्ले. सगळो गांवूच विलिनीकरणावटेन आशिल्लो म्हळ्यार जाता. अशें आसतनाय ते धाडसान विलिनीकरणाच्या आड प्रचार करताले.

तांकां गांवांतल्या फर्नांदिश घरांतल्या सगळ्यांचो तेंको आसतालो. ताका लागून तांकांय लोक गाळी संवताले. गांवांतलीं बामण कुटूंबां दोन पानां वटेन आशिल्लीं. हें मागीर कळ्ळें. पूण ताणी प्रत्यक्ष चळवळीत केन्ना

वांटो घेवक ना. पुराय गांव विरोधांत म्हणटकच तांकां घडये उत्तेपणान चळवळीत भायर सरपाक भिरांत दिसताली आसूंये. पूण ह्या चारूय द्रश्ट्या विरांनी आपल्या जिवाची पर्वा करिनासतना प्रवाहाच्या आड पेवून गोंयचें अस्तित्व राखून दवरपाचें व्हडलें काम केलें. त्या विचाराच्या लोकांनी केल्ल्या वावराचीं, कश्टांची फळां आयज आमी खातात.

त्या काळावेल्या एका प्रसंगाची म्हाका याद आसा. शिगम्याचे पुनवे दिसा सकाळीं बाजारांत हॉटेलार च्या पिवपाक गेल्ले कडेन फुलकारांच्या एका गटान शांताराम भाऊक मारपेट केली. ताका लागून वातावरण भिरांतीचें जालें. ही खबर थंयच्या फर्नांदीश भावांक कळ्ळी तेन्ना ते खूबळ्ळे. आमच्या वाड्यावयलो बाबूली नायक नावांचो तरनाटोय खूबळ्ळो. ताका पानफूल व्हडलेंशें लागनाशिल्लें. पूण आमच्या वाडयावेल्या जाणट्या भाउक माल्लो म्हणून ताचो स्वाभिमान जागो जाल्लो. तांणी तेच पुनवेंचे राती कडेन भाऊक मारपेट करप्यांक येथिशट बडयले. प्रकरण पोलिसेंत पावतकच दूसरे दिसा गांवांत रॉन आयलें. विलिनीकरणाच्या प्रस्तावाचेर आमच्या गांवांत जाल्लें हें दोन गटांमदलें झगडें आशिल्लें. उपरांतलो कितलोसोच काळ मेरेन बाबुलीच्या आनी फर्नांडिस भावांच्या पराक्रमाच्यो गजाली कांय लोक सुरबूसपणान रंगोवन रंगोवन सांगताले. त्यो आयकुपाक आमकां मजा येताली. झगडीं हीं वायट आसता, हें आमकां भुरग्यांक कळ नाशिल्लें. हें झगडें म्हाका पळोवक मेळूना म्हणून हांव चिटमीटलो.

शांताराम भाऊ हात मागाचेर वाले विणटालो, चरख्याचेर सूत कातता्लो. तांगेर सांज-सकाळ काट-कूट काट-कूट असो आवाज येतालो. महात्मा गांधीच्या मंत्राचें पालन तांगेर जातालें. अशें हांव आयज म्हणटा. 'ओपिनीयन पोलाच्या वेळार आमी खूब सोसलां, अशें शांताराम भाऊचो पूत श्रीखंठ अजुनय विशय येता तेन्ना सांगता. भाऊ दोन पानाचे

पोस्टर घेवन ताका बाजारांत धाडटालो तेन्ना फुलवाले खंय ताका तुवाले हाडले, तुवाले हाडले अशें म्हणून चाळयताले. हे चळवळींत तांच्या घरच्यांचे कितले हाल जाल्ले आसूंक जाय हें म्हाका कळटा.

खंच्याय गांवांत वेगळे तरेचो, फुडाराच्या कल्याणाचो विचार घेवन चार-पांच जाणांनी फुडें सरप आनी भोवसंख्य लोक दुसरो विचार घेवन संख्येच्या बळार त्या चार-पांच लोकांचें जगणें कशें कठीण करतात तें हांवें 1985 ते 1987 ह्या काळांतल्या कोंकणी राजभास आंदोलना वेळार भोगलां. अशा वेळार घरांतल्या सगळ्याच मनशांक ताचो त्रास जाता. देखून तांच्याय बुकयांचो मार खावचो पडटा. देखून ओपिनीयन पोल चळवळीतल्या बापायच्या पुताची वेदना म्हाका बरी कळूक पावली. शांताराम भाऊ, दास नायक, पोपू वचून बरीच वर्सां जालीं. जाल्यार बाबल पेरणी हालींच म्हळ्यार दोन वर्सां आदी संवसार सोडून गेला. बाबल मामाकडेन म्हजो लागींचो संबंद आशिल्लो. ताणे त्या वेळावेल्यो खूब खबरो म्हाका सांगल्यात. तांणी त्या काळार केल्ल्या धाडशी वावराची कोणेच दखल घेतली ना. आयज तांच्या कश्टांनी व्हडलें जाल्ल्या झाडाची फळां खातल्यांनीय ताचो केन्ना विचार केलोना. वळवयच्या पुरुषोत्तम (बुकी) तारीचो पूत दामोदरबाब मडगांवां राश्ट्रमतांत काम करतालो. राश्ट्रमताचो जल्मुच विलिनीकरणाक विरोध करपाक जाल्लो. खरें म्हळ्यार राश्ट्रमत हें गोंयचें जैतवंत दिसाळें. पूण तें तगलेंना हाची खंत जाता. सुनापरान्त हें दिसाळें सुरू करपा खातीर 1986 वर्सा हांव राश्ट्रमतांत प्रशिक्षण घेवपाक वतालो, तेन्ना दामोदर बाबानय 'ओपिनीयन पोला' वेळावेल्यो खूब खबरी म्हाका सांगल्यात. तोय बापाय वांगडा चळवळीत आशिल्लो. आपल्याय बापायच्या योगदानाची कोणेच दखल घेतली ना हे विशींय तो खंत उक्तायतालो.

16 जानेवारी 1967 वर्सा जनमत कौल जालो आनी आमच्या सुपूल्ल्या गोंयचें अस्तित्व उरलें. खूब उणे मतांनी म्हळ्यार फकत 35 ते 40 हजार मतांनी गोंय साल्वार जालें. खंयच्याय प्रदेशाचें म्हणून एक नशिब आसता, अशें मानचें पडटा. नशीब हें तशें फसवें उतर आसलें तरी सामान्य मनीस तें मानताच. संघर्शाचे चळवळी उपरांत गोंय वेगळें उरलें हो इतिहास. पूण तो फाव तसो बरयल्लो ना. हालीं हालीं कांय जाणांनी प्रयत्न केला. प्रा. श्याम वेरेंकार, सदानंद काणेकार, प्रां. प्रजल साखदांडे वी हाणी बरयलां. तांच्या प्रयत्नाक सलाम. अशें आसलें तरी पुराय म्हायती मेळप कठीणूच. ताका लागून कांय राजकारणी ओपिनीयन पोलाचो आपणाक जाय तसो उपेग करतात. गोंयच्या पुराय राजकारणात आनी समाज कारणात 16 जानेवारीक आगळेंच म्हत्व आसा. सत्तेवेल्या राजकारण्यांनी ताका व्हडलेशें म्हत्व दिलेंना. पूण तातले तातूर गोवा फोर्वडचे अध्यक्ष विजयबाब सरदेसाय मंत्री जातकच राजकारणात हो दीस जीतो जावंक आदार जालो, हें नदरे आड करूक जावचेंना.

कोंकणी भाशेचे चळवळीतले लोक सोडले जाल्यार दूसरे कोणूच ह्या दिसाची यादूय काडिनात. जनमत कौलाचे वेळार वेगळ्या वेगळ्या गांवानी दोन पानाचे वटेन सक्रीय तरेन वावरिल्ले भोवसंख्यांकांमदलेय जायते लोक आशिल्ले. तांच्या नावांची इतिहासांत नोंदणी ना. सगळ्यांचीच नोंदणी जावप शक्युय आसना. पूण चळवळीत नाशिल्ल्या मनशांच्या नांवांची नोंदणी जावप हें चळवळीत आशिल्ल्या लोकांचेर अन्याय जावपा सारकेंच. गोंय वेगळें उरल्या उपरांतय बांदोडकारांच्या फुडारपणा खालचो मगो पक्षूच सत्तेर आयलो आनी हो वाद सोपलो. कांय जाणांची हालीं हालीं शेपडी हुळळुळटाली ती वेगळी. काळाच्या वखदान तीय आतां मेली. ह्या जैता खातीर जांणी इतिहासीक योगदान दिलें तांकां आमी विसरले, हाचें वायटूय दिसता.

2018 च्या 'भांगरभूंय' चे आयतारचे पुरवणेत गोंयचे पर्यावरण मोगी आनी इतिहासाचे अभ्यासक प्रा. प्रजल साखरदांडे हांणी जनमत कौलाचे चळवळीचेर बरयल्लो लेख हांवें वाचिल्लो. तातूंत तांणी वेगळ्यावेगळ्या गांवांतल्या ज्या लोकांनी चळवळीक योगदान दिलां तांच्या नांवांची वळेरीय दिल्ली. तातूंत सावयवेरें वाठारांतल्यान डॉ. मलबाराव सरदेसाय हांचें नांव योगदान दिल्ल्यांचे यादीत म्हाका मेळ्ळें. तें वाचून पन्नास वर्सां आदल्या काळांतल्यो यादी उसवल्यो. डॉ. मलबारावांक संगीत तज्ञ म्हणूनच वळखतात. तांणी केन्ना सामाजीक वा राजकीय चळवळींत वांटो घेतिल्ल्याचें म्हाका दिसूंक ना. ते मुळांत भाटकार. प्रजलबाबा कडेन वासपूस केली तेन्ना तांकां खंय हें नांव जनमत कौलाचे चळवळीतले साखळे वाठारांतले कार्यकर्ते सदानंदबाब काणेकार हांच्या 'ओपिनीयन पोल' पुस्तकांत मेळ्ळें, अशें तांणी सांगलें. त्या पुस्तकांत तें नाव आसा हें खरें. ओपिनीयन पोलांतले फुडारी ॲड. उदय भेंब्रे हांचे कडेय हांवें वासपूस केली तेन्ना हें नाव आपणे केन्नाच चळवळीत आयकूंक ना, अशें ताणी सांगलें. शांताराम भाऊचो पूत श्रीखंठ नायक हांणी तर डॉ. मलबाराव हे चळवळीत केन्नाच नाशिल्ले, अशें सांगलें, डॉ. मलबारावालें घर, शांताराम नायकांच्या शेजराच. मलबारावांचें नांव कशें आयलें हाचेर हांवें चिंतन केलें. त्या काळार डॉ. मलबारावांच्या उतराक वरेंच वजन आशिल्लें. ते जर जनमत कौलाचे चळवळींत आशिल्ले जाल्यार गांवांतले पंचवीस टक्के लोकतरी दोन पानांवटेन आसपाचे. शांताराम भाऊक हात लावपाचें कोणाकूच धाडस जावपाचें न्हय. सरदेसाय, घराण्यांतले साहित्यीक आनी स्वातंत्र्य सैनीक लक्ष्मणराव सरदेसाय हे चळवळीत दोन पानांवटेन आशिल्ले. पूण तांची कर्मभूमी मडगांव आशिल्ली. शांताराम नायक, बाबल पेरणी, दास नायक हांच्या नावांचो उल्लेख सदाबावाल्या पुस्तकांत ना. मलबारावांचेंच आसा.



# सामान्य लोक विलिनीकरणा वटेन!

आमचे चडशे सामान्य हिंदू लोक विलिनीकरणावटेन कित्याक राविल्ले? हो प्रस्न म्हाका सतायतालो. कितलेशाच काळा उपरांत आमकां मेकळो श्वास घेवन आमकां राज्य करपाची संद आयिल्ली, अशें आसतनाय महाराश्ट्रांतल्या फुडाऱ्यांक भाळून भोवसंख्य हिंदू लोकांक विलिनीकरणाचे दुवाळे लागलेच कशे? गोंयचे क्रिस्तांव आनी चडशे हिंदू बामण भाटकार दोन पानावटेन राविल्ले. मराठीच्या सांस्कृतीक वावरांत नाव आशिल्ले कांय बामण आपणाक विलिनीकरणा उपरांत महाराश्ट्रांत नाव मेळटलें म्हणून विलिनीकरणा वटेन राविल्ले, अशें आमचे त्या काळावेले कार्यकर्ते शांताराम बाब वर्दे वालावलीकार हांचें म्हणणें.

भाटकार शायेक लागून पुराय समाजाच्या बऱ्याचो लेगीत विशय बामणानी मांडलो जाल्यार ताचोय दुबाव घेवन बामणाक विरोध करप ही परंपराच जाल्या, अशें म्हाका दिसता, आयजूय तातूंत व्हडलोसो बदल जावंक ना. दूसरें एक कारण म्हळ्यार महाराश्ट्रांत कसता ताची जमीन हो कायदो आशिल्लो. महाराश्ट्रांत गेले जाल्यार आमीच भाटकाराले जमनीचे धनी जातले, अशें लोकांक दिसतालें. ताकाय लागून सामान्य लोक विलिनीकरणा वटेन राविल्ले, अशें आदले केंद्रीय कायदेमंत्री ॲड. रमाकांत खलप हांचे कडल्यान हांवें समजून घेतलें. तांचो ह्या विशयाचेर बरो अभ्यास आसा, गोवा 365 चे संपादक संदेश प्रभूदेसायूय तेंच सांगतात.

हें पटपा सारकेंच आसा. सर्वसामान्य लोक द्रश्टे आसना. तशें पळयल्यार हुंदरांच्या रागान घराक उजो लावपा सारकोच तो प्रकार आशिल्लो. गोंयचें वेगळें अस्तित्व उरल्या उपरांत मगो पक्षानूय 'कसता ताची जमीन' हो कायदो लागू केलोच. म्हज्या मतान भोवसंख्य हिंदूनी त्या काळार मोटवो विचार केल्लोच. तें न्हयकारूक मेळना. अवुद्दी विचारसरणेतल्यान गोंय महाराश्ट्रांत गेल्लें जाल्यार कितें जावपाचें, हाची नवे पिळगेन कल्पनाच करून पळोवची.

गोंय वेगळें उरुक नाशिल्लें जाल्यार कोंकणी राजभास, घटक राज्य, घटनेचे आठवे वळेरेंत कोंकणी बी असले विशयूच आसपाचे न्हय. विलिनीकरणाक विरोध करप्यांमदीं भोवसंख्यांमदले चडशे बामण आशिल्ले हें सत. त्या विचारांतल्यानच ओपिनीयन पोलाचे वळेरेंत सदांबावां कडल्यान डॉ. मलबारावाचें नांव बरोवप जालें, आसू येता. इतिहास संशोधक प्रा. साखरदांडे हांचे नदरेक हांवें हें हाडून दिलें तेन्ना ताणे आपल्या पुस्तकांत दुरुस्ती करपाचें व्हडपण दाखयलें देखून तांची तोखणाय. ते 'इगो' घेवन बसले नात, हें म्हत्वाचें. त्या वेळावेल्या द्रश्ट्या लोकांनी नवे पिळगेचेर उपकार केले. फाटल्या 8 मार्चाक म्हज्या 'रक्तचंदन' ह्या नव्या कवित संग्रहाचो प्रकाशन सुवाळो हांवे सावयवेऱ्यां म्हज्याच घराच्या आंगणात केलो. ती संद सादून गांवच्या शांताराम भाऊचो पूत श्रीखंठ आनी बावल पेरणीचो पुतणयो आनंद वाघुमेंकार हांका आपोवन शांताराम आनी बावल मामाचो मरणोत्तर भोवमान केलो. म्हजे परीन म्हजें कर्तव्य केलें. हाचें म्हाका समाधान.

कोंकणी राजभाशा आंदोलनाचो म्हळ्यार जुलै 1985 ते 4 फेब्रुवारि 1987 ह्या 555 दीस चलिल्ल्या महाभारताचो इतिहास पूर्ण तसो बरयल्लो ना. त्या काळार कोणे कसलें योगदान दिलें? राजभाशेची चळवळ कशी

सुरु जाली? त्या काळार कोण कितले वर्सांचो आशिल्लो? चळवळीत 'रायटर आनी फायटर' अशो दोनूय भूमिका कोणे केल्यो, हाची म्हायती नवे पिळगेक ना. आनी इतिहास बरोवपी नव्या लेखकांकूय ना. खरें म्हळ्यार आमचे सारक्या, त्या आंदोलनाच्या होमकणात हुलपल्ल्या लेखकांनीच तो बरोवंक जाय आशिल्लो. चळवळी वेळा वेल्यो यादी तरी बरोवक जाय आशिल्ल्यो. पूण असल्या चळवळींचो इतिहास वयलेवयर बरोवक उपकारना. कोंकणी राजभास जाले उपरांत निर्माण जाल्ल्यो धोशी आनी गटबाजींक लागून आपले पूर्तीच वंय बांदपाची वृत्ती आनी आपणाक फायदो जायना त्या मनशांक चिड्डूपाच्या धोरणातल्यान आमचे मदीं मतभेद जावन ते पराकोटीक पाविल्ले आसल्यार लेगीत त्या काळावेलो इतिहास बदलूंक शकना.

2 जून 2019 दिसाच्या 'भांगरभूय' दिसाळ्यांत डॉ. हनुमंत चोपडेकर हांणी ''जैत:शब्दयोगी श्रीधर कामत हांची जैतवंत कलाकृती'' ह्या माथाळ्या सकयल बरयल्ल्या पयल्या कॉलमात कोंकणी चळवळीच्या इतिहासाक स्पर्श केला. डॉ. चोपडेकार हे नवे पिळगेंतले बरोवपी. भाशा वादाचें आगटें पेट्टालें त्या काळार तांची पिराय धा ते अकरा वर्सां आसूंये. पूण तो तांचो गुन्याव जावंक शकना. तांणी आपली डॉक्टरेटूय कोंकणी चळवळीच्या इतिहासाचेरच प्रबंध बरोवन मेळयल्या. 2 जूनाच्या लेखांत तांणी कोंकणी फायटर आनी रायटरांची कांय नांवां दिल्यांत तातूंत डॉ. ओलविन गोमीश, रमेश वेळूसकार, युसूफ शेख, मिना काकोडकर अशा कांय बरोवप्यांची नावां आसात. कोंकणी राजभाशे खातीर जुलै 1985 सावन जाल्ल्या आंदोलनात 555 दिसूय हांव आशिल्लो. पूण वयले नावांचे लेखक आंदोलनात केन्नाच सक्रिय दिसूक नात. कोंकणी लेखक म्हण ते व्हडले. फायटर म्हण न्हय. ताणीय केन्ना आपूण फायटर म्हणून जाहीर केल्लें हांवें आयकूंक ना. मिनाबाय तर त्या काळार सरकारी सेवक. तांकां

आंदोलनात देवप शक्यच नाशिल्लें. हे सगळे साहित्यीक म्हणून आप आपले सुवातेर व्हडले. आंदोलना खातीर लागता ती प्रकृती तांची न्हय (ह्या विशया वांगडाच कोंकणी राजभास आंदोलनाच्या जैता उपरांत 1990 ते 2000 वर्सांत कोंकणी साहित्याचे मळार कांय सळसळट्या रगताचे तरनाटे सक्रीय जाल्ले दिसतात आनी तांकां कोंकणीच्या विधायक वावराची ओड दिसून येता, तातूंत श्रीधर कामत, संदेश प्रभूदेसाय, प्रशांती तळपणकार, प्रशांत नायक, संजीव वेरेंकार, प्रकाश द. नायक, ज्ञानेश्वर तारी, मेलवीन रॉड्रिगीश, फिलोमेना सां फ्रान्सीस्को, प्रकाश वझरीकार, राजदीप नायक बी, अशीं नावां दिल्ली, वाचूक मेळ्ळीं. हांव येवजूंक पडलो, संजीव वेरेंकार कोंकणी चळवळीत 1978 वर्सा सक्रीय जावन आयलो. प्रकाश द. नायक 1979 वर्सा आयलो. ज्ञानेश्वर तारी 1981–82 च्या काळांत आयलो. संजीवाचो पयलो 'भावझुंबर' हो कविता संग्रह 1986 वर्सा आयलो. 'भावझुंबर' आनी ॲड उदय भेंब्रे हांच्या 'चान्याचे राती' ह्या कविता संग्रहाचेर 1987 वर्सा फोंडेच्या अंत्रुज नगरांत कोंकणी लेखक संघान आयोजीत केल्ल्या कार्यक्रमात चर्चेचो कार्यक्रमूय जाल्लो. लेखक आनी चळवळीतले फुडारी एन. शिवदास हाणी ते कार्यक्रमाची आखणी केल्ली. ह्या इतिहासाचे पुरावे आसात. संजीव, प्रकाश आनी ज्ञानेश्वर हे त्या वेळावेले तिगूय जाण विद्यालयांतूच बरोवंक लागिल्ले आनी चळवळीच्या आगट्यांत हुलपताले. हें डॉ. चोपडेकार हांकां कळूक जाय आशिल्लें. चोपडेकार हांणी आपले वळेरेंत केल्ल्या बरेचशा नांवांचो कोंकणी प्रजेचे आवाजाच्या आंदोलना कडेन आनी जैता कडेय संबंद ना. कोंकणी रायटर खूब आशिल्ले. फायटर चड नाशिल्ले. नमून्या खातीर त्या काळावेल्या बायलां लेखिकां मदल्या फायटरांची म्हत्वाची नांवां हांव बरोवक सोदता हेमा नायक, डॉ. जयंती नायक, शांती तेंडुलकार, वैजयंती प्रभू, विजया पै धुंगट, सुनिता धेंपे, विनंती कासार, माया खरंगटे (शेळडेकार), शकुंतला

आर्सेकार (भरणे), रजनी भेंब्रे, नूतन सुखटणकार (साखरदांडे), नयना आडारकार, अमिता सुर्लेकार हीं नावां रायटर आनी फायटर म्हूण घेवची पडटली. लेखिका नासल्यो तरीय भाई तेंडुलकारांची घरकात्र सुहासिनी तेंडूलकार, व्हिक्टोरिया फर्नांदीश, सुलोचना काटकार, निर्मला सावंत, सुकांती गावडे, अर्चना अशोक कामत, कुडचड्यावेल्यो आदल्यो वेपारी, सौ. होडारकार जुवेंच्यो निर्मला आनी सरोजनी ह्यो सालढाना भयणी, दर मोर्चाचे वेळार संघटन करून बायलांक मोर्चाक हाडटाल्यो. त्योय फायटर. लाठी हल्लो जाता म्हूण त्यो फाटी रावंक नात. चुकून कोणूय उरूय येता. हांवें नावां बरयल्यांत तांतल्या कांय जाणांनी बरोवप बंद केलां आसूं येता. पूण त्या काळार ताणी दोनूय भूमिका केल्ल्यो हें न्हयकारूक मेळना. 'कोंकणी राजभास कशी जाली' ह्या पुस्तकाचें म्हजे लिखाण चालू आसतनाच डॉ. चोपडेकारांचो लेख वाचनात आयलो म्हणून ताचो म्हाका बरयतना संदर्भ घेवचो पडलो. तांकां उणाक लेखपाची म्हजी भावना ना. पूण बरोवपी जेन्ना एखाद्या विद्यालयांत महाविद्यालयांत शिकोवपी आसलो जाल्यार ताणे कितेंय बरयलें जाल्यार चडशे विद्यार्थी खरें धरून चलता. तशें जालें म्हणटकच फुडले पिळगे कडेन चुकिची म्हायती वता. तातूंत डॉ. चोपडेकार हांणी आपली पीएचडीय कोंकणी चळवळीचेरुच केल्या. हें म्हत्वाचें. हांव आंदोलनात प्रत्यक्ष आशिल्लो, हांवें पळयलां, आनी सोसलां म्हणटकच ह्या विशयाचेर कितेंय सारकें ना अशें दिसलें जाल्यार तें सांगपाचो जांव बरोवपाचो म्हाका नैतीक आधिकार आसा, हें मानुनच हांवें कोंकणी राजभास कशी जाली? हें पुस्तक बरोवपाचें थारायल्लें. हनुमंत बाबान कोंकणी चळवळीचेरुच पीएचडी केल्या म्हणटकच तांचो प्रबंधूय हांवें वाचून पळयलो. तातूंतय कांय नांवां पळोवन अजाप जालें. देखीक जयपाल भोसले म्हणून कोंकणी चळवळीत खरेपणान कोणूच नाशिल्लो. ताचें नांव तांतून कशें आयलें काय? त्या काळार कांय कोंकणी कार्येकर्ते सरकारी सेवक आशिल्ले. ते पोलिसेक भलतींच नावां दिताले. प्रत्यक्षान

त्या नावांचे मनीसूच आसनाशिल्लें. आंदोलनातलो खडेगांठ कार्यकर्तो अशोक भोसलो, जयपाल भोसले म्हणून बोगस नांव बरयतालो. त्या काळावेल्या लोकां कडेन चर्चा केल्ली जाल्यार तें कळपाचें. प्रबंधांतल्यानय अशी चुकीची नावां वचूक जायना आशिल्लीं. म्हजे पुस्तकांत आंदोलन काळांतली शंभर टक्के म्हायती आसा, असो हांव दावो करचो ना. पूण असत्य कांयच आसचेना हाची जतनाय घेतल्या. तेच भाशेन कोंकणी भाशेच्या जैता उपरांत म्हजे कोणाय कडेन वेगळ्या वेगळ्या प्रस्नाचेर मत भेदूय जाले आसत. पूण तांच्या योगदानाचे बाबतींत अन्याय जावंक दिवप ना, हें धोरण घेवनच हांव बरोवक बसलो.

विद्यालयांनी, महाविद्यालयांनी शिकोवपी, शिकपी आनी आपलो 'इगो' कडेक दवरून आंदोलन पर्वाचो प्रामाणिकपणान अभ्यास करप्यांक हांवें बरयल्ल्या ह्या पुस्तकाचो थोडो तरी उपयेग जातलो, अशी आस्त बाळगिता. ह्यो यादी बरयतना म्हजे यादींत आसा तितले पूर्तोच जनमत कौलाच्या इतिहासाक हांवें स्पर्श केला. जनमत कौलाचेर बरोवप हो म्हजो मूळ विशय न्हय. जे चळवळीत हांवें प्रत्यक्ष पेंगट बांदून वांटो घेतलो ती साहित्यीक, भाशीक आनी राजभास चळवळ होच म्हजो मुखेल विशय आसा. तो केळयतना कोंकणी राजभास चळवळ सुरू जावचे आदल्या मुळावणांचीय म्हायती म्हाका जमता तशी दिवपाचो हांवें यत्न केला. ताचें कारणूच अशें, त्या मुळावणांच्या कार्यक्रमांक, उपक्रमाक लागुनूच पेडणे ते काणकोण मेरेन कोंकणी म्हणपी नवी तरनाट्यांची फौज तयार जावंक पाविल्ली. फकत विधानसभेंत बील मांडलें आनी राजभास जाली अशें म्हणूक मेळचेंना. ते खातीर जाय आशिल्लें वातावरण म्हळ्यार चळवळीच्या मुळावणांचो आमकां विचार करचोच पडटलो. तो इतिहासाचोच वांटो थरता. राजभाशेची, चळवळूय त्याच मुळावणांचेर उबी जाल्ली. देखून नवे पिळगेक ताचीय म्हायती आसप गरजेची, अशें म्हाका दिसलें.



# कोंकणी-मराठी दोनूय चळवळींचे 'चेहरे' बामण कोंकणीच बामणाची कशी?

खंयचेय चळवळीची सुरवात त्या त्या काळावेले गरजेंतल्यान जाता, पूण कांय चळवळींचें नशिबूच इतलें बरें आसता की ते चळवळीक बऱ्या मनाचो आनी बऱ्या हातांचो स्पर्श जाता आनी चळवळीच्या, संस्थेच्या ल्हानशा रोपाचो व्हडलो रुख जाता. संस्थेची स्थापना करतल्यांकूय ताचो अदमास आसना. कोंकणी भाशेचे चळवळीच्या बाबतींत हेंच घडलें, अशें हांव म्हणन. ही चळवळ काळाचे गरजे प्रमाण एके पिळगे कडल्यान दूसरे पिळगे कडेन, दूसरे पिळगे कडल्यान तिसरे पिळगे कडेन वचत रावली.

इतिहासांतल्या नोंदीप्रमाण अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या मुंबय जाल्ले तिसरे बसकेंतल्या थारावाप्रमाण 5 एप्रील 1942 वर्सा मुंबयत कोंकणी भाशा मंडळ स्थापन जालें. ते बसकेचे शणै गोंयबाब (वामन रघुनाथ वर्दे वालावलकार) येवकार अध्यक्ष आशिल्ले. कोंकणीचो विकास आनी प्रसार करप होच मंडळ स्थापन करपा फाटलो हेतू आशिल्लो. ह्या मंडळान त्या काळार आपले परीन बरोच वावर केला. मजगतच्या काळांत वावर करपी हिंदू समाजांतले चडशे लोक वेगळ्या वेगळ्या कारणाक लागून खंयचे खंय फाफसले. कांय काळांत भाशा मंडळ मंगळुरांतल्या क्रिस्तांव समाजांतल्या तरनाट्यांनी हातांत घेतलें, ताणीय वावर चालू दवरलो. उपरांतल्या काळांत तेय बी वेगळ्या वेगळ्या कामानी घुसपल्यान काम थंडावलें. अजूनय मुंबय हें मंडळ आसा. पूण फाव ते गतीन काम जायना. संस्था नावांपूर्तीच उरल्या. 1962 वर्सा मडगांवां आठवें अ.

भा. कोंकणी परिशदेचें अधिवेशन जालें तेन्ना गोयांतूय कोंकणीच्या वावरा खातीर स्थायी स्वरूपाची एक संस्था स्थापन करपाचो थाराव जालो. आनी 30 सप्टेंबर 1962 वर्सा मडगांवां पेद्र कुरैय आफोन्स हांचे अध्यक्षते खाला कोंकणी भाशा मंडळ स्थापन जालें. आयज मडगांवां हे संस्थेचो व्हडलो रूख आसा. कोंकणी विकासाच्या वावराच्या मळावेली तेंगशेवेली संस्था म्हणून आमी सगळे ह्या कोंकणी भाशा मंडळा कडेन पळयतात. देखून कोंकणीच्या मळावेल्या दर घडणुकेची कोंकणी मनशाच्या भाशे खातीरची, कृतीची दखल मंडळान घेवंक जाय! ज्ञानपीठ जैतवंत लेखक रविंद्रबाब केळेकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, अशे म्हालगडे त्या काळार मंडळाच्या वावरांत सक्रीय आशिल्ले.

गोंय मुक्त जाल्ल्यान त्याच काळांत शिकपाचे निमतान मुंबयत गेल्ले कोंकणी भाशेची आस्था आशिल्ले तरनाटे गोयांत येवन थीर जाताले. हांगांय कोंकणीच्या विकास वावरांत ताणी वांटून घेतिलें. त्याच काळांत म्हळ्यार डिसेंबर 1962 वर्सा पणजे शारांत मराठी साहित्य संमेलन जालें. ह्या संमेलनाक कांय कोंकणी भक्तूय हजर राविल्ले. संमेलनाचे माचये वेल्यान कोंकणीक उणाख लेखपी उलोवपां जालीं तेन्ना अकरा कोंकणी भक्त खुवळून जागे जाले, तांणी मुखार वचून निशेधूय मारलो. तेन्ना संमेलनाच्या आयोजकांनी पोलिसांक हाडून तांकां भायरे करपाचें आवाहन केलें. पूण माचयेर आशिल्ल्या काकासाहेब गाडगिळ ह्या मराठी लेखकान अकरा जळारां मारपा खातीर पोलिसांची गरज ना म्हणपाचें सांगलें. कोंकणी खातीर केल्लें हें गोंय मुक्ती उपरांतलें पयलें बंड म्हणचें पडटलें. ह्या अकरा जाणामदीं अरविंद भाटीकार, शशिकर केळेकार, ॲड उदय भेंब्रे, गोविंद मुद्रस, देवेंद्र केळेकार, डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार ह्या कोंकणी विरांचो आसपाव आशिल्लो. अकरांमदल्या हेरांची वळख मेळना, अशें उदयबाब भेंब्रे म्हणटात. ते स्वाभिमानान पेटिल्ले कोंकणीचे धाडशी दूत. तांकां आमचो सलाम. ताचे उपरांत 1964 वर्सा मडगांवां जाल्ल्या अ. भा. मराठी

साहित्य संमेलनातूय कोंकणीचो अवमान केलो म्हणून थंय हजर आशिल्या कोंकणी भक्तांनी बंड केल्ल्यान मराठी वाल्यांनी कोंकणी भक्तांचेर कदेलां लेगीत मारिल्लीं. संमेलनाक हिंसक वळण मेळिल्लें. हे खेपे कोंकणी भक्त थंय पुराय तयारेन हजर राविल्ले. उपरांत दूसरे दिसा लोहिया मैदानाचेर सभा घेवन मराठी वाल्यांचे निशेधूय केल्लो. त्या काळार नामनेचे साहित्यकार वि. वा. शिरवाडकर हांणी कोंकणी भक्तांक 'काळोखाचे पुजारी' अशें जाहीरपणान म्हणिल्लें. ताकाच लागून हो गोंदळ निर्माण जाल्लो. संमेलनाक हिंसक वळण मेळिल्ल्यान रंजन सरदेसाय, सुरेश काकोडकार हांकांय दूखापत जाल्ली. कोंकणी भक्ताचें फुडारपण शंकरबाब भांडारी हांणी केल्लें. त्या काळावेले भाशा आनी समाज हे परिस्थितीचो बारकायेन विचार केलो जाल्यार कोंकणी आनी मराठी हे दोनूय बावटे बामण समाजाच्या हातान आशिल्ले, अशें दिसून येता. ताका लागून कोंकणी चळवळ ही बामणाची आनी मराठी हेर समाजांतल्या लोकांची अशें म्हणूक मेळना. देवळांनी अभंग म्हणपाचें आनी मराठी नाटकांनी अभिनय करपाचें सोडलें जाल्यार साहित्याच्या मळार त्या काळार दोनूय वटेन बामणूच आशिल्ले, हाचे दाखले मेळटात. अडवाद सोडल्यार गोंयच्या मराठी साहित्य चळवळीत जांव साहित्य संमेलनाच्या माचयेर बामणूच दिसताले आनी कोंकणी अस्मितायेची होरावणी करपीय बामणूच आशिल्ले. 1962 आनी 1964 तल्या मराठी साहित्य संमेलनात कोंकणी-मराठी वाद उसळून आयलो, हें तेन्नाच्या प्रसंगावेल्यान स्पस्ट जाता. आडवाद म्हणून कोंकणी वटेन रावप्यांमदीं बामणां वांगडा बाबय वेरेंकार, शाम वेरेंकार आनी हरिश्चंद्र नागवेंकार ही तिनूच नांवां चड दिसताली. पोर्तुगीजाच्या काळारूय गोंयांत पोर्तुगीज सरकार कोंकणीतल्यान शाळा सुरू करपाक तयार जाल्लें. तेन्नाय ताका विरोध करून मराठी शाळा जावच्यो म्हुण यत्न करपी बामणूच आशिल्ले. पोर्तुगीज प्रशासनातले त्या काळावेले अधिकारी सूर्याजी आनंद राव देशपांडे (गोंयकार) हांणी कांकणीक विरोध केल्ल्यानूच देवनागरी कोंकणीतल्यान

शाळा सुरु जावंक पावल्योना. हो इतिहास, अशें आसतनाय कोंकणी ही बामणाची चळवळ हो जंतू खूब काळ मेरेन कित्याक जीतो उरलो हाचें म्हाका अजाप जाता. हो जंतू सोडपीय कोणतरी मराठीवालो बामणूच आसू येता, अशें म्हाका दिसता. कितेंय आसू. कोंकणी मराठी वादाच्या प्रस्नांत हो जंतू बरोच प्रभावी थरलो. भाशेच्या विकासाक तो खूबच मारक थरलो हें सत्य न्हयकारुक मेळना. कोंकणी लेखक पुंडलीकबाबाचे पिळगेंतले लोक जेन्ना कोंकणी बरोवंक लागले, तेन्नासावन ह्या विखारी जंतूचो प्रभाव ल्वह ल्हव उणो जावंक पावलो. पोर्तुगीजांचे राजवटीत कुन्य रिव्हार मुख्य सचिव आशिल्ले. त्या काळावेले शिक्षण संचालक थॉमस मुरांव हांणी शाळेंत कोंकणी शिकोवपा खातीर देवनागरी लिपयेंत पुस्तक बरोवनूय घेतिल्लें. रोमीत कोंकणी शिकयली जाल्यार ती पोर्तुगीज कशीच दिसतली आनी लोक गोंदळटले हाका लागून देवनागरींतूच पुस्तक तयार केल्लें. सरकारांतले अधिकारी आनंदराव देशपांडे हाणी विरोध करुक नाशिल्लों. जाल्यार कोंकणी मराठीचो वादूय उबो रावचो नाशिल्लो. अशें कोंकणी चळवळीतल्या जाणकारांचें मत आसा.

आनंदराव देशपांडे बामण आशिल्ले, हें जरी खरें आसलें तरी बामण म्हणून ताणे विरोध केलो अशें म्हणून त्या समाजाक हांव दोश दिवक तयार ना. ती त्या मनशाची मानसिकता आशिल्ली, हे फाटभूयेर कोंकणी बामणाची आनी मराठी हेर समाजाची असो प्रचार करप चुकीचो थरता. हो सगळो इतिहास पळोवन ताचेर विचार केलो जाल्यार मराठीचो बावटो घेवन त्या काळार उबे आशिल्ले शिवा फोटू पै आंगले, वामन सावर्डेकार, माधवराव तळावलीकार, बा. द. सातोस्कार, मनोहर हिरबा सरदेसाय, मडगांवचें दत्ता दामोदर नायक वगळून तांचे घरांतले चडशे जाणटेले. हांच्या विचारांक विरोध करून जे बामण कोंकणी म्हणून फुडें आयले तेच खरे उजवाडाचे पुजारी आशिल्ले हें काळान स्पस्ट केलें.



# मुंबयच्यान रचनात्मक वावर

शणै गोंयबाब म्हळ्यार वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हांच्या कोंकणी भोशक संजीवनी दिवपाच्या मंत्राचो मुंबयत राबितो करून आशिल्ल्या कांय गोंयकारांचेर बरोच प्रभाव पडिलो. असल्या गजालींचो दिश्ठावो पयसूल्ली नदर आशिल्ल्या मनशांकूच जाता. अशा कांय मूळ गोंयकारांनीच मुंबयच्या कॉलेजीनी शिकता आसतनाच वेगळ्या वेगळ्या रचनात्मक वावराच्या माद्यमातल्यान कोंकणीचें म्हत्व लोकांमेरेन पावोवपाचें काम केलें. त्या काळार गोंयासावन नोकरी, वेवसाय, शिक्षणाक लागून मुंबयत वचून राविल्ल्या चडशा गोंयकारांक कोंकणी उलोवप म्हळ्यार हेंगाडी पणाचें दिसतालें, ताका लागून तांणी आपल्या भुरग्यांक लेगीत कोंकणी उलोवक येवचीना हाची जतनाय घेतली. तांची नवी पिळगी आतां खंत उक्तायताना दिसता. त्या काळावेल्या एकूण वातावरणाचो आनी इतिहासाचो विचार करता तेन्ना 1950 ते 1961 म्हळ्यार गोंय मुक्त जाय मेरेन कोंकणीच्या प्रचार आनी प्रसाराचो खरो वावर मुंबयतूच जातालो. कोंकणी चळवळीचे मानदंड म्हणून जांकां आमी मानतात, ते ॲड. उदय बाब भेंब्रे हांचे मतान 1950 ते 1961 हो कोंकणीचे बाबतींत म्हत्वाचो काळ थरलो. गोंय तेन्ना पुर्तुगेजाच्या शेकातळा आशिल्लें हांगा शिक्षणाची सोय नाशिल्ल्यान जांकां शक्य जातालें ते भुरगे शिक्षणां खातीर कर्नाटकातल्या

धारवाड वा महाराश्ट्रांतल्या मुंबय शारांत वताले.

डॉ. काशिनाथ महाले, वसंत बोरकार (बाकीबाबांचो पुतण्यो) काशिनाथ लाड ह्या मुळ गोंयकारांचेर शणै गोंयबाबांच्या वावराचो खूबच प्रभाव पडिल्लो. ताणीय कॉलेजीतल्या विद्यार्थी मंडळावरवीच काम सुरु केल्लें. उदयबाब सांगता ते प्रमाण हो काळ 1952–53 तलो आसूंक जाय. मुंबयतल्या कॉलेजींनी कोंकणी मंडळां कशी? असो कोणाकुय प्रस्न पडू येता. ताचें कारण त्या काळार मुंबयतल्या वेगळ्या वेगळ्या महाविद्यालयांनी मराठी वांगडाच गुजराथी, कानडी, हिंदी अशीं विद्यार्थी मंडळां जाल्लीं, तें पळयतकच कोंकणी भाशीक म्हळ्यार गोंय, कारवार, मंगळूरच्या विद्यार्थ्यांक ह्या मंडळां मदीं आमी खंय बसतात असो प्रस्न पडिल्ल्यान ताणी फुडें सरून कोंकणी मंडळां स्थापन करून कोंकणीचो साहित्यीक वावर सुरु केलो. उदयबाब मुंबयत 1957 वर्सा गेल्यात. कोंकणी भाशीक विद्यार्थी वेगळ्या वेगळ्या महाविद्यालयांनी शिकताले आसले तरी कोंकणी ह्या एकाच सुतान समविचारी विद्यार्थी एकठांय येताले. तांतल्यान आंतर महाविद्यालयीन एकांकी सर्तीचेंय आयोजन जातालें. ह्या समविचारी विद्यार्थ्यांमदीं डॉ. बाबू संझगिरी, किसन कामत, श्रीकांत बोरकार, बिठ्ठोणचे श्रीकांत आनी नरेंद्र नायक भाव, अॅड. लक्ष्मिकांत तळावलीकार, अॅड. उदयबाब भेंब्रे, आदले खासदार अॅड. शांताराम नायक अशे जायते. ताणी थंय कोंकणीचो म्हत्वाचो वावर केला. प्रा. डॉ. मनोहरराय सरदेसायूय मुंबयतूच शिकताले. शंकरबाब भांडारीय मुंबयत नोकरी करताले. प्रा. प्रकाशबाब थळी हांणीय आपलो कोंकणीचो वावर मुंबयसावनूच सुरु केल्लो. तांणी थंय मराठी नाटकां खातीरय योगदान दिलां. ह्या सगळ्यांच्या वावराक चड उर्बा मेळूक

पावली ती मुंबय आकाशवाणी केंद्राच्या कोंकणी खातीरच्या योगदानाक लागुनूच. ह्या केंद्राचेर कोंकणी कार्यक्रमा खातीरचो बळिश्ठ असो विभाग आशिल्लो. मुंबयचे मराठी कलाकार लेगीत कोंकणी विभागाच्या वावराची तोखणाय करताले, अशें उदयबाब सांगतात. कवी बाकीबाब बोरकार तेन्ना पूणे आकाशवाणीचेर निर्माते म्हणून काम करताले. मराठीतले कवी म्हणून ते व्हडले. पूण तांकां आनी मुंबयतूच रावपी कथा लेखक लक्ष्मणराव सरदेसाय हांकां आपले आवय भाशेचो खाशेलो अभिमान आशिल्लो. त्याच काळार पू. म. लाड नावांचो मूळ गोंयकार मुंबय आकाशवाणी केंद्राचेर वरिश्ठ पदाचेर आशिल्लो. ताणे कोंकणी कार्यक्रमाचो दर्जो वाडोवपाचेर भर दिल्लो. ते खातीर ताणी पूण्यात आशिल्ल्या बाकीबाबांचेर मुंबयच्याय कोंकणी विभागाची जबाबदारी सोपयली. मराठी लेखक पु. ल. देशपांडे मराठी विभागाचे मुखेल आशिल्ले. ते मूळ कारवारचे म्हणटकच तेय बरी कोंकणी उलोवपी. चंद्रकांतबाब केणी, उदयबाब भेंब्रे, पं. जितेंद्र अभिशेकी, ललिता खांडेपारकार, दूर्गा नेवरेंकार, अशीं गोंयकार मंडळी आकाशवाणीचेर काम करताली. पु. ल. देशपांडे आनी डॉ. दत्ताराम सुखठणकार हे आकाशवाणीचेर कोंकणीतल्यान उलोवपां करताले. त्या उलोवपांक निबंदांची रूपां आयली. उपरांतल्या काळांत तांचो कोंकणी पाट्यपुस्तकांतय आसपाव जालो. सुखठणकार हांचें 'मान्नी पुनव' हें पुस्तक आकाशवाणीवेल्या उलोवपांचेंच पुस्तक. अ. ना. म्हांबरो मुंबयतूच रावपी. बरोवपाचे मळार तांचेंय योगदान आसतालें. मुंबयच्या केंद्राचेर संगीतकार म्हणून प्रतिभावंत संगीत कलाकार मनोहरबाब माशेलकार आशिल्ले. उच्च दर्जाचीं नवीं नवीं कोंकणी गीतां संगितान बांदपाक तांचें खूबच योगदान आसा. आमचे कवी माधवबाब बोरकार तांच्या वावराची केन्ना केन्ना याद

काडटा. माशेलकार हे मूळ माशेलांतले.

बाकीबाब बोरकार हांचें जितेंद्र अभिशेकी हांणी गायिल्लें "ते दिसा वडा कडेन गडद तिनसना", गान सरस्वती किशोरी ताई आमोणकार हांणी गायिल्ले. बाकीबाबाचेंच 'विपदेंतल्यान वाटय म्हाका' हरदत्त खांडेपारकार हांचें पं. प्रभाकर कारेकार हांणी गायिल्लें 'सृश्ठ तूं कमळ कशी', चा. फ्रा दि कॉश्ताचें 'कोंबडे बाबांनो सादरे घाला' हें चोमो गीत, शोभा गुर्टू हांणी गायिल्लें गजानन रायकार हांचे 'लाय तुजो लामण दीवो म्हजे गर्भकुडींत' तशेंच उषा आमोणकार, इंदूमती किलपाडी हांच्या आवाजांतलीं अशा कितलेशाच कोंकणी गीतांनी आमचे पिळगेक कोंकणीची गोडी लायली. म्हत्वाचें म्हळ्यार ह्या सगळ्या फामाद गीतांची निर्मणी मुंबय आकाशवाणी केंद्राचेरूच जाल्ली, हाची नवे पिळगेक कल्पना आसचीना. कोंकणी भाशेच्या विकासा खातीरचे चळवळीचो होय म्हत्वाचोच वांटो. त्या काळार हीं मुळावणां घालूक नाशिल्लीं जाल्यार कोंकणी विशय घेवन पीएचडी मेरेन करपाचे आयचे दीस आमकां पळोवक मेळचे नाशिल्ले. ज्ञानपीठ जैतवंत रविंद्रबाब केळेकार 'प्रजेचो आवाज' हें नेमाळेंय मुंबयच्यानच चलयताले. तेच भाशेन महाविद्यालयांतल्या कोंकणी भाशीक विद्यार्थ्यांनी 'विद्या' हें नेमाळेंय चलयलां. ताचो कोंकणी बरोवप्यांक खूबच फायदो जाला.

सद्या लोकगीत जावन राविल्लें उदयबाब भेंब्रें हांचे 'चान्याचे रातीं' आनी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांचें 'गोंयच्या म्हज्या गोंयकारांनो' ह्या उल्हास बुयांव हांणी गायल्या फामाद गीतांच्यो 'रेकोर्डी' मुंबयच्या एचएम व्ही कंपनीनूच तयार केल्ल्यो. तांकां त्या काळार खूब प्रतिसाद मेळ्ळो. श्रीधर केंकरे नावाच्या मूळ गोंयकारानूच ह्या गीतांक संगीत दिल्लें. ह्या 'रेकोर्डीं'च्या

निर्मणेत नारायणबाब मावजो हांचें आर्थिक योगदान लाबिल्लें. हाचे वेल्यान कोंकणी खातीर नारायण बाबान सुरवाती सावनच कितें कितें केलां हाची कल्पना येता. अशे दानतीचे मनीस तेन्ना कोंकणीक मेळ्ळे. ताणी सदांच पड्ट्या फाटल्यान रावुनूच भाशेची सेवा केली. तेच खातीर कोंकणी घेवन आमचे भुरग्यांक चार पैशे जोडूंक मेळ्ळे. कोंकणीच्या नावान कितलेशेच जाण पोट भरतात. देखून नवे पिळगेन ह्या म्हालगड्यांच्या वावराचो आदर्श दोळ्यांमुखार दवरून आपूण जोडटा तांतलो बारीकसो वांटो भाशेच्या विकासा खातीर खर्चूचो, पुस्तक तरी विकतें घेवक खर्चूचो अशें म्हाका दिसता. आमचो हात घडये नक्षत्रांक तेकूक पावता, अशें आमकां दिसूं येता, पूण ते खातीर आमी खंयचे जमनीर उबे आसात, हाचें घंगण आमी दवरूक जाय. तें दवरलें जाल्यार सगळेंच बरें जातलें. नारायणबाबां सारक्यानी जो वावर केला ताका कसलो पुरस्कार दिव येता?



# कोंकणीचीं शक्ती थळां

ज्ञानपीठ जैतवंत आनी गांधी विचारवंत रविंद्रबाब केळेकार, स्वातंत्र सैन्निक गुरुनाथ केळेकार, कवी आनी स्वातंत्र्य सैनिक नागेशबाब करम ली, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, रविंद्रबाब नमशिकार, चंद्रकांतबाव केणी, अॅड. उदयबाब भेंब्रे, निकूबाब कारापुरकार, बाप्पा लवंदे, सुहासबाव दलाल, यशवंतबाब पालेकार, सदानंद काणेकार, नारायणबाब मावजो, रामकृश्णबाब जुवारकार, अ. ना. म्हांबरो, शंकरबाब भांडारी, सुरेशबाव बोरकार, सुरेश काकोडकार, पांडुरंगबाब भांगी, अशा कांय म्हालगड्या कोंकणीच्या सेवकांनी कोंकणीच्या विकासाचो मंत्र पातळावपाचो आपले आपले पद्धतीन यत्न केलो. पूण भौसा मेरेन पावूंक जाय तसो तो पाव नाशिल्ले. समाज शास्त्रांचो अभ्यास करप्यांक ताचीं कारणा सापडूं येतात. पूण1970–75–80 ह्या काळांत गोंयच्या वेगळ्या वेगळ्या थरावीक वाठारांनी कोंकणीचीं शक्ती थळां तयार जावक लागिल्लीं

वळवय : पुंडलीक नायक, उदय म्हांबरो, प्रकाश द. नायक, सावय वेऱ्यां:संजीव वेरेंकार, महेश नायक, बाबुराव नायक, बेतके:भिकू बोमी नायक, उमाकांत शेटयो, रोहिदास तारी, नागेशीं बांदोडे: एन. शिवदास, श्रीधर कामत बांबोळकार, विजयकांत नमशिकार, काणकोणा: रमेश कोम रपंत, मानुएल फर्नांदीश, शिरीष पै, वाळपय–सत्तरी: सदानंद बाब प्रभू तेंडूलकार, शांती प्रभू तेंडूलकार, साखळे: प्रदीप लवंदे,विक्रांत पांगम, अशोक काणेकार,

दिवचले: विनायक गोवेकार, उदय सरदेसाय, सावड्‌ड्या: आनंद मंगेश नायक, वसंत सावंत, अशोक कामत, शैलेश संझगिरी पणजे: अशोक भोसलो, विवेक पिसूर्लेकार, म्हापशा: उमेश म्हांबरो, डॉ. सुश्रूत मार्टीन, व्हडलें गोंयां : भरत नायक, साकोड्या : गजानन जोग, मडगांवां : बाबली नायक, हेमा नायक, अनील पै. केप्यां : कृश्णनाथ करमली, मांजोड्‌ड्या : दामोदर मावजो, कांसवले : फेलिक्सबाब कार्दोज, वेलंगा : अभयकुमार वेलिंगकार. पेडण्या : प्रकाश तळवणेकार, शशिकांत पुनाजी. त्या काळार वेल्या वाठारांनी कोंकणीचें कितेंय करतलो जाल्यार ह्याच शक्ती थळांक मेळचें पडटालें. तांगेरूच वचप तांगेरुच रावप. राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघाच्या स्वयंसेवकां भशेनूच ते काम करताले.

कोंकणी राजभास जाले उपरांत हें जाळें केन्ना आनी कशें विसकटलें तें कळ्ळेंच ना. उपरांतल्या काळांत कितलेशेच कवी, लेखक आयले. पूण अशीं शक्ती थळां निर्माण जावंक ना. सत्तरीत मात डॉ. प्रकाश पर्येकारान हो विचार आनी कार्यपद्धत फुडें व्हेल्ल्याची दिसता. सत्तरीत आयज जो कोंकणीचो वावर चल्ला तो वावर म्हळ्यार भाई तेंडूलकार आनी शांती तेंडूलकारांच्या यत्नाक आयिल्लीं. फळां,अशें हांव म्हणन. आयज मानधना बगर कोंकणीचें कसलेंच काम जायना. हे फाटभूयेर कोंकणीच्या चळवळीच्या इतिहासांत ह्या शक्ती थळां कडेन आडनदर करूक मेळचीना. ताणी बोलसांतले खर्चून कोंकणी केली.



# सृजनाचीं फुलां फुलयतना

1976-77 च्या काळांत सावयवेरेंच्या उत्कर्ष विद्यालयांत शिकतना म्हजो बालमीत्र उदय म्हांबरो हाच्या वोशांतल्यान म्हाका कविता बरोवपाची आवड निर्माण जाली. मुळावें शिक्षण मराठी भाशेंतल्यान जाल्लें आसलें तरी कविता कोंकणीतल्यानूच भायर येवंक लागली. कोंकणीत बरय म्हणून कोणे सांगलेंय ना. पूण तेन्नाचे मुख्याध्यापक रामबाब कुंकळेकार आनी तांची घरकान सिता टिचर, मराठी शिक्षक माधव सोमण हांणी दिल्ल्या प्रोत्साहनांतल्यान म्हजे कवितेक पोसवण मेळ्ळी. विद्यालयांतल्या दर राश्ट्रीय सणाचेर म्हजी आनी उदयाची कविता आसताली. तेन्ना उदयाले कवितेचो दर्जो म्हजे कविते परसय बरो आसतालो. पणजे आकाशवाणीवेल्यो युववाणी आनी हेर कार्यावळी आमी नेमान आयकतालें. आमच्योय कविता रेडियोचेर येवच्यो अशें आमकां दिसतालें. आठ-धा कविता लाखाट्यांत घालून आकाशवाणीचेर धाडून दिवप आनी कट्टेन गुणे घालीत जापेची वाट पळयत रावप. सुमार म्हयनेभरा उपरांत कितलेशेच स्टॅंप मारिल्लो दाट लाखाटो पोस्टांतल्यान येतालो. व्हडा उमेदीन तो उगडले उपरांत धाडिल्ल्यो कविता परत्यो आयल्यो त्यो पळोवन उमेदीचेर विर्जण पडटालें. त्या पत्रांत, तुमच्यो कविता खूब सुंदर आसात. पूण तांत्रिक कारणाक लागून आमी त्यो आकाशवाणीचेर वितरांवक शकनात, अशें ताचेर बरयल्लें आसतालें. सुरवातीच्या काळात पत्रांत इंग्लीशीत बरयल्ल्याचो सारको अर्थ

कळना म्हणून हांवें जाणकारा कडल्यान पत्र वाचून घेतलां. तें पत्र वाचून मन निर्शेतालें. पूण कविता बऱ्यो आसात हें वाचून मातशें बरें दिसतालें, म्हळ्यार मनाच्या घाव्याक मलम लायिल्लेवरी दिसतालें. ताचो नव्यो कविता बरोवपाक मातसो आदार जातालो. आतां आकाशवाणीवेल्यान कविता पर्तून बी धाडटात काय ना, हें हांव नकळो. खरें म्हळ्यार म्हज्यो कविता सारक्यो नात, अशेंच तांकां कळोवपाचें आसतालें. तेंच तें सरकारी भाशेंत कळयताले. लग्नाचे सोयरिके भशेनूच खबर ती. चली पसंत करपा सारकी ना, अशें कळोवचे बदला प्रसाद जायना, कुंडली जुळना, अशें कळोवप. चली पसंत ना हेंच खरें कारण.

त्या काळार मडगांवच्यान उजवाडाक येवपी राश्ट्रमत हें दिसाळें, मराठी वांगडा कोंकणीय कविता उजवाडायेतालें, थंयूय हांव कविता धाडटालो. आनी सद्दां राश्ट्रमत वाचतालो. निर्शेणीच पदरांत येताली. बऱ्याच काळा उपरांत एका आयतारा 'बंदखण' नावांची म्हजी एक कविता राश्ट्रमतांत छापून आयली. ते दिसा मात मळब भूयेर देविल्ल्याची म्हाका खोस भोगली. ते दिसाचो राश्ट्रमताचो अंक हातान घेवन कितलेशेच दीस बाजारांत भोंवला. मेळटा ताका हांव पेपर दाखयतालो. कांय जाण वगीच बरी आसा म्हणून सांगताले. कितेंय आसूं म्हजे कविते विशींची उमेद वाडली इतलें खरें. उपरांतच्या काळांत आकाशवाणीचेर कविता वाचून वेल्यान 32 काय 34 रुपया म्हाका मेळ्ळ्या. आमचे पिळगेंतल्या तरनाट्यांमदीं कोंकणी साहित्याची गोडी निर्माण करपाक राश्ट्रमत, पणजे आनीं मुंबय आकाशवाणीचें खूबच योगदान आसा. साहित्याच्या प्रसारा खातीर हेंच माध्यम आशिल्लें. फोडणे फोव, खळार मळार, कानळां ओवळां, युववाणी, व्हनिबायली वासरी, समाचार दर्शन, नभोनाट्यां अशे कार्यक्रम आमी नेमान आयकताले. दूरदर्शनाचो विस्तार जायत सावन ल्हव

ल्हव आकाशवाणीचें म्हत्व उणे जायत गेलें. त्या काळार आकाशवाणीचेर विश्णू नायक, सुरेश नायक, पुरुषोत्तम शिंगबाळ, शंकर भांडारी, नागेश करमली, पुंडलीक दांडो, पुंडलीक नायक, यशवंत म्हांबरो, कृश्णा लक्ष्मण मोयो, कमलाबाई राव देशपांडे अशे कितलेशेच जाण आशिल्ले. तांकां कोंकणीविशींची लागणूक आशिल्ली. आतां तांची परंपरा मुकेश थळी, शंकुतला आर्सेकार (भरणे) चलयता. ह्या सगळ्यांनीच नव्या बरोवप्यांक उर्बा दिवपाचें काम केलां.

नामनेचे कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाय आमचेच सावयवेरें गांवचे ते एप्रिल वा मे म्हयन्यात गांवांत येताले. चड करून ते वेलकास वाड्यार भो. वासुदेव पाटलागेर रावताले. ते तांचे मीत्र, आनी पाटील हे त्या काळावेले प्रागतिक विचारांचे भट चिड्डुल्या माड्डुल्यांक शिक्षण मेळचें म्हणून तांणी काम केलां. लक्ष्मणराव सरदेसायूय तेच विचारसरणेचे म्हणूनच तांगेलें जुळटालें आसूंक जाय. उदय आनी हांव वेलकासच्या कुळागरांत वचून आमी बरयल्ल्यो कविता तांकां दाखयताले. तांकां मेळपाक आमी वेलंगां पांडुरंगबाब कामतीगेर लेगीत गेल्यात. म्हज्यो कविता वाचून ताणी एक दीस म्हळें ''संजीवाक प्रवाहाच्या विरोधांत पेंवपाची ताकद आसा.'' प्रवाह कितें आनी शेळाव कितें हें ते वेळार म्हाका कितें कळटालें? कितें तरी बरें म्हणलां अशें दिसलें. ताणी आमकां बरयत राव म्हूण सांगलें. त्या काळार नवे भुरग्यांच्या लिखाणाक प्रोत्साहन दिवपा खातीर आयचे भशेन कसलेंच वातावरण नाशिल्लें. आयज परिस्थिती वेगळी. आयज कविता बरयल्यार रोखडीच ती छापून येंव येता. कोण छापिना जाल्यार सोशल मिडीयाचेर घालूं येता. हांवें कविता बरोवक सुरवात केले उपरांत सुमार दोन अडेज वर्सां उपरांत छापून आयल्या. नवी कविता बरयतकच ती उदयाक दाखोवपाक हांव वेऱ्यां सावन चलत वळवय वतालो आनी उदय

आपली नवी कविता म्हाका दाखवपाक वळवय सावन सायकलीन वेऱ्यां येतालो. लक्ष्मणबाबांक सगळे काका म्हणटाले. एक दीस ताणी आम कां तुमचें लिखाण फोंणचे भाटांतल्या नारायण नायकाल्या पुंडलीकाक दाखयल्यार जाता. तो बरो बरयता, अशें ताणे सांगलें. त्या खिणा सावन पुंडलीकबाबाक मेळपाक आमी हाशेले.

त्या काळार पुंडलीक आपली विजय–सुपर स्कुटर घेवन आडेकडेक कोणाकूच पळय नासतना भुर्र करून रस्त्यांतल्यान वतालो, तो आमी पळयला. सामको गोरो पीट्ट. मातशें खाडूय ताका आशिल्लें. तातूंत तो चडच बरो दिसतालो. चडशे कोंकणीवादी खाड दवरतात, अशें कांय जाण आमकां सांगताले. म्हाकाय तशेंच दवरचेंशें दिसतालें. पूण तें दवरपाक म्हाका मिशोय सारक्यो नाशिल्ल्यो म्हणटकच खाड खंयचें दवरतलो! म्हाका याद जाता, एक दीस उदय आनी हांव सांजचे वेळार सावयवेरेंच्या म्हळ्यार वळवय वचपाच्या मार्गार आशिल्ल्या वालावलकाराल्या 'वट्टां'च्या आड्यार बशिल्ले. आतां तें वट्ट उरुक ना. एक वाडोच तयार जाला. तेन्ना थंय करड जातालें. त्याच वेळार पुंडलीकबाब स्कुटरितल्यान पासार जालो तो आमी पळयलो. ताका पळोवन उदयान म्हाका म्हळें 'हो आमकां एकदीस तरी वळखतलोच.' कांय दिसा उपरांत उदयाक काणकोणा कोंकणी दिसा'च्या कार्यक्रमाक वचपाची संद मेळ्ळी.तेन्ना उल्हास बाब रायकारान उदयाची पुंडलीका कडेन वळख करून दिली. उल्हास बाबूय आमचेच गांवचो. तोय कविता बरयतालो. पूण तो रायबंदरा काय पणजे रावतालो. एक दीस हांवें आनी उदयान फोणचे भाटान वचून पुंडलीकबाबाची भेट घेतली. आमी बरयता हें कळटकच ताका खोसूय भोगली. ताणे 'रान सुंदरी' हें आपलें कवन काणयेचें पुस्तक आमकां भेट म्हणून दिलें. ताणे आमकां त्या वेळार अरूण शिंगबाळ, पांडुरंग गावडे, भिकू बोमी नायक

हांचीय नांवां सांगली. ताची घरकान हेमा नायकूय (धुमटकार) आमकां तोखणायेन पळयतालें. ही खबर तेन्नाची. भिकुचें नाव हांवें पयलीं खूब आयकलें. तो नवप्रभा ह्या दिसाळ्याचो आमचे वाठांरातलो वार्ताहार. आमचे वाठारांतल्या शाळा, विद्यालयांच्या स्नेह संमेलनाच्यो बी तो बातम्यो दितालो. पूण तो कोंकणी मोगी. तागेली 'तासो ताणशेता' ही कविता त्या काळार गाजिल्ली. तो खंयूय दिसलो म्हणटकच कांय जाण, ताका पळोवन 'तासो ताणशेता' अशें म्हणटाले कोंकणीत भाशण करता म्हणून भिकू बाबाक बेतके माचये वेल्यान लेगीत सकयल देवयला. ताणे खूब सोसलां. तेन्ना कोंकणी म्हणप्यांक लोक फकाणेर म्हणूनच पळयताले.

पांडुरंगबाब गावडे, भिकूबाब, अरुण शिंगबाळ. हे 1973 च्या अदमासाक बरोवक लागल्यात. आसूंक जाय. पुंडलीकाची आनी म्हजी भेट जावचे आदीं. पालसड्यार म्हळ्यार सरकारी मराठी विद्यालयांत ताची 'यम जागा आहे' ही मराठी एकांकी हांवें पळयल्ली. वर्स याद जायना. तातूंत ताणे यमाचो सुंदर अभिनय केल्लो. तो म्हजे यादींत अजूनय आसा. शिंगबाळाक हांव वळखतालो पूण लेखक म्हणून न्हय. व्हळये भाटांतलो भाटकार म्हणून. तो दाट कवचेचें वक्ल लायतालो आनी दोनपारचे वेळार वेऱ्यां बुबूलील्या मांडार बसून पेपर वाचतालो. तो सर्व सामान्याम दीं भरसुपी न्हय. तो लेखक म्हणून कळटकच ताका पळोवपाची म्हजी नदर बदल्ली. एक दीस हांव ताकाय वचून मेळ्ळो. तागेल्या बलकांवार बसून ताकाय हांव म्हज्यो कविता दाखयतालो. इतले मजगती उदयालें आनी म्हजें पुंडलीकागेर वचप वाडिल्लें.



# पुंडलीकागेर वताले तेन्ना...

पुंडलीकबाबागेर वचपाक एक गोंयडो लागतालो. आयज थंय गेट आसा. त्या गोंयड्यांतल्यान भितर सरतना, थंय आड्यार बशिल्ले थंयचे कांय तरनाटे आमकां पळोवन तोमणे मारताले. कोंकणी मोग्यांक कोंकणीवादी म्हणूनच वळखताले आनी सगळेच दूस्मानाचे भावनेन पळयताले. आमी तेन्ना सगळें मोन्यानी सोसताले. तोमणे मारतात म्हणून आमी तागेर वचपाचें सोडलेंना. तेन्ना पुंडलीक म्हळ्यार आमकां देव कसो दिसतालो. ताच्या वाड्यावेल्या लोकांकय तो कितलो व्हडलो तें खबरुच नाशिल्लें. आमीच ताका वळखल्लें.

1978 वर्सांतल्या वसंत रूतूचे ते दीस. आंबे-पणसूलां, भिण्णां, जांबळां, काण्णां-चुन्नां पिकून रोस गळयताली. आपल्या वाठारांतय नवें बरोवपी तयार जावंक लागल्यात, अशें दिशिल्ल्यान पुंडलीकबाबान साहित्याची एक कार्यावळ घडोवन हाडपाचो विचार उदयाच्या आनी म्हजे मुखार मांडलो. आमकां खूबच उमेद जाली. ताणें अरुण, शिंगबाळ, तुकाराम शेट, भिकू बोमी नायक, पांडुरंग गावडे, नारायण तारी, रोहिदास तारी, उमाकांत शेटयो हांकां विश्वासांत घेवन सावय भाटोळ्यांतल्या श्री नारायणाच्या देवळांत 28 मे 1978 दिसा पयलो वयलो वासंतकी साहित्य मेळ घडोवन हाडलो. ह्या मेळाची चडशी जाबसालदारकी पुंडलीकबाब आनी घरकान हेमा नायकानूच घेतिल्ली. नारायण देवाचे पवित्र सासायेंत

जाल्ल्या ह्या कार्यक्रमाक नामनेचे साहित्यीक रविंद्रबाब केळेकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, कवी आनी सुटके झुजारी नागेशबाब करमली, डॉ. तानाजी हळर्णकार, लेखक दामोदर मावजो, कथाकार एन शिवदास, दत्ता श्री. नायक, उल्हास पै, रायकार, दिगंबर शिंगबाळ, लक्ष्मिनारायण पारज, हे मानेस्त साहित्यीक हजर आशिल्ले. नवे बरोवपी म्हणून उदय न. म्हांबरे, संजीव वेरेंकार, अवधूत कामत, डॉ. प्रकाश शेटये, आमचेच वाठारांतले मराठी कवी दिनानाथ रा. शिंगबाळ आनी पणजेचे कवी विवेक पिसूर्लेकार हांणी आपल्या कथा–कवितांचें सादरीकरण केलें. खास जेवणाचे व्यवस्थे खातीर पुंडलीक बाबान आपल्या आंगणात माटव घाल्लो. 1975 वर्सा कोंकणीक साहित्य अकादमीची मान्यताय मेळिल्ली. ताचीय उमेद उलोवप्यांच्या भाशणांतल्यान व्यक्त जाताली. वासंतीक मेळाव्याक लागून सावयवेरें, वळवय, बेतके वाठारांत कोकणी विशी वेगळेंच म्हळ्यार संघटीतपणाचें वातावरण तयार जावंक लागिल्लें. कोंकणी ह्या तीन अक्षरी उतरा भोवतणीच आमचें जग तयार जातालें. नवे नवे मित्रांक आमचे चळवळीत ओडपाचें काम आमी करताले. ह्या वातावरणातल्यान प्रकाश द. नायक, शशिकांत कडेकार, ज्ञानेश्वर तारी, अशोक शिलकार, दिलीप शिलकार, अवधूत कामत, सुरेंद्र वळवयकार नेटान बरोवंक लागिल्ले.

दुसरो वासंतीक साहित्य मेळ 1979 वर्सा वळवयचे सरकारी मुळावे शाळेच्या आवारांत जालो. आनी सांजवेळां श्रीगजांत लक्ष्मीच्या देवळाचे माचयेर सांस्कृतीक कार्यक्रम आनी समारोप सुवाळो जालो. कवीवर्य डॉ. मनोहरराय सरदेसायाच्या भाशणाचो तेन्ना बरोच प्रभाव पडलो. थळावे लोक तांच्या भाशणातल्यान खूबच प्रभावीत जाल्ले. दोनपारच्या वेळार नारायण तारीच्या घरा कडेन सुरबूस बरें साखरभाताचें जेवण आशिल्लें. नवे बरोवपी म्हणून प्रकाश द. नायक, अशोक शिलकार, वामन टाकेकार, सज्जन तारी

हांची भर पडिल्ली. 1978 आनी 1979 वर्सा जाल्ल्या ह्या दोनूय मेळांची चडशी जवाबदारी पुंडलीकबाब नायक, हेमा नायक, तुकाराम शेट हांणीच घेतिल्ली. वळवयचो मेळ जैतवंत करपाक सुरेंद्र वळवयकार, प्रकाश द. नायक, वल्लभ तारी, नारायण तारी हांणी बरोच वावर केला. ते वेळारय कोंकणी–मराठी वाद आशिल्लोच पूण, चड सांवट नाशिल्लें. मेळावो जैतवंत जाल्यान मराठी भक्त ॲड पांडुरंग नागवेंकार आनी ताच्या वांगड्यांक आमचे शक्तीचें दर्शन घडिल्लें. वळवयत कोंकणीचो विचार वाडचो न्हय ह्या हेतून तांणी श्रीगजांतलक्ष्मी देवळाचे माचयेर कोंकणी कार्यक्रमाक बंदी घाली. ते माचयेर भाशण लेगीत कोंकणीतल्यान करूक बंदी आशिल्ली. एकूच आडवाद आसा. सभापती ह्या नात्यान ॲड दयानंद नार्वेकार एक दीस कसले तरी कार्यक्रमाक थंय आयिल्लो. तो कोंकणीतल्यान उलयलो तेन्ना आमी ताळयो मारल्यो. ताका ताणी विरोध करुक ना. बंदी अजूनय आसाच. पूण आतां वातावरण बदल्लां. श्रीगजांतलक्ष्मीचो मंटप खासदार निधीतल्यान बांदिल्ल्यान आतां कायद्यान कोंकणीचेर बंदी घालप शक्यय ना. ती वेगळी गजाल. आतांची पिळगी नवो विचार घेवन तयार जाल्या. वळवयत कोंकणीक जो विरोध आशिल्लो तसो गोंयच्या आनी खंयच्याच वाठारांत नाशिल्लो. अशे परिस्थितीतूय आमी तेन्ना काम केलां. तिसरो वासंतीक साहित्य मेळ 1980 वर्सा सांतेरभाट वळवयच्या श्री शांतादुर्गेच्या देवळांत जालो. ह्या मेळा खातीर सुरेंद्र वळवयकार हांची कार्याध्यक्ष म्हणून निवड केल्ली. ह्या मेळाची चडशी जबाबदारी उदय म्हांबऱ्यान घेतिल्ली. हेर सदांच्या मानेस्तां वांगडा ओलवीन गोमीशूय मार्गदर्शक म्हणून ह्या मेळाक उपस्थित राविल्लो. तांच्या 'मन ओडटा ओडना' ह्या पुस्तकाचें विमोचनूय हांगाच जालां. ताचेर आस्वादनपर भाशण करपाचें काम संजीव वेरेंकार हांणी केल्लें. नवो कवी म्हणून ज्ञानेश्वर तारीची भर पडली आनी तेन्नाच्यान

तोय कोंकणीचे सेवेत रुजू जालो.

ताचो बापूय मराठी शिक्षक आनी कट्टर मराठीचो अभिमानी. अशा घरांतल्याय भुरग्यांक कोंकणी कडेन हाडपाचें काम आमचे ते वेळावेले चळवळीन केलां. ताचे उपरांत कांय आडखळींक लागून फुडली दोन वर्सां वासंतीक मेळ जावंक पावलोना. पूण 1983 वर्सा कवी संजीव वेरेंकार, महेश नायक, बाबुराव नायक, महेश चारी हांणी फुडाकार घेवन सावयवेरेंच्या सांतेरीच्या देवळांत चवथो वासंतीक मेळ घडोवन हाडलो. ह्या मेळाचे कार्याध्यक्ष म्हणून संजीव वेरेंकाराची निवड केल्ली. तो मेरेन मराठी चळवळीचें सांवट इल्लें इल्लें वाडूक लागिल्लें. अॅड पांडुरंग नागवेंकार आनी मोहन वेरेंकार ह्या मराठी भक्तांच्या विचारांचो बरोच प्रभाव सावयवेरेंच्या भुरग्यांचेर पडिल्लो. कोंकणी म्हणटकच कोणूय लागीं येवपाक तयार च जाय नाशिल्ले. पूण आमी गांवांतले चार-पांच तरनाटे प्रवाहाच्या आड पेंवपाक सदांच तयार आसताले. संजीवान ही कोंकणीची कीड गावांत तयार केली म्हूण चडशे लोक दूशण दिताले. पूण कांय विचारी लोकांचो आमकां तेंको आसतालो, पूण ते आमचे वांगडा उक्तेपणान येनाशिल्ले.

मेळाव्याची आमी नेटान तयारी केल्ली. राजाभाई म्हणून एकलो खानावळ चलयतालो. तो मराठी गटा कडेन लागीं आशिल्लो. ताकाच आमी जेवणाची जबाबदारी दिली. आदले रातीं देवूळ निवळ केलें. सकाळीं फूडें थंय वच जाल्यार संत ज्ञानेश्वराच्या आनी थॉमस स्टिफन्सच्या अभंगांच्या कडव्यांनी सगळ्यो वणटीच रंगोवन दवरिल्ल्यो. कोंकणीच्या विरोधकांनी आमच्या साहित्य मेळाव्याक नखलामी करपाचे हेतून तें कृत्य केल्लें. पूण तांतल्यान आमच्या साहित्य मेळाक खरेलें अधिश्ठान प्राप्त जावंक पावलें. वणटी रंगयल्या त्यो पळोवन आमी भुरगे खूबले. पुंडलीक बाबान आमकां शांत केले. ताणें मेळाव्यांची सुरवातूच संत ज्ञानेश्वरांक होरावन

केली. ती पळोवन विरोधकांचें वारेंच गेलें. संत ज्ञानेश्वरांच्या अभंगाचो वापर आमी आमच्या मेळाव्या खातीर खूब सुंदर पद्धतीन करून घेतलो. संत ज्ञानेश्वरान मराठी वयर काडली तशी आमी ताचोच आदर्श घेवन कोंकणी वयर काडटात, हो संदेश ह्या मेळाव्यांतल्यान पातळायलो. हो प्रसंग हांव केन्नाच विसरूक शकना. कार्याध्यक्ष ह्या नात्यान हांवें भाशण केल्लें, तातूंत गांवचे लक्ष्मणराव सरदेसाय, व्यंकटेश अनंत पै रायकार ह्या मराठी लेखकांची परंपरा सांगून अभिमान उक्तायल्लो. मराठी साहित्य, कला प्रकारांक आमचो तेन्नाय विरोध नाशिल्लो. पूण कोंकणी साहित्य निर्मिती करप्यांक मराठीवाले विरोध करताले. ताका लागून कोंकणीचो कसलोय कार्यक्रम जैतवंत करप हें आमचे मुखावेलें आव्हान आसतालें.

उपरांतल्या काळांत आमचो वावर पळोवन आमच्याय वाठारांतलो कोंकणीचो विरोध वाडूंक लागलो. मराठी चळवळ फुडें व्हरपा खातीर महाराश्ट्र परिचय केंद्राच्या आदारान नवे नवे कार्यक्रम जावपाक लागले. खूब अडचणी येवंक लागल्यो. तांतल्यान सुमार दोन वर्सां वासंतीक मेळ जालोच ना. पूण संजीव वेरेंकार, प्रकाश नायक, महेश नायक, बाबुराव नायक, विवेक वेरेंकार, रामदास खेडेकार, शंभू खेडेकार अशे कांय जाण कोंकणीच्या मळार कितें ना कितें करीत आशिल्ले. आमकां केरी वाठारांत विजयाकांत गावडे नावांचो एक निस्वार्थी कोंकणी मोगी तरनाटो मेळिल्लो. श्रीकांत पालसरकार कोंकणीच्या मळार आयिल्लो. ह्या वातावरणाचो फायदो घेवन आमी पांचवो वासंतीक मेळावो केरी पावोवपाचें थरयलें. 1986 च्या काळांत कोंकणी प्रजेचो आवाजाचें आंदोलन तीव्र जाल्लें. ताका लागून साहित्यीक कार्यक्रमाचेर कोणाचें चड लक्ष नाशिल्लें. वातावरण तापिल्लें आसतनाय 1986 वर्सा आमी केरीच्या सुरश्री केसरबाई केरकार विद्यालयांत वासंतीक मेळ घेतलो. तातूंत त्या

वाठारांतल्या कोंकणीची आस्त आशिल्ल्या नव्या तरनाट्यांक आसपावन घेतले. कार्याध्यक्षाचो मान श्रीकांत पालसरकाराक दिल्लो. उद्योजक म्हणून आयज जांका वळखतात ते संदीप निगळये, आदले सभापती विश्वास सतरकार, गोविंद देसाय हो मेळ जैतवंत करपाक पेंगट बांदून वावुरल्यात. ह्या मेळाच्यो सगळ्यो बसका आमी वैजारी केरीचे पांडुरंग गावडे हांच्या घरांत घेताले. त्या वातावरणात कोंकणी मेळा खातीर बसका घेवपाक घरांत जागो दिवप हेंय तशें धाडसाचेंच काम. कोंकणी मेळा खातीर पांडुरंगान दिल्ली ही सेवा विसरपा सारकी न्हय. मेळाव्याच्या समारोप सुवाळ्याक तेन्नाचे उत्तर गोंयचे खासदार ॲड. शांताराम नायकांक आपयल्ले. हेर म्हालगडे आशिल्लेच. शांतारामबाबांचे हस्तुकी दिवली भेटोवन संजीव वेरेंकार आनी प्रकाश द. नायक ह्या कवींचो सत्कारूय केला. ह्या मेळाक उदय म्हांबरो आमचे वांगडा ना. त्या काळार उदयालो बापूय दूयेंत जाल्लो, आनी दूसरे वटेन कोंकणी मराठी वादाक लागून वळवयत संघर्शाचें वातावरण निर्माण जाल्लें. वळवय बाजारांत उदयालें दूकान. घरांतल्या वेवसायाची जबाबदारी ताचेर येवन पडिल्ल्यान ह्या गंभीर आनी भिरांकुळ वातावरणाक लागून ताका कसलेच असल्या आंदोलनात वांटो घेवक मेळना जाल्लो. कोंकणीच्या भौशीक मळार तो येनाशिल्लों तरीय आपल्या वेव्हाराचो दीसपट्टो कागदपत्री वेव्हार कोंकणीतल्यान करपाचें ताणे तेन्नाय सोडलेंना. उदयान ते काळार केल्ली कोंकणीची सेवा विसरूक मेळना. केरीच्या वासंतीक साहित्य मेळा उपरांत कितलीशींच वर्सांमेरेन मेळ जालोना.हे सगळे मेळ सरकारच्या अनुदानाशिवाय जाल्यात. पटी काडूनच आमी कोंकणीचे कार्यक्रम करताले. जण एकलो कितलेय पयसूल्ल्यान आपले बोलसांतले खर्चून कोंकणीच्या मोगान लागणूक म्हणून हजर रावतालो.

कोंकणी साहित्य आनी भाशेच्या विकासाक पोसवण दिवपाचे नदरेन वासंतीक साहित्य मेळाचें योगदान खुबूच व्हडलें आसा.ह्या मेळात थळावेच न्हय जाल्यार गोंयच्या वेगळ्या वेगळ्या वाठारांतल्या नव्या बरोवप्यांक संदी दिताले. अभयकुमार वेलिंगकारा सारक्या तरनाट्याच्या आदारान वेलिंग म्हाड्डोळ वाठारांतय 1977-78 च्या अदमासाक कोंकणीचीं शिबीरां जातालीं. ताचोय फायदो खूब जालो. आमचे हे चळवळीन खूब जाणांक कोंकणीकडेन हाडल्या. एकूच प्रयोग फसलो तो म्हळ्यार नामनेचो मराठी कवी आनी नाटककार विष्णू सूर्या वाघ आमचे हातांत उरलो ना. विष्णू प्रकाश द. नायकाचे वळखीचो पूण भुरगेपणा-सावन मराठीच्या गटांतलो. तेन्ना म्हळ्यार 1982-83 च्या अदमासाक चुकून केन्नाय कोंकणी कविताय करतालो. तें पळोवन प्रकाशान ताका 1983 वर्सा सावयवेऱ्यां जाल्ल्या चवथ्या वासंतीक मेळाक माचयेर चडयल्लो. ताणे तेन्ना 'पावस पांच खिणातलो' ही सोबीत कविता सादर केल्ली. ताणे कोंकणीत कविता बरयल्यो, एकांकी, नाटकांय बरयलीं पूण तो निमणे मेरेन गोंयांतल्या मराठी वाल्यांची शक्ती म्हणूनच वावुरतालो. ताणे सदांच मराठीचीच तळी उखलून धरली. मराठी राजभाशेचे मागणेचें मेल्लें मडें ताणे पर्तून पर्तून उस्तून काडिल्ल्यान तें पर्तून मातयेंत पुरपाक आमची शक्त वगडावल्या. कोंकणी,मराठी, हिंदी, इंग्लीश भासांचेर प्रभूत्व आशिल्लो प्रतिभावंत लेखक पूण कोंकणीच्या प्रस्नाचेर सारको वागलोना. हाची आमचे सारक्यांक खंत भोगता.



कोंकणी ७ जून ६८

## सावयवेरें हांगा

## वासंतिक साहित्य मेळ

केरकी, बळवर आनी सावयवेरें हांगचे साहित्यिक आनी साहित्य मोगी हांणी आयोजित केल्लो 'वासंतिक साहित्य मेळ' २८ मायाक निसर्गान पांचवोवार जाल्ल्या सोबीत डोंगर सावय गांवांतल्या श्रीलक्ष्मीनारायण देवळांत जालो.

मेळाक भायले आनी गोंयच्या वेगवेगळ्या भागांतले सुमार शंभर साहित्यिक आनी साहित्यमोगी हाजिर आसले.

उदय महांबरे हांच्या येवकारगीतान कार्यावळीक सुरवात जाली.

अरूण सिंगवाळ हांणी सगळ्यांक येवकार दिलो. आपणाल्या भुलोवणांत तांणी थंयची साहित्यिक परंपरा, संगीत आनी नाट्य कलेचें दायज हांचें म्हडविक वर्णन ही सुवात गोंयच्या स्वातंत्र्याचे चळवळीची पुण्यभूंय अशें सांगलें.

पुंडलीक नायक हांणी नानादीक सोयऱ्यांची वळख करून दिली.

हालींच सोंपिल्ले गोंयचे सुटकेझुजारी, राजकीय फुडारी आनी साहित्याचे व्हड मोगी भौ. आनास्तासवाद आल्मेद हांका एक मिनीट स्तब्धता पाळून मेळ्यांत श्रद्धांजली आंपली.

उपरांत नागेश करमली हांच्या यजमानपणाखाल पयले साहित्यिक बसकेक सुरवात जाली. तांतूंत थळाव्या नवोदीत बरोवप्यांनी आपआपल्या साहित्याचे कांय वेंचीक वांटे सादर केले. नवोदीत बरोवप्यांत संजीव वेरेंकार, विवेक पिसुर्लेंकार, अवधूत कामत, दीनानाथ सिंगबाळ, तुकाराम शेट, प्रकाश शेटये, सुरेंद्र वळवयकार आनी उदय महांबरे हांचो आस्पाव आसलो.

थळाव्या नवोदीतांच्या बरपावळींचेर उलयतना डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांणी म्हळें, तांच्या साहित्यांतल्यान फळावो बळार नावारूपाक येत आसा ही बऱ्याची कुरू. आमी जेन्ना जेन्ना दुबळे जातात तेन्ना तेन्ना आमी मातयेंत्यान स्फूर्त घेवंक जाय.

आपणाल्या यजमानकी उलोवपांत नागेश करमली हांणी नवोदीतांची गुणा वोळखणाय आनी तांका मार्गदर्शन करून सांगलें: साहित्यिकांनी आपणालें नीज आनी आपणाली माती केन्नाच विसरूंक फावना. ती भास आम्चान्नी न्हय तातूंत आमी कसलेंच व्हड पराक्रम करूंक शकचे नात.

उपरांत माधव बोरकार हांणी 'म्हाका आवडिल्ली कोंकणी कविता' ह्या विशयाचेर अभ्यासपुराय पेपर वाचलो. पेपर वाचना उपरात चर्चेची कार्यावळ जाली.

दनपारां सगळ्यांनी एकठांय बसून जेवणाची गोडी घेतली.

सांजेच्या आदेसाक "कोंकणी साहित्य आनी निसर्ग" ह्या विशयाबयलो परिसंवाद नावाजले साहित्यिक आनी विचारवंत रवींद्र केळेकार हांच्या यजमानपणाखाला जालो ह्या परिसंवादांत डॉ. मनोहरराय सरदेसाय आनी रमेश वेळुस्कार हांणी कोंकणी कवितेंतलो निसर्ग ह्या विशयाचेर पेपर वाचलो. तर तानाजी हळर्णकार हांणी कोंकणी नवलिकेंतलो निसर्ग हाचेर पेपर वाचलो. आपणाल्या यजमानकी उलोवपांत श्री. केळेकार हांणी म्हळें, कोंकणी साहित्यांत जें आसा दिसल्यार आमी समाधान मानूंक जायना. गोंयच्या अतिसुंदर संभांत धुंद जाल्लो कवि आमचे कडेन आजून ना. आमी साहित्यांत जगताना वर्तमानांत जगनास्तना भूत वा भविस्यांत जगतात. आमची नदर अदीक सेन्सीटीव्ह जावंक जाय.

निमाणकडेन साहित्यदर्शन हे कथाकथनाच्या कार्यावळींत दामोदर मावजो, लक्ष्मीनारायण पारज, एन्. शिरदास आनी दत्ता श्री. नायक ह्या कथाकारांनी आपणाल्यो कथा सादर केल्यो.

कार्यक्रमाचें संचालन दिगंबर सिंगबाळ हांणी केलें. उदय महांबरे हांणी सगळ्यांचे उपकार आठयले.

---

# ललितकांतल्यान जागृताय

1977 मेरेन मडगांव आनी पणजे हीं दोन म्हत्वाचीं शारां सोडलीं जाल्यार व्हडलेशे कार्यक्रम जायच नाशिल्ले. 1977 च्या काळांत शणै गोंय बाबांचे जल्मशतीच्या निमतान कवी आनी स्वातंत्र्य सैनीक नागेश करमली हांच्या फुडाकारान ललितकांच्यो कार्यावळी वेगळ्या वेगळ्या गांवांनी जाल्या. नागेशबाब सांगता ते प्रमाण सुमार 65 कडेन हे कार्यक्रम जाल्यात. ह्याय कार्यक्रमाक खूब बरो प्रतिसाद मेळ्ळा. तांचो कोंकणीची जागृताय करपाक आदार जाला. ह्या ललिकांनी दत्ता श्री. नायक, पुंडलीक नायक, एन. शिवदास, डॉ. तानाजी हळर्णकार, रमेश वेळूसकार, दिगंबर शिंगबाळ, अरुण शिंगबाळ, गजानन जोग बी आसताले. खंयच्याय गांवांत एखाद्रो कोणूय कथा वा कविता बरोवपी मेळ्यार ताचोय तातूंत आसपाव करून साहित्य सादर करपाक संद दिताले. 1979 च्या काळांत वळवय मेटावेल्या श्रीसत्यनारायण मंटपांत आमीय फुडें सरून ललितकाची कार्यावळ केल्या. तातूंत संजीव वेरेंकार, उदय म्हांबरो आनी प्रकाश द. नायक ह्या नव्या बरोवप्यांक संद मेळ्ळी. गांवांतल्यानूच लेखक आनी कवी एकटांय येवन कोंकणीचे नेटान कार्यक्रम करपाचो व्हड प्रमाणांतलो वावर गांवगिरे वाठारामदीं सावयवेंरें, वळवय वाठारांतल्यान जाला तितलो वावर त्या काळार आनीक खंयचेच गांवांनी जावना. कोणेय फाटलो कोंकणीचो सांस्कृतीक इतिहास तपासून पळयल्यार हें कळटलें. शांताराम

बाब वर्दे वालावलकार सांगतात ते प्रेमाण 1963 च्या अदमासाक दिवचले आनी साखळे ह्या दोनूय गांवानी कोंकणी भाशा मंडळाच्यो शाखा आशिल्यो. ह्या शाखांवरवी कांय प्रमाणात ल्हानशेच कार्यक्रम जाताले. पूण कांय काळा उपरांत तेय बंद पडले. 1973 च्या अदमासाक ह्या शाखांचें कोंकणी सेवा केंद्रामदीं रूपांतर जालें. कोंकणीचे खडेगांठ सेवक निकुबाब कारापुरकार, शांताराम वर्दे वालावलीकार, उदय सरदेसाय अशा कांय जाणांनी ह्या संस्थावरवी कोंकणीचो विधायक वावर केला. पूण त्या वाठारांत सावयवेरें, वळवय, केरी बेतकी, वाठाराक जशें कवी लेखकांचे भिरेंच लाबलें तें थंय लाबलेंना देखून तांचे काम चडूच मर्यादीत उरलें. पूण उपरांतल्या काळांत हो वावर फुडें व्हरपा खातीर कृष्णनाथ फोगेरी, विनायक गोवेकार, अवधूत मांद्रेकार हांणी बरीच धडपड केल्या.

पयल्या 1978 वर्सा सावयवेऱ्यां जाल्ल्या वासंतीक साहित्य मेळा उपरांत हें वारें सावड्डे, केपें वाठारांत पावलें. त्या वर्सा केपेंचे खडेगांठ कोंकणीचे वावुरपी कृशणनाथ करमली, सुहास दलाल हांणी फुडाकार घेवन केपेंच्या पॉप जॉन हायस्कुलांत सांगे–केपें साहित्य मेळाचें आयोजन केलें. तातूंन सावर्डेचे आयचे नामनेचे कथाकार वसंत सावंत, विठ्ठल आवदियेकार, जेस फर्नांदीश, सुरेश पै. ॲड. माधव प्रभूदेसाय, उदय करमली, डायगो फर्नांडिस, चंद्रकांत पार्सेकार, अशा लेखक कवींनी वांटो घेतिल्लो. ताचे उपरांत गोंयच्या हेर वाठारांनीय कोंकणी खातीर वावुरपी संस्था तयार जावंक लागल्यो.



# 'उदेती सकाळ'ची स्थापना

वासंतीक साहित्य मेळांतल्यान आमची उमेद खूबच वाडिल्ली. आमच्या सावय–वेरें वळवय वाठारांतल्यान कोंकणीचें संघटीतपणान काम करपाचें आमी थारायलें. आमी सगळेच विद्यार्थी. पूण ह्या वावराक पयशे कशे मेळोवप होय प्रस्न आशिल्लो. आमचो एक मीत्र सोमनाथ घुमसकार (सोमो) पिठाची गिरण चलयतालो, आनी दुकानूय चलयतालो ताका लागून ताच्या बोलसान पयशे खुळखूळटाले. ताचे अध्यक्षते सकयल 1978 वर्साच्या जून म्हयन्यात आमी 'उदेती सकाळ' नावांची संस्था

स्थापन केली. समिती वेचून काडून ती पेपरांत छापूनय हाडली. ती बातमी वाचून दुसरे काय तिसरे दिसा राउत देसाय नावांचो एक पोलीस सोम्याक सोदीत सावयवेऱ्यां पावलो. सोम्याले गिरणीर भाताचे साख आसताले. सोम्याक पोलीस सोदता म्हणपाची खबर गांवभर पातळ्ळी. ताची भियोवन गुळी. गिरणीवेल्या तांदळांच्या साकांचो ताका चड हुस्को. ते धरीत बी म्हणून ताका भिरांत. तो आनीक रावलोना. शेपडी तुटसर धांवत आमगेर पावलो. ताचे वांगडा पोलिसूय आयले. घर खात्याच्या नेमा प्रमाण असल्यो कसल्योय संस्था स्थापन जाल्यो म्हणटकच संस्थेचो हेतू तपासून पळोवपा खातीर गुप्तचर विभागाक म्हायती जाय आसता, हें आमकां कोणाकूच खबर नाशिल्लें. पोलिसांनी आमकां, म्हायती दिवपाक कसलोच भंय ना म्हण सांगलें. पोलिसांचेर तेन्नाय कोण विश्वास दवरी नाशिल्लेच. हांवें म्हायतीय दिली. पूण सोम्याचो भंय वचना. पोलिसांच्या भंयान आपणाक अध्यक्षपदूय नाका आनी संस्थाय नाका, अशें सांगून ताणे सगळेंच सोडून दिलें. उपरांत सोम्याचे अध्यक्षते सकयली समिती बरखास्त करून उदयाचे अध्यक्षते सकयल नवी समिती केली. तातूंत उपाध्यक्ष–संजीव वेरेंकार, सरचिटणीस–बाबुराव फ. नायक, सचिव–सदानंद बेतोडकार, भांडारी–रामकृश्ण खेडेकार आनी वांगडी म्हणून महेश नायक, प्रकाश द. नायक, अशोक शिलकार, विवेक वेरेंकार, बब्रुवान नायक हांचो आसपाव केलो.

प्रकाश नायकाचो बापूय, संगीतकार दत्ताराम वळवयकार, तांचे घरांत भजनी सम्राट मनोहरबुवा शिरगांवकार, नरहरी वळवयकार अशा मराठी संगीत–नाटक परंपरेत वाडिल्ल्या लोकांचें यो–वच आसतालें. उपरांत आमचे विचारां कडेन आयिल्लो ज्ञानेश्वर तारीचो बापुय कमलाकांत तारी, मराठी शिक्षक, तोय मराठीचो अभिमानी, अशें आसतनाय प्रकाशान आनी ज्ञानेश्वरान दूरदृश्टी दवरून आनी घरांतलो विरोध पत्करून कोंकणीचो विचार आपणायलो. आयज कोंकणीची फकत साय खावपी

लोकांक हें खबरच आसचेंना. प्रकाशाची आनी ज्ञानेश्वराची म्हाका आनी उदयाक तेन्ना सदांच अपूर्बाय दिसताली. चळवळ फुडें व्हरपाक तांचें योगदान म्हत्वाचें थरलां.

'उदेती सकाळ' संस्था स्थापन केल्ल्यान आमचे वेलो कोंकणीचो शिक्को चड दाट जालो. आमी कितेंय करपाक गेले जाल्यार आमकां सगळ्यांचोच विरोध आसतालो. लोक आमकां कोंकणी म्हणून उलो मारताले. जण एकलो आमकां कुच्छित्री नदरेनूच पळयतालो. कोंकणी कोंकणी करपी आमी म्हळ्यार समाजान हुवाळून उडयल्ले भुरगे, अशी लोकांची समजणी जाल्ली. जी भास आमी घरांत उलयतात, बाजारांत उलयतात, तेच भाशेची सेवा करता म्हणून लोक विरोध करतात, हाचे फाटलें कुवाडें कशेंच सुट नाशिल्लें. लोकांच्यो गाळी सोडून आमी तेन्ना दूसरें कांयच आयकूंक ना! आमच्या गांवांत डॉ. सदाशीव शेळडेकार नावांचो दोतोर आशिल्लो. ताचो मुळ गांव चांदरा. सावय वेऱ्यां तो वेवसाय करतालो. सगळ्यांक तांचोच आदार आसतालो. कोणाकूय कितेंय जाल्यार केदेय राती भायर सरतालो. हांव कोंकणी कविता बरयता हाची ताका तोखणाय दिसताली. ताणे केल्ले तोखणायेन म्हजे कवितेची पोसवण जावपाक बरोच आदार जाला. लेखिका माया खरंगटेचो तो काका. आपली पूतणयी मायाय बऱ्यो कविता बरयता अशें तो म्हाका सांगतालो. उपरांतल्या काळांत माया आमकां मेळ्ळें. दोतोराची पुतणयी म्हणून म्हाका अजुनय मायाची व्हडवीक. कांय काळा उपरांत तो रावपाक पणजे गेलो. आनी त्याच अदमासाक म्हळ्यार 1978-79त दोतोर म्हणून नामनेचे पर्यावरण मोगी डॉ. दत्ताराम देसाय सावयवेऱ्यां राबित्याक आयले. तांकाय सांस्कृतीक वातावरणाची फाटभूय आशिल्ली. पूण ते मराठीच्या वातावरणातले, पूण कडवे न्हय. मराठीवाल्यांच्या विरोधाची धार मातशी उणी जावची आनी आमच्या कोंकणीच्या वावराक मेकळें








वातावरण मेळचें ह्या हेतून 'उदेती सकाळ' संस्थेचो एक जाहीर सुवाळो श्रीअनंताच्या देवळाचे माचयेर केलो. आनी त्या सुवाळ्याक मुखेल सोयरो म्हणून डॉ. देसाय हांकां हाडले. म्हजे यादी प्रमाण तोवेळ मेरेन दोतोर देसाय आमचे वाठारांत मुखेल सोयरो म्हण गांवांत खंयच वचूंक ना. तेन्ना सावन गांवांत कसलोय कार्यक्रम जालो म्हणटकच सोयरो म्हणून डॉ. देसायूच आसतालो. देवाच्या पांयांकडेन आमी सुवाळो केल्ल्यान विरोधकांक आडखळ हाडप शक्य जालेंना. सुवाळो जैतवंत जालो. आमी वेगळ्या वेगळ्या वाठारांनी वचून कार्यक्रम करताले. पणजे आझाद मैदाना लागीं आशिल्ल्या टी. बी. कुन्हा सभाघरात को. भा. मंडळाचे कचरेत दर बिरेस्तारा सांजवेळां साहित्यीक कार्यक्रम जाताले. पणजेच्या हे कचेरेची सगळी जबाबदारी नागेशबाब करमली कडेन आशिल्ली. नवे कोणूय कविता, कथा, बरोवंक लागले म्हणटकच ताकां नागेशबाबान सदांच प्रोत्साहन दिलां. तांकां लागून कितलेशेच जाण कोंकणीच्या वावरांत आयले. ह्या मळार तांचे इतलें व्हडलें योगदान आनीक कोणाचें आसा, अशें म्हाका दिसना. 'उदेती सकाळ' चे वतीन आमी टी.बी. कुन्हात वचून कार्यक्रम करताले. त्या काळार पणजे जांव मडगांव ह्या शारांतल्यान सांजवेळां साडेस वरां उपरांत गांवात येवपाक बशी नासताल्यो. आमी कार्यक्रम करपाक पणजे वताले. उपरांत सांजवेळां उसरां माशेलान मेरेन बशींत येताले, आनी थंयच्यान चलत घरा येताले. मडगांवां कमुनिदाद बिल्डींगेत संस्कृत प्रचारणीचें कार्यालय आशिल्लें. थंय बाबली नायक आनी अनील पै आसतालो. थंयूय वचून आमी कार्यक्रम करून फोंडेच्यान चलून घरा आयल्यात. हाचेर आतां कोण विश्वास दवरतलों? जांकां खबर आसा तेय आतां कोणाक सांगतशे दिसना. तें सांगले जाल्यार संजीव, प्रकाश, उदय कोंकणीचे वावरांत कितले फूडें आशिल्ले हें कोंकणी समाजाक कळटलें. देखून कांय लोक ह्या वावराची दखल घेना आसूक जाय. नवे पिळगेक





तर ह्यो पुराणातल्यो काणयो कशो दिसताल्यो. कोंकणी चळवळीत आमी सामकेच भारावन गेल्ले. मोग आसल्यार खंय घाटार लेगीत हुनहूनीत वडे पावतात. ही जाणटेल्यांची म्हणणी आमचे बाबबतींत मुदयेर थीक कशी बसताली. आयज आमी आमचे भुरग्यांक खंयुच एकटीं पातयेनात. बदलत्या काळाचे परिस्थितीतल्यान हें घडटा, अशेंच म्हणचें पडटा. आमी, चडशे सगळ्याच भुरग्यांचे पालक अशे वागिल्ल्यान आयची चडशी नवी पिळगी कसलेच बाबतीत न्याय मेळोवपाखातीर रस्त्यार येवक पावना. ताचो वायट परिणाम म्हणून नवीं चडशीं भुरगीं सामाजीक बांदिलके कडल्यान पयस वचूंक लागल्यांत, अशें म्हाका दिसता. चिंतन करपाचो हो विशय.

'उदेती सकाळ' चो हो वावर चालू आसतनाच पुंडलीकबाब नायकान फुडाकार घेवन आपल्या वाड्यावेल्या तरणाट्यांक 'रंगसांगाती' हे संस्थेच्या बावट्या खाला संघटीत केले, आनी कोंकणी नाटकांची चळवळ फुडें व्हेली. रंग सांगातीची स्थापना 28 मार्च 1979 वर्सा जाली. पूण ताचेय आदीं 29 नोव्हेंबर 1977 वर्सा सांतेरभाट वळवय हांगा श्री शांतादुर्गेच्या देवळाचे माचयेर शणै गोंयबाबांच्या 'पवनाचें तपलें' ह्या नाटकाचो प्रयोग जैतवंत जाल्लो. ह्या नाटकाक प्रेक्षकांची उफाट गर्दी आशिल्ली. हांवे सामकें फुडल्या कदेलार बसून नाटक पळयलां. ताचे उपरांत दर वर्सा, रक्तखेव, बंदी, मुक्तताय, सूर्यसांवट, शबै शबै भोजन समाज अशीं दर्जेदार नाटकां सादर केल्लीं

पुंडलीकाच्या ह्या नाटकांनी त्या काळार रसिकांचेर बरोच प्रभाव घाल्लो. ताच्या ह्या योगदानाक लागून कोंकणी नाटकां खूबच बरीं आसतात, हो संदेश भोंवतणच्याय वाठारांत पळतळिल्लो. पुंडलीकाचें नाटक आसा म्हण कळटकच सावयवेरें, केरी, आपेव्हाळ, बेतकी, माशेल ह्या

वाठारांतल्यानय लोक येताले. गांवां गांवानी कोंकणी नाटकांची चळवळ सुरु जाली ताची खरी बुन्याद सांतेर भाटांतच पडल्या अशें हांव तरी म्हणन. 'शबै शबै भोजन समाज' ह्या नाटकान जाल्यार क्रांतीच केली. नाटकांचे हे चळवळींत हिरू नायक, ताची घरकान्न सुकांती गावडे, महादेव नायक, प्रकाश मणा नायक, गिरीश नायक, विनंती कासार (कळंगुटकार) अशा थळाव्या कलाकारांचें योगदान खूबच व्हडलें आसा. म्हजे मतान सुकांती हें कोंकणी रंगमाचयेवेलें गुणी कलाकार. त्या काळार कोंकणी नाटकांनी अभिनय करपाक बायलां कलाकार मेळप कठीण जातालें. कोंकणी म्हणल्यारच गांवांनी हुश्शो घालताले. सुकांती, विनंतीचें ते वेळावेलें धाडस तोखणायेचेंच. तांणी अभिनय केलो तो वेवसाय म्हणून न्हय. कोंकणीचे सेवेखातीर तीं माचयेर चडटालीं. आयज कोंकणी नाटक, सिनेमात अभिनय करपाक कोणूय बायलां तयार आसतात. राजदीप, विठ्ठल नायक, प्रशांत सतरकार हांच्या वेवसायिक कोंकणी नाटकांनी आमच्या शेजारचीं कितलीशींच भुरगीं अभिनय करतात. विनंती आनी सुकांतीचे कोंकणी सेवेची दखल घेवंक जाय तशी कोणे घेतलीना. हाची खंत म्हाका तरी आसा. नाटकां जांव कोंकणीचे हेर कार्यक्रम आसत ते यशस्वी करपाक कश्टांची कामां करपीय मनीस जाय आसतात, अशा मनशांचेंय योगदान तितलेंच म्हत्वाचें आसता. नाटकां वा हेर कार्यक्रमा खातीर रोहिदास गावडे सारक्या मनशांनी घेतिल्ल्या परिश्रमाकडेन आडनदर करू शकना.

आमच्या सांवयवेऱ्यां मोहन वेरेंकार आनी वळवय ॲड पांडुरंग नागवेंकार मराठीचे अभिमानी. ते तेन्ना कोंकणीक भास म्हणून मानूक तयार नाशिल्ले. घरांत कोंकणीच उलयतात पूण ती आमची बोली म्हणटाले. सर्वसामान्य लोकांक तांचेंच म्हणणें खरें दिसतालें. तांचेर ह्या दोनूय फुडाऱ्यांचो त्या काळार बरोच प्रभाव आशिल्लो. अनील चं. नायक हो म्हज्या वाड्यावेलो. तोय मराठी वटेंतलोच पूण आमच्याय वावराचो

**तो ठराव मागे घेतला**

ताका अभिमान दिसतालो. आमी खंयचोय उपक्रम केल्यार ताचें प्रोत्सान आसतालें आनी देणगीय आसताली. हाची कल्पना आमच्या मोहन बाबाक आनी नागवेंकार बाबाक आशिल्ली काय ना तें हांव नकळो. आमचो सांस्कृतीक आनी साहित्यीक नदरेन वावर चालूच आशिल्लो. तांचे मदीं कवी, लेखक कोण नाशिल्ले ताका लागून तांचे कडल्यान मराठीत निर्मिती नाशिल्ली. पूण नागवेकार बाबान आपले वाठारांत महाराश्ट्र परिचय केंद्राच्या आदारान मात मराठी कार्यक्रमाचो झपाटोच लायल्लो.

ह्याच वेळार म्हळ्यार 1980 वर्सा वळवयचे सुपूत तुकाराम रामा शेट हांचे 'पाखलो' हे कांदबरिकेक गोवा कला अकादमीचो पुरस्कार फाव जालो. आमकां सगळ्यांक ताची उमेद जाली. ही गोड बातमी ताजी आसतनाच ॲड. नागवेंकार हांच्या मार्गदर्शना खाला वळवय वाठारांतल्या संस्थांची एक बसका

**हे काही बरोबर झालेले नाही**

आपयल्ली. हे बसकेक पुंडलीक बाब, महादेव नायक, नारायण तारी ही हजर राविल्ले. आपल्या गांवच्या सुपूताक पुरस्कार प्राप्त जालो, हे उमेदीन तारी हांणी तुकाराम बाबांचे अभिनंदन करपी एक थाराव बसकेंत मांडलो. पूण नागवेंकारबाब आनी सुभाष बाब सावंत हांणी विरोध केल्यान थराव भायर पडलो. ह्या प्रकाराक लागून पुंडलीकबाब आनी ताचे सहकारी पेटून उठले. ताणी खर उतरांनी हे घडणुकेचो निशेध केलो. नवप्रभा आनी राश्ट्रमत दिसाळ्यान ह्या गैर प्रकाराची दखल घेवन विरोध पत्रांक फाव ती सुवात दिली.

संजीव वेरेंकार आनी उदय म्हाबऱ्यान नवप्रभांत पत्रां बरोवन हे घडणुकेचो निशेध केल्लो. त्या काळार लक्ष्मीदास बोरकार हे नवप्रभाचे संपादक ताचे उपरांत सुरेशबाब वाळवे. सपादक वाळवे संपादक म्हणून निवृत्त जाय मेरेन नवप्रभा ह्या दिसाळ्यान कोंकणीक न्याय दिवपाचें काम सदांच केलां. गोमंतक हें तेन्ना सगळ्यांत चड खपाचें दिसाळें. तें सदांच मराठीचीच बाजू उखलून धरतालें. तुकारामबाबाच्या अभिनंदनाचो थराव भायरावपाचो विशय त्या काळार बरोच गाजलो. कोंकणी भाशेचे चळवळीचे नदरेन ह्या विशयाक बरेंच म्हत्व आसा. कोंकणी मोगींची पयली सावन अस्मिताये खातीरची चळवळ सुरु आशिल्ली. साहित्याच्या दृश्टीकोनातल्यान आमचो मराठीक केन्नाच विरोध नाशिल्लो. आमच्या खंयचेय कार्यक्रमात कोणूय येवन मराठीतल्यान भाशण दिवपाक शकतालो. असले बाबतीत आमी भयरो जळोप बाळगूंक ना. आमच्या राज्याची भाशा म्हणून कोंकणीकच पयलो मान मेळूंक जाय हेंच आमचें धोरण आशिल्लें. मराठीय कोंकणीचींच भयण हें आम्ही विसरूक नाशिल्लें.



# 'छप्पन थिगळी येसवंत' गांवांगांवात

म्हजी पिळगी कोंकणी चळवळीत देंवल्या तो मेरेनाच्या काळांत जण एकलो निस्वार्थीपणानच वावुरतालो. कोंकणीचे नावान पयशे जोडपाचे आसतात हें कोणाकूच खबर नाशिल्लें. आमी केल्लो तशेच तरेचो वावर नवे पिळगेन करचो अशें म्हणपूय चुकीचें. पूण आमचे पेक्षां जाणटे आशिल्ल्या म्हाल गड्यांनी आनी म्हजे पिळगेच्या प्रतिनिधींनी सामकेच निस्वार्थी रावून आनी पदरमोड करून चळवळीत चीरे लायले म्हणूनच नवे पिळगेक उबे रावूंक मेळटा हाचो विसर पडूंक फावना.

साहित्याचे मळार पुंडलीकबाबाचो सगळ्याच विशयांक स्पर्श जाला. 1979 च्या काळांत ताचे लेखणेतल्यान 'छप्पन थिगळी येसवंत' हो आगळो-वेगळो एकपात्री देंवलो. हाचे आदीं कोंकणीत 'आप उलोवप' हो प्रकार घोळटालो. पूण तो शाळा-विद्यालयांच्या स्नेह-संमेलनापूर्तोच मर्यादीत उरिल्लो. त्या काळार पणजेची सानमाची ही संस्थाय नाटकाचे मळार वावुरताली. पुंडलीक बाबाचें 'खणखण माती' हे पयलें नाटक हेच संस्थेन यशस्वी केलां. ह्याच वेळार एका हमालाची व्यथा मांडपी 'छप्पन थिगळी येसवंत' ह्या एकपात्रीची सानमाची संस्थेन निर्मिती केली. नामनेचे दिग्दर्शक दिगंबर शिंगबाळ हाणी दिग्दर्शीत केल्लो हो येसवंत नामनेचे कुशल कलाकार भरत नायक हांणी माचयेर हाडलो. ताचो पयलो प्रयोग 15 ऑगस्ट 1979 वर्सा पणजेच्या इन्स्टिट्यूट मिनेझ ब्रागांझा

सभाघरांत जालो. ताका फ्रान्सिस आनी मिनीन डिसौजा हांणी संगीत दिलें. म्हजे मतान कोंकणीतलो हो सर्वांग सुंदर एकपात्री कोंकणी चळवळीचो वांटो म्हणून आमच्या भरत बाबान गोंयच्या खाची कोनशांनी, तिट्यार लेगीत वचून सुमार सत्तरेक प्रयोग केले. ह्या प्रयोगांतल्यान कोंकणीत कितें तरी वेगळें जाता हें सामान्य लोकांक कळूक पावलें. म्हाका हेरशीं तांत्रिक कसलेंच काम कळना. हांवें लेगीत भरता वांगडा धा–बारा गावांनी वचून ल्हानसो टेपरेकोर्डर घेवन 'छप्पन थिगळी येसवंताक' आदार केला.

## कोंकणी पुस्तकां जात्रेक

कोंकणीत पुस्तकांच ना. मराठीत कितलीशींच आसात. तीं जात्रेक लेगीत मेळटात. अशें म्हणून आमकां लोक हिणसायताले. तेन्ना तकली पिकार जाताली. कोंकणी पुस्तकां सोपेपणान मेळनाशिल्लीं ही गजाल खरी, पूण तीं ना म्हणून आमकांच कित्यांक हिणसावप? तीं तयार करपाचें काम कोणाचें? तीं तयार करपाक भायल्यान लोक येतले? आपूण जी भास उलयता तें भाशेंत पुस्तकां तयार करपाचें काम आमचेंच आसता, हें आम कां हिणोवप्यांक कळनाशिल्लें. 'निंदकाचे घर असावे शेजारी' अशें तुकाराम महाराजान म्हळां तें सारकें. निंदक आसले म्हणटकच पोटतीडक वाडटा. हेच पोट तिडकीतल्यान संजीव वेरेंकार, भरत नायक, अशोक भोसले आनी अ.उ. नायक एकठांय (अ. उ. म्हळ्यार अशोक उत्तम नायक. ताका उ.उ. म्हणूनच वळखताले) आयले आनी जात्रेक पुस्तकांचे मांड घालून बसपाचें थारायलें. पुस्तकां खपोवन पयशे मेळटले म्हणून न्हय, जाल्यार जात्रांक लेगीत कोंकणी पुस्तकां मेळटात हो संदेश पातळूंक जाय. ह्या वावराक आमी नागेशबाब करमलीचो आशीर्वाद घेतलो, आनी पयलो मांड पणजे मळ्यांतले मारुती गडावेले जात्रेक घालो. आमी बोलसाक 'पुस्तक प्रसार'

असो बिल्लो लायताले. वेगळ्या वेगळ्या प्रकाशकां कडल्यांन पुस्तकां मेळोवन दिवपाचें काम नागेश बाबान केल्लें. मारुती गडार मांड घालता तेन्ना आमी जेवपाक मळ्यांत नागेशबाबागेर आसताले. माशेलांतले मालने पुनवेक मांड घालपाक चित्रकार किर्तीकुमार आदार करतालो. जेवपाकय आमी तांगेरच आसताले. मंगेशी पुनवेकूय आमी पुस्तकां घेवन बसल्यात. जात्रांनी तिनशीं ते चारशीं रुपयांची ल्हान ल्हान पुस्तकां खपतालीं. पूण लोक पुस्तकां चाळून पळयतालो तातूंतच आमी धादोस जाताले. मारुती गडावेलो एक अणभव यादींत आसा. आमी कोंकणी पुस्तकां विकूंक हाडल्यां तें पळोवन अनंत बिट्टोणकार नावांचो केळ्यांचो वेपारी खूबळ्ळो. देवाच्या पायां कडेन तुमी ही कोंकणी पुस्तकां हाडलींच कशी? अशें विचारून तो आमच्या आंगार आयलो. अशोक भोसल्यान हावा-शिवा करून ताका थातारलो. लोकांनीय झगडीं पळोवपाक गर्दी केल्ली. माशेलान आमच्यां मांडाकडेन चंद्रकांतबाब केणी पावले. तांचीय पुस्तकां विकूंक दवरिल्ली. ताका पळोवन आमकां उमेद जाली. आमकां दिसलें केणीबाब आमची फाट थापटितलो म्हूण. पूण केणीबाबाक कितें दिसलें म्हूण कोण जाणा, तो आनीक चड वेळ थंय रावलोना. रोखडीच थंयच्यान कुस मारली. केणी बाबालो थंय देव. देखून तो जात्रेक आयिल्लो.

ही असलीं चळवळीचीं कामां चालू आसतना म्हजें कविता बरोवपाचेंय काम चालूच आशिल्लें. आमी जात्रेक पुस्तकां घेवन वता ही खबर ज्ञानपीठकार रविंद्रबाब केळेकार हांका कळिल्लें. ताकां बरें दिशिल्लें. 'जाग' हें तांगेलें नेमाळें. जाग नेमाळ्यान कविता छापून येवप म्हळ्यार व्हडलें. अशें आमकां दिसतालें. म्हजीय कविता तातूंत छापून येवची, अशें म्हाका दिसलें. ते खातीर एक दीस, हांव महेशाक काय कोणाक तरी घेवन पिर्वळा नंगरान गेलो. बोलसांत कविता आशिल्ली. तांणी म्हाका म्हळें, कविता, कथा बरोवपी

खूब आसात. पुस्तकांचें वितरण जावपाक जाय. तुमचे सारक्यांनी ताका माथें मारुक जाय, अशें सांगून गुजराथांतल्या एका मनशान पुस्तकांचो प्रसार करून कशें नांव मेळयलें, ताचें उदारणय दिलें. विद्यालयानी पुस्तकां पावूंक जाय अशें सांगलें. तांचें हें आयकून 'जागा'क दिवक व्हेल्ली कविता भायर काडपाचें म्हाका धाडसूच जालेंना. ती बोलसांतच उरली.

विद्यालयांनी पुस्तकां पावूक जाय, ही रविंद्रबाबाली सुचोवणी तकलेंत उरिल्ली. दर पुस्तकाचेर पंचवीस टक्के कमिशन दिवपाची वेवस्था जाता, अशें ताणी म्हणिल्लें. हांव बेकार. मनात म्हळें, स्वार्थूय जालो आनी परमार्थूय जालो, अशें म्हणून अभयकुमार वेलिंगकारालें शणै प्रकाशन, जाग प्रकाशन, पुंडलीकालें म्हळ्यार हेमा नायकाचें अपूर्बाय प्रकाशन, भरतालें नामी प्रकाशन अशा वेगळ्या वेगळ्या प्रकाशना आनी लेखकां कडल्यान पुस्तकां जमयलीं आनी पुस्तकांची पोटली खांदार मारून विद्यालयांनी भोवपाक सुरवात केली. नवीं पुस्तकां व्हेली जाल्यार डायोसिझन सोयायटीचीं विद्यालयांनी तीनशें ते चारशी रुपयांचीं पुस्तकां घेतालें. पूण पयशे मात चेकाचे रुपान दोन ते तीन म्हयन्यानी मेळटाले. तेच खातीर हांवें सावयवेरेंचे इंडियन ओव्हरसिस बँकेंत अपूर्व पब्लिकेशन अशे नावान खातेंय उगडिल्लें. त्या काळार बँकेन खातें उगडपाक आयचेवरीं वेगळे वेगळे दाखले बी दिवचे पडनाशिल्ले. विद्यालयांनी पुस्तकां विकतना एक याद उरपा सारको अणभव आयलो. पुस्तकांची पोटली घेवन हांव पणजेच्या डॉनबोश्को हायस्कुलांत गेलो. थंयच्या प्राचार्यान म्हाका बरो येवकार दिलो. हांवूय कवी मुण सांगतकच ताका चडूच बरें दिसलें. ताणे म्हाका दोन हजार रुपयांचीं पुस्तकां हाडपाक सांगलीं. एके वटेन म्हाका उमेद जाली आनी दूसरे वटेन चिंताय जाली. दोन हजार रुपयांची पुस्तकां हाडप खंयच्यान? हांवें खूब प्रयत्न करून वेगळ्या वेगळ्या लेखकां

कडल्यान पुस्तकां हाडलीं. दोन हजार रुपयांची पुस्तकां घेवन पर्तून डॉनबोश्को हायस्कुलांन गेलो. ताणी बील दिना फुडें चेकुय हातान दिलो. कितली उमेद जाली म्हणून सांगू!

कांय विद्यालयांनी वायटूय अणभव आयला. हिंदू वेवस्थापना आशिल्ल्यो कांय संस्थां पयशे दिवपाक कांऽकूं करताल्यो. पुस्तकां विकून त्या त्या लेखकांक, प्रकाशकांक पयशे दिवपाचे. ते पयशे वेळार मेळूक नाशिल्ल्यान हांव त्रासांत पडलो. कांय लेखक, प्रकाशक पयशां खातीर म्हजे मानेर सुरी दवरिनाशिल्ले. अपूर्बाय प्रकाशनाक बी रोखडे दिवचे पडटाले. 'जाग' प्रकाशनाचो सुमंतबाब केळेकार पर्तून पर्तून पयशे पावय म्हूण रेकाद आनी पत्रां धाडटालो. म्हजे कडेन पयशे नासताले. एक दीस ताणे ताच्या नात्यांतल्या एका मनशाक धाडून पयशे आनी पुस्तकां ताकतिकेन पावय म्हणून रेकाद धाडलो. तेन्ना मात झक मारलो आनी ह्या जंजाळांत पडलो अशेंशें जालें. सोसायटीतल्यान तांदूळ हाडपाक म्हजे कडेन पयशे दितालीं. तेन्ना तांदुळय खूब मेळटाले. दर पंदरशेक हांवें तांदूळ उणे हाडप, तांतले थोडे पयशे दवरून घेवप, भावाल्याय गवेदांतले कांय पयशे फारायले. घरांतली रद्दी एकाठांय करून बाजारांत विकली. आनी म्हयन्या भरा उपरांत पिर्वळा वूचन 245 रुपया आनी उरिल्ल्या पुस्तकांचो गठ्ठो पावयलो. ते खिणा सावन विद्यालयांनी भोवून पुस्तकां विकपाचें बंद केलें. त्या काळार कोंकणी खातीर आमी कितें कितें केलां हें नवे पिळगेक कळचें ह्या एकाच हेतून हांवे हो अणभव बरयला. सुमंतबाबान पयशे मागले ही तांची चूक न्हय. हांव ते वेळार पावोवक शकलोना ही म्हजी चूक.



# काणकोणचें साहित्य संमेलन

1939 सावन गोंय, महाराश्ट्र, कर्नाटक, केरळ राज्यांनी कोंकणी साहित्य परिशदो, संमेलना सुरु जाल्लींच. 1939 वर्सा कारवारांत माधव मंजुनाथ शानभाग ह्यांच्या फुडारपणा खाला जाल्ल्या अधिवेशनात कोंकणी चळवळीची दिका थरली हो इतिहास. कोंकणीची चळवळ गोंयां भायल्यानुच सुरु जाली, हेंय सत्य. चारुय राज्यांतल्या कोंकणी चळवळींतल्या म्हालगड्यांच्या प्रयत्नातल्यानूच 1975 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादमीची कोंकणीक मान्यताय मेळ्ळी. शणै गोंयबाबान कोंकणीक प्राण फुकूंक नाशिल्लो जाल्यार आधुनीक रुपान कोंकणी चळवळ फुडें वचची नाशिल्ली. कोंकणी विशय घेवन पीएचडीय कोणाक करूक मेळची नासली. अस्मितेच्या ह्या वावरा खातीर तांकां नमन. तांकांच लागून उपरांतल्या काळांत कोंकणी राज्यभास, गोंय घटक राज्य, घटनेचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आसपाव हे विशय फूडें येवन चालीक लागले. साहित्य अकादमीन कोंकणी मानून घेतले उपरांत कोंकणी लेखकांक साहित्य अकादमीचे पुरस्कार मेळपाक लागले. पयलो पुरस्कार ज्ञानपीठ जैतवंत साहित्यकार आनी विचारवंत रविंद्रबाब केळेकार हांकां फाव जालो. म्हजे पिळगेक तेन्ना ताचें व्हडलेशें म्हत्व कळ नाशिल्लें, पूण उमेद जाताली. हांव कोंकणी कोंकणी करता तें पळोवन हे सगळे असले पुरस्कार बामणाकूच ते दितले, तुका कांय एक मेळपाचेंना, अशें म्हणून म्हाका लोक हिणयताले, आतांय कांय जाण हिणयतात, अशें म्हणटा म्हणून कोंकणीची सेवा

सोडलीना. मनीस मनशाचेर अन्याय करूक शकता, तो त्या मनशांचो दोश. भाशेचो दोश आसूंक शकना. कांय जाण हुंदराच्या रागान घर हुलपावन वडयतात. आमी तशें करूक शकनाशिल्लें. म्हणूनच अखंडपणान हांव अजुनूय कोंकणीची सेवा म्हजे ताकी प्रमाण करीत आसा.

फेब्रुवारी 1981 वर्सा काणकोणा चावडेवेल्या शेतांत अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन जालें. पयलेंच खेपे म्हजे सयत म्हजे पिळगेंतल्या नव्या कवीता कथा बरोवप्यांक तातूंत वांटो घेवपाची संद मेळ्ळी. हें संमेलन जैतवंत करपाक आरवीएस म्हळ्यार रमेश कोपरपंत, अनील पै, दिलीप गायतोंडे, वामन साखरदांडे, संदेश पै, गिरीश पै, मोहनदास कामत, मानुएल फर्नांदीश, स्वा. सैनिक राहुल बोस, कमलाकर म्हाळशी, आंतोनेत पेरेरा (अश्मा पागी), अशा कोंकणी मोगींनी खुबच कश्ट घेतिल्ले. तेन्ना सावन संमेलना परिशदो म्हळ्यार देवाच्यो जात्रा कशो मानून म्हजे सारके कितलेशेच कोंकणी भक्त हजेरी लायताले. म्हाका आमंत्रण येवक ना, असो वी शीणूच नासतालो. संमेलनातल्यान एका– मेका कडेन वळखी जातात्यो. त्यो आमी वाडयताले. खंयचेय वाठारांत कोंकणी पासत कोणूय वावुरता म्हण कळटकच तांकां वचून मेळटाले. कोंकणी ह्या एकाच दोराच्या पोडार आमी सगळे गुथिल्ले आसताले. आयज तशें ना. म्हज्या शेजारचे कितलेशेच भुरगे, नाटकांच्या माद्यमातल्यान कोंकणीत आसात. चार पयशे जोडटाय. पूण तांकां केन्ना म्हाका येवन मेळचेशें दिसूना. तांची कोंकणी वेवसायापूर्ती मर्यादीत आसता. कोंकणीचेर संकट आयलें म्हणून ते सगळे येतलेच अशें म्हणपाचें म्हाका धाडस जायना.

काणकोणाचें संमेलन जैतवंत जाल्ल्यान रविंद्रबाब केळेकार, चंद्रकांतबाब केणी, अॅड. उदयबाब भेंब्रे, गुरूनाथबाब केळेकार, नागेशबाब करमली, यशवंतबाब पालेकार, नारायणबाब मावजो हांचे सारक्या म्हालगड्यांक कोंकणीत नवे भुरगे येवक लागल्यात हाचें समाधान

जातालें. आमी तांकां सदांच आदरानच पळयताले. ह्या संमेलनातल्यान आमची उमेद खूबच वाडिल्ली. ह्या संमेलनाचे निमतान रमेश कोमरपंत, मानुएल फर्नांदीश हे नवे मीत्र मेळिल्ले. 1980 च्या काळांत कोंकणीतले म्हालगडे आनी स्वातंत्र्य सैनिक गुरुनाथबाब केळेकार, ख्रिस्तोफर फोन्सेका हांणी 'नवें गोंय' नेमाळें सुरु करपा खातीर निधी उभारपा आनी लोक जागृती करपाचे हेतून गोंयभर पदयात्रा काडिल्ली. ते निमतान सावर्डेचे आनंद मंगेश नायका सारके पत्रकारितेची आवड आशिल्ले तरनाटे कोंकणी चळवळीत आयिल्ले. आनंदूय आमकां काणकोणाच्या संमेलनात मेळ्ळा. सावर्डे वाठारांतय कोंकणीचे कार्यक्रम जावंक लागिल्ले. थंयूय हांव हजेरी लायतालो. सावड्ड्या वतकच आमी चड करून वसंत सांवतागेर रावताले. अशोकबाब कामतीगेर च्या घेताले. खरें सांगपाचें म्हळ्यार ते दिसूच चैतन्यान भरिल्ले आसताले. दर कोंकणी वावुरपी हो आपल्याच कुटूंवाचो घटक अशी आमची सगळ्यांचीच भावना आसताली. कोंकणी शिवाय दूसरे आमी कितेंच येवजी नाशिल्ले. एका मेकाविशी मोग आनी अभिमान दिसतालो.

मजगतच्या म्हळ्यार 1979–80 च्या अदमासाक भौ. गुरुनाथबाब केळेकार आनी सद्याचे कामगार फुडारी ख्रिस्तोफर फोन्सेका हांच्या फुडारपणाखाला गोंयभर पदयात्रा काडून मडगांवच्यान सुरु केल्ल्या. रोमी लिपयेतल्या 'नवें गोंय' चीय कोंकणीच्या मळार जागृताय करपाक खूबच मदत जाल्या. डॉ. फ्रान्सिस रिबेलो, ॲड. गुस्तांव, प्लोरियानो वाझ, हांचे कल्पनेतल्यान 'नवें गोंय' तयार जाल्लें. काणकोण ते पेडणे मेरेन ताणी पदयात्रा काडल्या. पोळेंच्यान जोत पेटोवन जाल्ले पदयात्रेक लागून आरबीएस चळवळीत खुबूच सक्रीय जाल्लो.



# सावयवेच्यां कोंकणी नाटकांची परंपरा

तशें पळयल्यार आमच्या सावयवेंर वाठाराक कोकणी नाटकांची आनी नाटकुल्यांची खूब पोर्नी परंपरा आसा. कोंकणी नाटकांचो इतिहास बरोवप होय म्हजो विशय न्हय. पूण म्हजी एक रीत आसा. देवूळ रंगयता आसतना वाटेर घुमटी जांव एखाद्रें पेड मेळें जाल्यार तें सोडून दिवप ना. तांतलोच इल्लो ताकाय रंग मारले वगर म्हज्यान रावू नजो.

आमच्या देवळांचे माचयेर कोंकणीतल्यान नाटक जांव येता हाचो कोण विचारुय करुक शकनाशिल्लो अशा 1968 च्या काळांत श्री अनंताचे माचयेर कोंकणी एकांकीका जाल्या, तातूंन अभिनय केल्ले अजून आसात. भोशेची चळवळ म्हणून हो प्रयोग न्हय. 'जय जवान जय किसान' हो हॉलीबोल क्लब गांवांत आशिल्लो. रजनीकांत शेट वेरेंकार, हिराचंद्र नायक, रावजी शिंगबाळ तातूंत खूब सक्रीय आशिल्ले. क्लबाचे वतीन देवळा कडेन दर वर्सा गंदपूजा आनी नाटक करताले. रमेश वेरेंकार, संजीव वेरेंकाराचो व्हडलो भाव. तो पणजे आलतिन्यावेल्या इंजिनीयरींग महाविद्यालयांत शिकतालो. तेच वेळार म्हळ्यार 1968 वर्सा ताणे महाराश्ट्रांतल्या एका मराठी लेखकाचे एकांकिकेचें कोंकणीत रुपांतर करून सुमार अर्दवराची एकांकी क्लबाच्या कार्यक्रमात सादर केल्ली. म्हाका याद जाता ते प्रमाण दिग्दर्शनूय ताणेच केल्लें. रमेशाचोआनी त्या क्लबाचो संबंद नाशिल्लो पूण रजनिकांत उर्फ रजी शेट वेरेंकारान ताचे कडल्यान हें

काम करून घेतिल्लें, हाची म्हाका याद आसा. मराठी एकांकिकेचें रुपांतर करून ती बसोवपाचे कामूय आमचेच घराचे माळयेर जाल्लें. तातूंत जय प्रकाश शेट वेरेंकार हाणे मुखेल भुमिका केल्ली. म्हजो दुसरो भाव अनील वेरेंकार हाणेय बारीकशी भुमिका केल्ली. तो हेरशी अभिनय करप्यांतलो न्हय. ताणे ही एकूच भुमिका केल्ली आसूंक जाय. उपरांत हांवें केन्ना ताचो पार्ट पळोवक ना. तो कलाकार न्हय. ते काळार एकांकी म्हण नाशिल्ले. नाटकुलें म्हणटाले. अर्द वराचो तो प्रयोग. रेडीयोचेर नाटकुलीं करता ताका श्रुतीका म्हणटाले. एकांकिका हें हालींचें आधुनिक उतर. हें नाटकुलें हांवें देवळाच्या आंगणात बसून पळयलां. माचयेर कोंकणीतल्यान उलयतात तें पळोवन लोकांच्या पोटान हासून हासून पेणको आयल्लो. रमेश वेरेंकारानूय आपले भितर आशिल्ले हें कलेचें लेखनाचें आंग फुडले काळांत विकसीत केलेंना. ताणे अभियांत्रिकेच्या आपल्या वेवसायांनूच गुणवत्ता दाखयली. पूण नकळटांच म्हज्यांत तो कीडो रिगलो आसूंक जाय.1968 पयलींय श्री अनंताचे माचयेर सखाराम बर्वे हांच्या 'प्रणयी किटक' नाटकाचो प्रयोग आमच्याच कलाकारांनी केला. पूण हें नाटक पूर्ण कोंकणी न्हय. मराठी आनी कोंकणी. मिस्तूराद. हालींच्या काळांतय त्या काळावेले जाणटेले 'प्रणयी किटक' नाटकाची घोस्तान याद काडटाले. 1973 वर्सा वसंत पुजेच्या दूसरे दिसा तरूण नाट्यमंडळ सावयवेरें हांचे वतीन पुंडलीक दांडो हांच्या 'ताची करामत' नाटकाचो प्रयोगूय श्री अनंताचे माचयेर जाला. हे कोंकणी नाटक करपा खातीर वळवयचे श्रीकांत म्हांबरे, सावयवेरेचे दिनानाथ शिंगबाळ, रमेश हेदो, अशा त्या वेळावेल्या उमेदी कलाकारांनी फुडाकार घेतिल्लो. उपरांत 30 नोव्हेंबर 1981 दिसा श्रीअनंताच्या काल्याच्या उत्सवांत सांगडाचे रातीक रंगसांगती वळवय हे संस्थेन पुंडलीक नायक हांच्या 'सूर्य सांवट' ह्या नाटकाचो प्रयोग केला. उपरांत 1984 च्या काळांत

कलादर्पण सावयवेरें हे संस्थेन एन. शिवदास हांचे 'कारस्थान' हें नाटकूय हेच रंग माचयेर काल्याच्या उत्सवांत केलां.

कोंकणी राजभास जाले उपरांतय आमचे वाठारांतलें तापिल्लें वातावरण सामकेंच निवळूक नाशिल्लें. कोंकणीतल्यान कसलोय कार्यक्रम करता सो दिसल्यार गांवांतले कांय लोक नखलामी करताले. हे फाटभूयेर श्री अनंताच्या उत्सवांचे तिसरे म्हळ्यार लालखी उत्सवाचे रातीक दत्ताराम कामत बांबोळकार हांच्या 'रथोत्सव' नाटकाचो जैतवंत प्रयोग केलो. ह्या नाटकाक लोकांची उफाट गर्दी आशिल्ली. कोंकणी नाटकां वरीं जातात, अशी चर्चा तेन्ना लोकांमदीं सुरु जाल्ली. नाटक चालू आसतना वी लायट कोणेय उडोवची न्हय म्हुण लायनमन लेगीत तयार दवरिल्लो. पूण कोणेच नखलामी केली ना. विरोधकूय नाटक पळोवपांत गुल्ल जावन उरिल्ले. हो प्रयोग काल्याच्या उत्सवाचो आसलो तरीय महेश नायकांन आनी हांवें कोंकणी चळवळीचो भाग म्हणूनच कोंकणी नाटक काडपांत फुडाकार घेतिल्लो. आमचो हो हेतू आमी उत्सव समितीक कळूक दिवक नाशिल्लो, हें म्हत्वाचें. दर जाग्याचेर कोंकणी कशें करु येता हाचो ध्यास घेवनच आमी सगळे वावुरताले.

त्या काळार देवळाचे माचयेर चुकून एखाद्रेंच कोंकणी नाटक जाताले. हेर सगळीं नाटकां मराठीच आसतालीं. वेर्‍यां आसू, सावय आसू वा सांतेरभाटान आसूं आमी पळयल्लें लेगीत कोंकणी नाटक जाता म्हण कळटकच आमी कोंकणी भक्त नाटकाक गर्दी जावची म्हणून नाटकाक वताले. कोंकणी नाटकां खातीर रसिक तयार करपाचें काम त्या काळार कोंकणी चळवळीतल्या मनशांनी केलां. काळ बदलतलो आनी सगळ्याच देवळांचे माचयेर कांकणीच नाटकां जातली. हें आमचें सपन आशिल्लें. तें केन्नातरी पूर्ण जातलें, अशी आशा आशिल्ले. पूण प्रत्यक्षांत तें सपन

इतले बेगीन फुलतलें हाचो मात अंदाज नाशिल्लो. आतां श्री अनंताचे, श्री सातेरीचे सगळ्याच रंग मांचयांचेर कोंकणीच नाटकां जातात. त्या नाटकांनी भुमिका करपी नवे पिळगेंतल्या भुरग्यांचो मराठीय नाटकां जातालीं हाचेर विश्वासूय बसचोना. कोंकणीचे बाबतींत बदलिल्लें हें चित्र पळोवपांत म्हजे आनी आमचे आदले पिळगेंतल्या कोंकणी चळवळीतल्या लोकांक आनंद जाता. आमच्या सपनाक फुलिल्लीं फुलां पळोवन जीव दादोस जाता. ताची कल्पना नाटकां करतल्या कलाकारांक आसा काय ना तें हांव नकळो. अशे तरेचो हो बुन्यादी वावर आमचे वाठारांत चड प्रमाणात जालो आसलो तरी हेर वाठारांनीय वावर जाला. कोंकणीच्या कार्यकर्त्यांनी घाल्ले भक्कम बुन्यादीचेरूच राजदीप नायकालें कला चेतना वळवय, गौरी तनय धोणशी, प्रशांत सतरकारालें नागेश महारुद्र नागेशी, अभियान प्रोडक्शन पर्वरी, वरदहस्त क्रिएशन, कलाबहार भिरोंडे सत्तरी, दयानंद कला केंद्र, नवनीत तरुण नाट्य मंडळ शिरफोड कुडचडें, अश्ठविनायक क्रिएशन शेळवण कुडचडें, नागेशी यूथ नागेशी–बांदोडें, गौतम गावडेचें आस्त क्रिएशन पिळगांव, अश्वमेघ मिडीया क्रिऐशनस पंचवाडी, जैताचो वांगडी, सख्याहरी सावयवेरें, शिवस्पर्श प्रतिश्ठान, मडकय–परेश तारी मोरजकार, श्री प्रोडक्शन केपें– डॉ. प्रजोत महाले, रेणुका ऐंटरटेनमेंट खडकी वाळपय, अशे कितलेशाच वेगळ्या वेगळ्या वाठारांतले वेवसायीक पंगड गोंयच्या खाची कोनशांनी विनोदी नाटकांचे प्रयोग करतात. करमळेच्या बाबाप्रसादाल्या नाटकांचेय खूब प्रयोग जातात. हाचे आदीं ज्या माचयांनी मराठी नाटकां जातालीं थंय कोंकणीच नाटकां जावंक लागल्यांत. कितेंय आसूं कोंकणी नाटक लोकांनी मानून घेतलें हें म्हत्वाचें. गोंयांतल्या कोंकणी नाटकांचो कोणेय इतिहास बरयलो जाल्यार नाटकांच्या मळावेल्या मुळावणाची दखल घेवचीच पडटली. ना जाल्यार

तो इतिहास अर्दवट थरतलो.

1981 च्या काळांत कोंकणीचे मळार खूब कार्यक्रम जावंक लागिल्ले. आमच्या सावयवेरें वळवय वाठारांतल्या कार्यक्रमाची गती खुबच वाडिल्ली. गोंय कला अकादमीतली कोंकणी नाटक सर्त खरे अर्थान 1976-77 सावन सुरु जाल्ली. हे सर्ती खातीर नाटकांच्यो सहिता तयार करपांत अशोक कामत, दत्ता श्री. नायक, शंकर भांडारी, चंद्रकांत पार्से कार, पुंडलीक नायक, पुंडलीक दांडो, प्रकाश थळी, गुरुदास बांबोळकार, मनोहर भोसले, दिलीप बोरकार, अनिरुद्ध बीर (उपेंद्र तिंबलो) सुरेश काकोडकार, एन. शिवदास हांचें बरेंच योगदान आसा. शणै गोंयबाबान बरयल्या नाटकांचोय सर्त चालू दवरपाक खूब उपेग जालो. उपरांतल्या काळांत दत्ताराम बांबोळकार, देविदास बाबय अशे नवे नाटककार आयले. तांचेंय योगदान सर्त चालू दवरपाक आसा पूण ही नाटकां सर्तीपूर्तीच मर्यादीत उरताली. कला अकादमीत प्रेक्षकय उणेच आसताले म्हणटकच तीं नाटकां भौसामेरेन पाव नाशिल्लीं. ताका लागून गावांनी नाटक महोत्सव करपाची कल्पना फूडें आयली. त्या वेळार सर्तीक नाटक घालप होय चळवळीचोच वांटो मानताले. महोत्सवा खातीर दुडू मेळोवपय कठीण जाताले. त्या काळार कोंकणीच्या कसल्याय असल्या कामा खातीर पणजेचो गुरुदास पै, मडगांवचो हनुमंत मावजो, दत्ता दा. नायक, दत्ता श्री. नायक, बाबय वेरेंकार, अशा कांय हाताचेर मेजपा इतल्या लोकां कडल्यानूच आदार जातालो.

सांतेरभाट वळवय लेगीत नाटक महोत्सव जालो. पणजे भाटल्यांतल्या सटी भवानी देवळाचे माचयेर महोत्सव जालो. थंय अशोक भोसलो नेटान वावुरतालो. हांवूय थंय आसतालोच. कोंकणी लोकां मेरेन पावयतले जाल्यार नाटक हेंच प्रभावी माद्यम म्हणून निश्चीत जाल्लें.

ह्या एकूण वातावरणाचे फाटभूयेर उत्कर्श विद्यालय धूपें, सावयवेंं हांगाचे एक शिक्षक शशिकांत अणवेकार हांणी उदयकुमार सुर्लकार, राजेंद्र शिंगबाळ, गोकुळदास कामत, विठ्ठल फडटे, अरुण शिंगबाळ, विनंती कांसार हांका घेवन 'कलादर्पण सावयवेंं' नांवाची एक संस्था 1981त स्थापन केली. तेच वर्सा हे संस्थेन वळवयच्या मेट वाड्यार राज्य पांवड्यावेले एकांकी सर्तीचें आयोजन केलें. कोंकणी म्हणटकच संजीव वेरेंकार, बाबुराव नायक, महेश नायक, शांबा सावंत, उदय म्हांबरो, सुरेंद्र वळवयकार, अशा सगळ्यांनीच तांकां सहकार्य केलें. हे सर्ती खातीर तिकेटीय आसताल्यो. त्यो खपोवन लोकांक सर्ती कडेन ओडून हाडपाचें काम आमी केलां. वळवय म्हळ्यार मराठीवाल्यांचो बालेकिल्लो. पूण मेट वाड्यावेले लोक शांत वृत्तीचे. ताका लागून थळाव्या लोकांचो प्रतिसादय अणवेकर सराक मेळटालो. नामनेचे रंगकर्मी श्रीधर कामत बांबोळकार हांचे नाटकांतलो अभिनय पळोवपाची पयली संद म्हाका आनी म्हजे वांगडच्यांक हे सर्तीतल्यान मेळ्ळी. ताणी दत्ताराम कामत बांबोळकाराची 'ही झुंजा सैमाची' ही एकांकिका सादर केल्ली. कलादर्पणान सेगीत चार ते पांच वर्सां एकांकी सर्ती घेतल्यो. नाटकाच्या मळावेल्या तांच्या ह्या इतिहासीक वावराक म्हत्व आसाच. पूण शशिकांत अणेवेकाराचें नाव कोणे घेतिल्लें आयकूंक येना.



# टिकेक जापो

कोंकणीचो विधायक वावर चालू आसतनाच खंयच्याय दिसाळ्यांतल्यान कोंकणीचो अवमान करपी लेख वा पत्रां छापून आयलीं जाल्यार ताकाय जापो दिवपाक आमी मुखार आसताले. चड करून मराठीतले एक नामनेचे साहित्यीक आनी गोमंतकाचें आदले संपादक बा.द. सातोस्कार कोंकणी चेर टीका करपी लेख बरयताले. ते वाचतकच आमची तकली भणभणटाली. आमी आमच्या नावां सयत पत्रां बरोबन तांचे मुद्दे खोडून काडटाले. तोपण नावान बी बरोवपाचीं भिजूडपणा आमी केन्नाच करूक ना. आमी कोंकणीची बाजू घेवन पत्रां बरयतकच कुंभारजुवेंचो काय खंयचो तरी सुहास राहूळ नावांची एक व्यक्ती गोमंतकांतल्यान, नवप्रभांतल्यान आमचेर तुटून पडटाली. तोच राहूळ उपरांतल्या काळांत केंद्रीय साहित्य अकादमीचेर पावलो. तो थंय कसो पावलो तें मात निमणे मेरेन म्हाका कळूंक ना. कोंकणीचो अवमान करपी कितेंय छापून येतकच आमचो म्हालगडो नागेशबाब करमलीय केन्ना सूस्त बसलोना. आयज कोणूच कोणाक जाप दिना. वाकडेपण घेवक तयार नासता. भाशेचो अवमान जालो तरी चडशे जाण आपली कात वाटावपाचेंच काम करताना दिसतात. त्या काळार हो प्रकारूच नाशिल्लो. आमचे सारक्या तरनाट्यांनी त्या काळार बोंट चेपें धोरण आपणायल्लें जाल्यार चळवळ फुडें वचप कठीणूच आशिल्ली. नव्या वावुरप्यांनी मुखावेली पावलां मारतनाय फाटल्या वावुरप्यांच्या वावराचो विचार करपाक जाय, अशें म्हाका तरी दिसता.



# संजीव वेरेंकार आनी सज्जन तारीची गोंय-मंगळूर पदयात्रा

1980 च्या काळांत मंगळूरांतले नामनेचे कवी आनी नाटककार चा.फ्रा. डिकॉश्ता गोंयां आयिल्ले. पणजेच्या टी.बी. कुन्हा सभाघरांतल्या एका कार्यक्रमाक ते आशिल्ले. आमी तांकां पळोवपाक थंय गेल्ले. तेन्ना ताणी 'हाड चेडवा वुडकूलो लकय तळ्यांत' हे कवितेन सभाघर हालोवन सोडलें. तोवेर मेरेन कवितेचें इतलें प्रभावी सादरीकरण हांवें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. हांव, सज्जन तारी आनी उमाकांत शेट्यो सामकेच भारावन गेले. ते खिणा सावन आमी चा.फ्रा. बाबांच्या मोगांत पडले. चा.फ्रा.बाब कवी म्हणून आनी मनीस म्हणूनय व्हडलो. मंगळूर ते कोची केरळ ह्या दर्यादेगेवेल्या वाठारांनी कोंकणी उलोवपी खूब लोक आसात, अशें चंद्रकांतबाब केणी, कोंकण भारतीचे संपादक यशवंतबाब पालेकार, नागेशबाब करमली आमकां सांगताले. चा.फ्रा.बाबांच्या भेटेन ताचो प्रत्यय आयलो. पूण आयचे वरी तेन्ना मंगळूर आनी गोंय हांचे मदी कोंकणीचें सांस्कृतीक साहित्यीक दिवप-घेवप चड नाशिल्लें. पूण तांचे आनी आमचे मदलो भावनीक पूल बांदपाचें काम केणीबाब, पालेकारमाम अशें कांय जाण करताले. चा.फ्रा. बाबाच्यो कविता आयकत सावन त्यो आमच्या ओंठार घोळत रावित्ल्यो. आयजूय तांचो विसर पडूक ना. दर्यादेग वाठारांतल्या कोंकणी लोकांचें प्रत्यक्ष जीवन पळोवचें ह्या हेतून आमच्या उमाकांत शेटयान सज्जन तारी आनी म्हजे मुखार गोंय ते मंगळूर मेरेनची

पदयात्रा करची असो प्रस्ताव दवरलो. ताचे आदीं म्हळ्यार 1979 वर्सा हांवें म्हज्या दोन सांगात्यांक घेवन गोंय ते बिजापूर मेरेनची सायकल भोंवडी केल्ली. ताका कोंकणी चळवळीचो संबंद ना. उमाकांताची ही कल्पना हांवें प्रत्यक्षांत देवोवपाचो निर्धार केलो आनी सज्जनाक तयार केलो. आमी रोखडेच तयारेक लागले. देणग्यो जमयल्लो. त्या काळार कोंकणी भाशा मंडळाचे वतीन म्हण सांगून उदयबाब भेंब्रे हाणी आमकां पाचशीं रुपया दिल्ले. लायन्स क्लब, रोटरी, जेसी, रेडक्रोस ह्या संस्थांचीं पत्रां घेतलीं. भिकू बोमी नायक वार्ताहार म्हणटकच ताचे वेगळ्या वेगळ्या लोकांकडेन संबंद. ताणेय आमकां पैशे जमोवन दिले. नागेशबाब करमली तेन्ना आकाशवाणीचेर. ताणे आमकां कोंकणी कविता आनी पदांच्यो केसेटी करून दिल्यो. हें सगळें साहित्य घेवन 2 मे 1981 दिसा आमी बशीन बसून काणकोणा चावडेर गेले. आमची पदयात्रा चावडेवेल्यान सुरु जावपाची आशिल्ली. ते राती कडेन आमी आरबीएसाल्या घरा कडेन राबितो केलो. दूसरे दिसा सकाळी स वरांचेर आमीं चावडेवेल्यान पदयात्रेक आरंभ केलो. आरबीएस आनी मानुएल फर्नादीश आमकां पोळ्यां मेरेन पावोवक आयले. थंय ताणी आमकां निरोप दिलो. आमी तीस ते पस्तीस किलोमीटर चलून सांजवेळां वाटेवेल्या हॉटेलांत रावताले. थंयच्या वेगळ्या वेगळ्या संस्थांच्या जाळवणदारांक मेळून म्हालगड्या कवींच्यो कविता आनी गीतां वाजोवन दाखयताले. आमच्योय कविता आमी सादर करताले. आमच्या ह्या धाडशी उपक्रमाक सगळ्यानीच येवकार दिला. गोंयच्या दिसाळ्यानीय आमचे पदयात्रेक बरो प्रतिसाद दिल्लो. नवप्रभा आनी राश्ट्रमत ह्या दिसाळ्यांचो आमकां खूबच आदार जालो. राश्ट्रमत आतां बंद पूण त्या काळावेल्या बातम्याचीं कात्रणा अजून आसात. नवप्रभाचे संपादक म्हणून त्या काळार लक्ष्मीदास बोरकार जबाबदारी सांबाळटाले. कोंकणीच्या प्रत्येक कार्यक्रम

ाक ताणी सदांच आदार दिला. तीच परंपरा सुरेश वाळवे हाणीय चलयली.

बाकीबाब बोरकार, दो. मनोहरराय सरदेसाय, शंकर भांडारी हांच्या गोड गळ्यांतल्यो कविता आमी लोकांक पर्थून पर्थून वाजोवन दाखयताले. तळतळट्या वतांतल्यान चलत चलत चौदाव्या दिसा आमी मंगळूर शारांत पावले. मंगळूरांतल्या जप्पू ह्या वाठारांतल्या एका ल्हानशा रेल्वे पुलाच्या लागसार चाफ्रा बाबाचो प्रेस आशिल्लो. चा.फ्रा.बाबा खंय रावता तो पत्तो घेतलो. ते राती कडेन एका ल्हानशा हॉटेलांत आमी रूम घेतलो आनी दूसरे दिसा वामंजूर वाठारांतल्या चा. फ्रा. बाबाच्या घरा गेले. ताणे आमकां येवकार दिलो. तिसरे दिसा ताणे आमकां आपल्या घरा जेवपाक आमंत्रण दिलें. हॉटेलांत येवन ताणे आमकां घरा व्हेले. आमी तागेर आयल्या हाची उमेद ताच्या मुखामळार चकचकताली. ताचे घरकानीनूय आमचें स्वागत केलें. चा.फ्रा. बाबाची दोन ल्हान भुरगीं सोनिया आनी विनोद. कोंबड्यो पोसपाचो तांचो धंदो आशिल्लो. आयज कोंबयेचें निस्तें करुया, अशें म्हणून चा.फ्रा.बाबान घुडांतल्यान एक धवी फुल्ल कोंबडी हाडून शागोती केली. मंगळूरांत कितेंय असलें रांदलें म्हणटकच निस्तेंच म्हणटात, तागेर तेन्ना मेजार बी जेवपाची पद्धत ना. सकयल बसून जेवप. जेवण तयार जातकच ताचे घरकान्नीन 6 पाट दवरले. तीन बसपाक आनी तीन ताटां दवरपाक. हो प्रकार पळोवन आमकां अजापूच जालें. पाटार ताट दवरपाची पद्धत हांवें केन्ना पळोवक नाशिल्ली. प्रत्येकाच्या ताटाचे कडेक एक उदकाचो तांबयो पळी आनी पेलो दवरलो. मनात म्हळें हें आनी कितें काय! सज्जनान आनी हांवें एकमेकांक पळयलें. चा.फ्रा.बाबान तांबयांतले उदक पळयेंत काडून चित्रावळ घाली. ताटांतलो दर पदार्थ काडून जमनीर ऐके कडेन दवरलो. तो करता तितलेंय आमी केलें. आनी जेवले. हांवें चित्रावळ पळोवन ताका विचारलें. ताणे म्हळें तुमी तें आतां सोडलां. आमी तें अजून सामाळून

दवरलां. अजून चालू आसा काय ना तें हांव नकळो. आमी चित्रावळ पळयल्या ती श्राद्धाक, म्हाळाक ब्राह्मण घालता ती! चा.फ्रा.बाबाल्या घरांतलें हें जेवण अजूनय म्हजे यादींत आसा.

मंगळूरांतल्या कोंकणी समाजांत त्या काळार जात, धर्म हांचे बाबतीत खूबच भयरो जळोप, भेदाभेद आशिल्लो. बदलत्या काळांत तातूंत कितलो बदल जाला तेंय हांव नकळो. आमी जेवतकच चा.फ्रा.बाबान दोळ्यांत दुकां हाडून उदगार काडले 'तुमी आपल्या घरांत पयले हिंदू जेवले' तांका खूब उमेद जाल्ली. कोण तरी पूर्वज येवन आपल्या घरांत जेवले हांचो आनंद ताच्या मुखा मळार दिसतालो. ताणे आमकां थंयच्या साहित्यीक आनी सामाजीक जीवनाच्यो खूब खबरो सांगल्यो. थंयच्या कांय कवी लेखकांच्यो भेटी घडोवन हाडल्यो. जीवीत ह्या तांच्या नेमाळ्यांत आमचे दोगांयचे फोटो छापून लेखूय बरयलो. कानडी लिपयेतलो तो लेख हांव अजूनय वाचून घेवक पावूक ना! एका सांजवेळां मंगळूरांतल्या एका फुटपाथा वेल्यान चलताना गोंयचो लेखक ओलवीन गोमीश आमकां मेळ्ळो. ताका थंय पळोवन आमकां अजाप जालें. तो तेन्ना जकात खात्यांत अधिकारी आशिल्लो. कांय काळ आदीं ताची आनी म्हजी टी.बी. कुन्हात एका कार्यक्रमात वळख जाल्ली. हावेंच ताका थंय हडकिलो. तोय वळखलो. ताणे म्हजे कडल्यान चा.फ्रा.बाबाचो पत्तोय घेतलो. तेन्नाच्यान ओलवीनबाब आनी म्हजें लागीपण. म्हजी एक कविताय ताणे इंग्लीशीत अणकारीत केल्या. आठ दिसांच्या मंगळूरांतल्या राबित्या उपरांत आमी बशीन बसून गोयां आयले. मंगळूरांतले आमचे पदयात्रेक लागून चा.फ्रा.बाबांची आनी म्हजी इश्टागत वाडत गेली. ते म्हज्यो कविताय आपल्या कानडी लिपीतल्या जीवीत ह्या नेमाळ्यांत उजवाडायताले. आमचो पत्रव्यवहारय नेमान जातालो. ताचे उपरांत 'मांड सोभाण' ह्या

तांच्याच कवितांचेर येरीक ओझारियोन केल्ल्या संगीत कार्यक्रमाच्या निमतान चा.फ्रा.बावांचें गोंयां येवप वाडलें. ताका लागून नवे पिळगेक चा.फ्रा.बावांची चड वळख घडूंक पावलीं.

मंगळूरांत वस्ती वामन शणै हांणी केल्लो कोंकणी सांस्कृतीक चळवळीचो विस्तार आनी मेलवीन रॉड्रिगीसाचें 'कविता फेस्त' अशा सावार उपक्रमांक लागून मंगळूर आनी गोंय हांचे मदलें कोंकणी साहित्यीक आनी सांस्कृतीक संबंदांचे नातें घट जालां. आमी पदयात्रा केली त्या काळार असलें कांयच नाशिल्लें. कांकणी लेखक तुकारामबाब शेट केन्नाय म्हणटा, 'तुमची ती पदयात्रा खूब म्हत्वाची आशिल्ली' अशें आसलें तरी कोंकणी समाजान ह्या वावराचो केन्ना खंयच उल्लेखूय करुक ना. कोंकणीतले नवे पिळगेक हाची खबरुय ना. म्हणटकच तांकां शिणपांतय अर्थ ना. पूण कोंकणीचे अभ्यासक म्हणून जे समजतात तांणी हो विशय समजून घेवपाक जाय आशिल्लो. तांकां ताची म्हायती आसपाक जाय. ताचें कारण तो एक कोंकणीचो इतिहास आसा. संजीव वेरेंकार, सज्जन तारी हे मनीस म्हत्वाचे नासूंये.

1981 वर्सा पदयात्रा करपी संजीव वेरेंकार सज्जन तारी कोणाय अभ्यासकांक आवडना आसले तरी इतिहास बदलूंक शकना. खरे अभ्यासकांनी खरो इतिहास बरोवपाची गरज आसता. कोण कितें म्हणत, हे भिरांतेन इतिहास लिपयलो जाल्यार ताका अर्थ उरना. मंगळूरांतल्याय कोंकणीच्या मळार वावुरतल्या नवे पिळगेक हो इतिहास खबर आसाच अशें म्हणू नजो. कविते खातीरचो विमला पै पुरस्कार स्विकारले उपरांत हांवें केल्ल्या भाशणातल्यान 1981 तले हे पदयात्रेची हांवें खबर थंय सांगली तेन्ना खूब जाणाक अजाप जाल्लें. मंगळूरकार कोंकणीच्या मळार खूब बरो वावर करतात. तांचो वावर फक्त भाशेचे उदरगतीपूर्तो मर्यादीत ना.

तांचो वावर कोंकणी मनशाचो विकास नदेरमुखार दवरून जाता. ताचो गोंयकारांकय फायदो जालो. पूण गोंयकारां कडल्यांन मंगळूर कारांक कितलें सहकार्य मेळटा तें मात म्हज्यान सांगूक जायना. मंगळूरकारांनी गोंयकारांची सगळे तरेची अपूर्बाय केल्या इतलें सत्य.

बाटाबाटीच्या वेळार हे आमचे लोक परिस्थितीतल्यान कर्नाटक, केरळांत पावले. कितलेशाचं पिळग्यांनी उतळताप सोसून तांच्यो नव्यो पिळग्यो आतां भरभराटीक पावल्यो ताणी कोंकणी सोडलीना. गोंय म्हळ्यार आपलें कुळार कशें तांकां दिसता आनी तेच भावनेतल्यांन ते आमकां पळयतात. तांच्या फुडल्या सगळ्या पिळग्यांमेरेन हो मोगाचो धागो कायम तिगून उरूंक जाय, जाल्यार आमीय तशी दानत दाखवचीच पडटली. आयज मंगळूरांत आनी केरळांत कोंकणीचे आनी कोंकणी मनशांचे उदरगती खातीर खूब जाण वावुरतात. पूण बस्तीमाम, रमेश पोयनूर, मेलवीन रॉड्रिगीज, पी. जी. कामत, पुरुषोत्तम मल्ल्या आनी केरळचे श्रीधर शणै, आर. एस. भास्कर हांची नावां आयलीं म्हणटकच हांव आपशींच नतमस्तक जाता. कोंकणीतले नवे पिळगेक कोचीच्या श्रीधर शणैचें नाव अनवळखी दिसतलें. कोंकणीच्या ध्यासान पिसो जावन निस्वार्थी पणान काम करपी तें एक व्यक्तिमत्व. तें कितेंय आसूं 1981 तली गोंय ते मंगळूर मेरेनची म्हजी आनी सज्जन तारीची पदयात्रा म्हज्या जीवन पटाचो भाग जावन रावली. पदयांत्रे उपरांत आमचो सज्जन तारी पुस्तक बरोवपाचो आशिल्लो. ते खातीर ताणे दीस पटीय बरयल्ली. हळदोणेच्या सें. थॉमस गर्लस् हायस्कुलान तो कोंकणी शिक्षक जालो, आनी थंयच्या व्यापान घुसपून राविल्ल्यान ताचे कडल्यान पुस्तक बरोवन जालेंच ना. हांवे दीसपटी बरयलीना हाची आतां खंत भोगता. पदयात्रेंतल्या अणभवांचेर एक पुस्तक जांव येतालें. तें जावंक पावलेंना.



# धेंपे कॉलेजींत कोंकणी कशी पावली?

धेंपे उच्च माद्यमीक विद्यालयांत आनी महाविद्यालयांत कोंकणी विशय घेवप्यांचो आंकडो वाडटा, अशें जेन्ना कोणूय सांगतात तेन्ना म्हाका सुमारा भायली उमेद जाता. हें सगळें घडपा फाटल्यान म्हजो चानयेचो वांटो आसा, हाचो म्हाका आनंद आसा.

1981 वर्सा मिरामार पणजेच्या धेंपे उच्च माद्यमीक विद्यालयांत कोंकणी विशय कसो लायलो हाचो इतिहास बरयतना गोंयांतल्या कोंकणी शिक्षणाच्या इतिहासाचेरय उजवाड घालप आनी आयची परिस्थिती नदरेक हाडून दिवप म्हाका गरजेचें दिसता. आदल्या काळार ह्या मळार कोणे कोणे कितें केलें, हाची म्हायती नवे पिळगे मेरेन पावपाकच जाय. जाणटेल्ल्यांनी रोयल्ल्या कावथ्याचो माड जातकच ताचे नाल्ल खावप सोपें आसता पूण जाणे रोयलो, शिंपलो, व्हडलो केंलो आनी हें सगळें करपाक तांका जे उतळताप, सोसचे पडले हेंय कळप तितलेंच म्हत्वाचें.

1961 वर्सा पोर्तुगिजांच्या शेंका पोंदच्यान गोंय मुक्त जालें त्या सुरुवातीच्या काळांत पुर्तूगेजूच शिक्षण चालू आशिल्लें. त्या काळांत कोंकणी शाळा सुरु करपा खातीर कांय द्रश्ट्या लोकांनी यत्न केल्यात, अशें इतिहास सांगता. पूण ते यत्न फळादीक जावंक नात. 1962 वर्सा गोंयांतल्या शिक्षणाचे परिस्थितीचो अभ्यास करपा खातीर तेन्नाच्या केंद्र सरकारान तीन वांगड्यांचें 'झा' कमिशन गोंयांत धाडलें. ताणी अभ्यास

करून गोंयांतल्या लोकांची उलोवपाची भास कोंकणी म्हणपाचो केंद्राक अहवाल दिलो. ताच्या आदारान केंद्र सरकारान गोंयांत कोंकणी शाळा सुरु करपाक मान्यताय धाडली. त्याच काळांत दामोदर विद्याभूवन मडगांव हांगां मडग्रामस्थ हिंदू सभेची मराठी माद्यमातली बालवाडी (केजी) चलताली. ते ती बंद करूक सोदता हाची खबर राश्ट्रमताचे आदले संपादक चंद्रकांतबाब केणी, आनी सदांच पडच्या फाटल्यान रावन कोंकणीचें हीत पळोवपी नारायणबाब मावजो हांचे कानार पडली. तांचो बाबू नायकाच्या घराब्या कडेन लागींचो संबद आशिल्ल्यान ताणी तांचे कडेन उतर घालून ती शाळा ताब्यांत घेतली आनी कोंकणी भाशा मंडळाचे यतीन कोंकणी करून सुरु केली. तेन्नाय कोंकणी शिकपाक भुरगे मेळप कठीणूच आशिल्ले. भजना, किर्तना बी मराठीत जातात म्हणटकच चडशे जाणांचो कल मराठी शिकपा कडेनच आसतालो. कोंकणी म्हळ्यार उणाकपणाचें, अशें दिसतालें. उदयबाब भेंब्रें सांगता ते प्रमाण हे शाळेत 'अपूर्व' हो एकलोच तांचो पूत पयलो शिकलो. उपरांत आंकडो वाडत गेलो. आयज मडगांवांतल्या कांय प्रतिश्ठेक पाविल्या शाळां मदीं कोंकणी भाशा मंडळाच्या हे शाळेचो आस्पाव जाता. ताचे आदीय मडगांवच्या कमुनिदादीचे बिल्डींगेत अरविंद बाबाचे बापूय पांडुरंग भाटीकार, गुरुनाथ बाब केळेकार हांणी फुडें सरून कोंकणी शिक्षण दिवपी नवी शाळा ह्या नावान शाळा सुरु केल्ली. गुरुनाथ बाबालो पूत समीर केळेकार बी हेच शाळेंत शिकलो खंय. पूण कोंकणी खातीर वावुरप्यांचे भुरगे पास जावन गेले उपरांत ती शाळा बंद पडली. आयजूय कांय शाळांचे बाबतींत भुरगे नाशिल्ल्यान कोंकणी विशय बंद पडल्यात. कोंकणी विशय घेवपी भुरगे तयार करपाचें कामूय कोण करीनात. सत्तरीतल्या गोपीनाथ गांवसा भशेन कोणूय वावर करपाक फूडें येवपी उणेच

एक गजाल म्हत्वाची ती म्हळ्यार मगोचे राजवटीतय गोयांत कोंकणी

शाळा चलताल्योच. पूण चडशे पालक आपल्या भुरग्यांक कोंकणी शिकोवक तयार नाशिल्यान सरकारी मराठी शाळांचो आंकडो वाडलो. अशें आसलें तरी कोंकणीच्या मळार म्हालगड्यांच्या प्रयत्नाक लागून ल्हव ल्हव कोंकणी विद्यालयां, उच्च माद्यमीक विद्यालयां, महाविद्यालयां आनी गोवा विद्यापीठ मेरेन कोंकणी पावली. आदल्या काळांतल्या गोंयांतल्या शिक्षणाचे परिस्थितीचो इतिहास समजून घेतले जाल्यार आदले काळांतले शिक्षण तज्ञ आनी शिक्षण खात्याचे तेन्नाचे संचालक डॉ. पांडुरंग वर्दे हांचें 'History of Education in Goa' हें पुस्तक वाचून पळोवचें.

हांव विद्यालयांत शिकता आसतनाच कोंकणी भाशेचे चळवळीत आशिल्लो. 1977–78 च्या काळांत धूपें, सावयवेरेंच्या उत्कर्ष विद्यालयांत शिकताना धावेक तरी कोंकणी विशय घेवक मेळचो म्हण उदय न. म्हांबरो आनी हांवें खूब प्रयत्न केल्ले. मुख्याध्यापकाक दिवपाक निवेदन तयार करून कांय विद्यार्थ्यांच्यो सयोय घेतल्यो. पूण एका विदवाट्या भुरग्यान आमचे हातांतलें निवेदन घेवन पिंजून वडयलें आनी आमच्या यत्नाक नखलामी जाली.  ताका लागून मराठी विशय घेवनच धावेची परीक्षा दिवची पडली.

1981 वर्सा हांवें धेंपे उच्च माध्यमीक विद्यालयांत अकरावेक प्रवेश घेतलो. तेन्ना थंयूय कोंकणी विशय नाशिल्लो. सगळी निर्शेणीच. आमचे निबंदकार आनी नाटककार मुकेश थळी हांणी म्हाका, कोंकणी विशय घेवंक सोदता जाल्यार प्रा. प्रो. पुंडलीक बाब खंवटेक मेळ म्हळें. मुकेश धावेचे परिक्षेक गोंयांत दूसरो आयल्लो. तोय भुरगेपणातल्यान कोंकणी चळवळीत. ताका कोंकणीची दिक्षा रविंद्रबाब केळेकार हांणी दिल्ली. खंवटेबाबाच्या आदारान म्हाका कोंकणी विशय घेवक मेळ्ळो. हांवेंच तो शिकून घेतलो. गरज थंय खंवटे सर मदत करतालो. अशे तरेन धेंपेंत

कोंकणी पावली. आयज धेपेंत कोंकणी आसा आनी योगायोग म्हणून खंवटे सराची धूव अंजू साखरदांडे विभाग प्रमूख म्हणून काम करता. मदल्या काळांत म्हाका कसले तरी एका कार्यक्रमाक आपोवन कोंकणी सुरु केल्ल्याची दखल म्हणून अंजू वायन म्हजो फुल दिवन भोवमानूय केला. ताची याद आसा.

अल्पसंख्यांकाचीं व्यवस्थापना आशिल्ल्यो शिक्षण संस्था सोडल्यो जाल्यार हेर चडशो शिक्षण संस्था कोंकणी विशय लागू करपाक आडमेळींच हाडटाली. आयजूय ते परिस्थितीत व्हडलोसो बदल जावंक ना. म्हापशेंच्या ज्ञान प्रसारकान खंय अजून कोंकणी विशय ना. कोंकणी विशय भुरग्यांक शिकूंक मेळचो म्हण सरकाराची तरतूद आसाच. पूण आतांय उणेच पांच तरी विद्यार्थी हाडात अशें व्यवस्थापना सांगतात. भुरग्यांनी कोंकणी विशय घेवचो म्हणून वातावरण निर्माण जायना.

भोवसंख्याकांच्या विद्यालयांनी चडशे भुरगे मराठी चवथी शिकून येताले. जांचे पालक कोंकणीचे सक्रीय चळवळीत आशिल्ले तांचे मदल्या कांय जाणांचे भुरगे कोंकणी खातीर तयार जाताले. पूण अशांचो आंकडो उणोच. पांच भुरगे मेळना आनी कोंकणी सुरु जायना! हातल्यान व्यवस्थापनांचो आवूय शेंकतालो आनी कोयरूय लासतालो! म्हजे सारके जे कांय भुरगे चळवळीतल्यान आयल्ले ताणी तेन्ना कोंकणी विशया खातीर पोटतिडकीन प्रयत्न केला आनी कांय प्रमाणात तो फळादीक जाला.

कोंकणी राजभास जावन वर्सां उलगलीं, घटनेचे आठवे वेळेरेंत पावली. अजूनय कांय विद्यालयांनी कोंकणी ना. ती सुरु जावची म्हणून यत्न करपी, विद्यार्थीय ना शिक्षकूय ना, पालकूय ना. कोंकणीची फकत साय खावपी, व्यवस्थापनांचें वाकडेपण नाका म्हणून असले भानगडीत पडना. म्हालगड्यांनी आनी आमचे पिळगेच्या प्रतिनिधींनी उतळताप सोसून

उभारिल्ले माचयेर येवन भाशणा मात करतात. माची कोसळटाशी दिसतकच कुस कशी मारतात तेंय हांवें अणभवलां. आमचे सारख्या विचारांच्या कांय भुरग्यांनी आपूण शिकता थंय कोंकणी विशय लावन घेतिल्लो. पूण ते पास जावन वतकच कोंकणी गायब. कांय तथाकथीत विद्वान कोंकणीची सारकी अंमलबजावणी जायना म्हणून म्हालगड्यांक खेपतात. तांचे कांय मुद्दे सारके आसतातूय. पूण सगळें काम म्हालगड्यानीच करपाचें? म्हालगड्यांच्या भूजारुच तुमी उबे आसात. देखून तुमकां चड पयसूल्लें दिसता, अशे लोकांनी आपल्या शेजारच्या तरी विद्यालयांत कोंकणी विशय चालू उरचो म्हणून यत्न केल्लो जाल्यार परिस्थितीत बदल जातलो आशिल्लो. म्हजे पिळगेन म्हालगड्यांक खेपले नात. चळवळीक पुरक अशेंच काम केलें. तशें काम चालूच उरचें. जैत पयस ना. पूण ताचे आदीं शिनिफीको सांगतल्यांनी कोंकणीतल्या म्हालगड्यांचो आदर राखचो. धेंपें आनी हेर कांय संस्थांनी अंजूबाय सारके कांयजाण कोंकणी तगची म्हणून यत्न करतात, तांकां म्हजो सलाम.

कांय भुरगे आपल्या आवय–बापायक म्हणटात, तुमी कसलें घर बांदलें रे हें? जाणटेल्यांनी तें बादलें म्हणून हांकां रावंक तरी मेळ्ळें, हाचो ते भुरगे विचार करीनात. कोंकणी चळवळीचे बाबतींतय तेंच घडटा. ही खंत म्हाका आसा. धेंपें उच्च माद्यमीक विद्यालयांत खुबशे भुरगे कोंकणी विशय शिकतात हाचो म्हाका सुमारा भायलो आनंद जाता. ताचे कारणूच अशें. ह्या वावराक सुदैवान म्हजो चीरो लागला. तो जण एकल्यान घट करचो, अशें हांव मागता.



# आमी खरें गोंयकार

कोंकणीच्या इतिहासाचे नदरेन 'आमी खरें गोंयकार' च्या विशयचो कोंकणी–मराठी आंदोलना कडेन थेट संबद ना. पूण कोंकणी पणाची किटाळ तातूंत आशिल्लीच. देखून हो विशय सामकोच कडेक दवरप शक्य ना. सद्या गोंयची जी स्थिती आसा ते फाटभूयेर ह्या विशयाचें म्हत्व वाडलांय.

1982 च्या काळांत वास्को वाठारांत गोंयकार आनी भायल्यांमदीं संघर्श निर्माण जावन व्हडा प्रमाणात हिंसाचार उसळिल्लो. ताचे पडसाद कर्नाटकांत उमठ्ले. आमच्यो बशी लेगीत हुबळी वाठारांत फोडिल्ल्यो. हे फाटभूयेर स्वातंत्र्य सैनीक गुरुनाथबाब केळेकार आनी कांय समविचारी लोक एकठांय येवन 'आमी खरें गोंयकार' नावान संघटना स्थापन करून पणजे शारांत बसस्थानकाचेर निदर्शना केल्लीं. हांव तेन्ना धेंपें, उच्च माद्यमीक विद्यालयांत शिकतालो. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, रविंद्रबाब केळेकार पुंडलीक नायक, सुश्रूत मार्टीन, अशोक भोसलो, संजीव वेरेंकार, उदय म्हांबरो, माधवी सरदेसाय, उमेश म्हांबरो, दामोदर घाणेकार अशा पंदरा–सोळा जणांचो तातूंत आसपाव आशिल्लो. कोंकणी साहित्यीकांनीच ही संघटना घडयल्ली. गोंयकारांक राखण दिवप ह्या हेतून शिवसेने सारकी आक्रमक संघटना स्थापन करून वावरप हो हेतू आशिल्लो. भूय पूतांक न्याय दिवपाची ती चळवळ. वास्को शारांतल्या हिंसाचाराक लागून

कितलेशाच भायल्या लोकांनी तेन्ना गोंय सोडले. संघटनेचें कामूय रोखडेंच थंडावलें आनी आमकां संघटना स्थापन केल्ल्याचीय याद उरुक पावलीना. उपरांतल्या काळांत भूय पुतांक न्याय दिवपाक आतां गोंयांत आमच्यो जमनीय उरुक नात. आमचे गरजेंची कश्टांचीं कामां भायल्यांचेर सोपोवन आमी सामकेच अपंगूळ जावन पडले. म्हटकच 'आमी खरे गोंयकार' म्हणून कितें उपेग? आयचे काळाच्या संदर्भाचो विचार केलो जाल्यार त्या काळावेल्या आमच्या ह्या विचाराचो समाज शास्त्राचे, इतिहासाचे नदरेन जाणकारांनी विचार करचो. आयज गोंयांत गोंयकार उणो जालो. आमचे पारंपारीक धंदे लेगीत आमी सोडले. सगळेच बाबतींत परधिगे जावन पडले. कोंकणी राजभास, घटक राज्य, सगळें जालें खरें. पूण गोंयांत गोंयकार उणे जाले! सत्तेर आशिल्या सरकारांनी भावनीक जावन कसलो विचारूय केलोना. कसलेंच नियोजन ना जाल्ल्यान गोंयकारपण अडचणींत आयलें. आयज खरे गोंयकार संघटना करून रस्त्यार आयल्यार उरल्या ते गोंयकार उपाशीं पडटले. त्या काळार त्या विचाराची गरज आशिल्ली. पूण आमकां कोणाचो तेको मेळ्ळोना. गोंयकारपणाची, अस्मितेच्या विचाराची कीट पेटोवपी ती संघटना आशिल्ली देखून इतिहासाचे नदरेन ताची नोंद घेवची पडटली.देखूनच हांवें हे घडणूकेचो पुस्तकांत उल्लेख केला.



# कोंकणी चळवळीक 'चित्रंगीचें' योगदान

गोंयचे मुक्ती पयलीं जल्माक आयिल्ल्या बायलांचेंय कोंकणी साहित्य निर्मणेत योगदान आसा. विजयाबाय सरमळकार, शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार, जयमाला दणायत, हेमा नायक हीं नांवां म्हाका कोंकणी चळवळीत येत सावन संवकळेचीं. पुण गोंय मुक्ती उपरांत कोंकणी साहित्य आनी भाशेचे चळवळींत लेखिका हेमा नायक (धुमटकार) हांणी बायलांक संघटीत करपाचें, एकेच माचयेर सगळ्या बायलांक हाडपाचें काम केलें. अशे तरेचें काम त्या काळार आनीक कोणेच करुक ना. ह्या वावराचें श्रेय हेमा नायका बगर आनीक कोणाकूच दिवक शकना. ताणे 1982 वर्सा फोणचे भाट वळवय, हांगां आपल्या घराच्या आंगणात माटव घालून 'चित्रंगी' चो पयलो बायलांचो साहित्य मेळावो घडोवन हाडलो. कांय म्हालगडे ह्या मेळाव्याक हजर आशिल्लेच. पूण बायलां साहित्यकारांचोच तो उत्सव आशिल्लो. ह्या मेळाव्यांतल्यान बायलां मदीं चैतन्यांचें आनी संघटीतपणाचें वातावरण तयार जावंक पावलें. नव्या बरोवप्यांक उर्बा मेळ्ळी. ह्या मेळाव्यांतल्यान वेगळी स्पूर्त घेवन तयार जाल्लीं कांय बायलां 1985 च्या राजभास आंदोलनातय धाडसांन फुडें आयलीं. चित्रंगी मेळाव्याक लागूनच तीं बरोवक लागलीं, अशें न्हय. ताचे आदींय तीं आप आपले सुवातेर रावून साहित्य निर्मणी करतालींच, पूण

ह्या मेळाव्याक लागून माया शेल्डेकार, नूतन सुखठणकार (साखरदांडे), विनंती कांसार (कळंगुटकार) सुरेखा तोटेकार, चंद्रव्वा भांडारी, निला प्रभू शास्त्री (तेलंग), करुणा पाडगांवकार (स्नेहा मोरजकार), गोल्डा रॉड्रिगीस, लिना हेदे (कुंकळकार), वैजयंती प्रभूगांवकार, शांता खांडेपारकार, अशीं जायतीं बायलां बरोवपी पयलेच खेपे एका माटवांत जमलीं. हेमा बायन चित्रंगी मेळाव्यांचो विस्तारुय केलो. ताका लागून उपरांतल्या काळात डॉ. जयंती नायक, शंकुतला आर्सेकार (भरणे) रजनी भेंब्रे अशा नव्या बरोवपी बायलांची भर पडत गेली. तांच्या साहित्याक उर्बा हाडपाक 'चित्रंगी' अंकाचेंय प्रकाशन केलें. हे मेळावे म्हळ्यार कोंकणी चळवळीचो म्हत्वाचो वांटो. हेमा बायच्या तेन्नाच्या ह्या योगदानाक म्हजें नमन. कोंकणीच्या इतिहासाक ताच्या ह्या वावराची दखल घेवचीच पडटली.



# समिक्षे खातीर साहित्य मदलशी

खंयचीय चळवळ आसूं हेतू साद्य जायसर ती चालू उरपाक जाय. ती चालू उरतली जाल्यार विशयाक पुरक आनी कल्पक अशा नव्या नव्या कार्यक्रमांची आखणी करपाक जाय. कोंकणी साहित्याची समिक्षा अजूनय दिमखुरे अवस्थेंतूच आसा. कांय समिक्षक म्हणून फुडें येवपाक सोदतात. खरी समिक्षा केली जाल्यार वाकडेपण घेवचें पडटा. इतलेंच न्हय अमूकच कविचेर जांव कथाकाराचेर तुवें कित्याकच बरयलें? अशेंय धाक धालून समिक्षकांक प्रस्न विचारतात. ताका लागून कसलेंच आनी कोणाचेंच वाकडेपण नाका, अशें म्हणून नवे कांय समिक्षक–आस्वादक कांय साहित्यकारांच्या साहित्य कृतीक आफुडपाचेंय धाडस करीना. ताका लागून कोंकणीत हो प्रांत बरोच फाटीं पडला, हातल्यांन लुकसान जालां तें कोंकणीचें .

जण एकलो हालीं हालीं साहित्याची परखड अशी समिक्षा जावची, अशें सांगतात. पूण तांचे साहित्य कृतीतलें उणेपण कोणेय दाखोवपाचो यत्न केलो जाल्यार तो त्या समिक्षकाक दूस्मानाचे भावनेतल्यान पळयता. ही वस्तुस्थिती. 1983 च्या काळांत पुंडलीकबाब नायक हांचे कल्पकथेंतल्यान आमच्या सावयवेरें, वळवय वाठारांत साहित्य मदलशी सुरु जाल्यो. दर म्हयन्याच्या एका शेनवारचे राती कडेन प्रत्येकागेर एक मदलस घेताले. नवे कवी, कथाकारांच्या साहित्याचें सादरीकरण जातालें. आनी ताचेर समि

क्षेचे नदरेंतल्यान पिसूडणी जाताली. तोवेर मेरेन कोंकणीचे मळार असलो प्रकार खंयच सुरु जावंक नाशिल्लो. आठ–णव म्हयने 'साहित्य मदलशीचे कार्यक्रम जाले. उपरांत ते बंद जाले. हे मदलशीत जण एकल्याच्या साहित्याचेर चर्चा जाताली. एखाद्या कवीची कविता पिसडून वडयली तरी कोण तें मनाक लावन घेनाशिल्लो, खरें म्हळ्यार असल्या कार्यक्रमाची कोंकणीक खूबच गरज आशिल्ली. त्या वेळार सगळें प्रामाणिकपणान जातालें. आयज परिस्थिती बदल्ल्या. साहित्य कृती दर्जेदार आसूकच जाय अशेंय ना. जो लेखक, कवी, आपणाक बरो ताणे कितेंय बरयलें जाल्यार माथ्यार घेवपाचे प्रकार वाडल्यात. पुरस्कारांचे बाबतीतय कांय जाण होच निकश लायतात, असोय आरोप जावंक लागला. आमचे वाठारांतल्या साहित्य मदलशीचो म्हाकाय फायदो जाला. हो कार्यक्रम आमच्या वाठारांतल्यान खूब वर्सां आदीं सुरु जाल्लो. खरें म्हळ्यार तो चालू उरुक जाय आशिल्लो. आतां चडशे लेखक,कवी, सोशल मिडीयाचेर लायक येतात ताचेरच समाधान मानतात. ना जाल्यार कांय जाण कोंकणी अकादमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणे खाला एक पुस्तक काडटात. आनी लेखक जावन मिरयतात. अखंडीतपणान साहित्य सेवा चालू दवरपाचो ते विचारय करीनात. आपणे कितें बरयलां तें दुसऱ्या लेखकाक वा जाणकाराक दाखोवन तातूंत सुधारणा करची, अशेंय कोणाक दिसना. तातूंत तांका उणेपण दिसता. आमचे पिळगेतल्या कवीं, लेखकांक तशें केन्नाच दिसलेंना.

आतां परिस्थितीत बदल जाला. मदल्या काळांत हांवें एक गजाल अणभवली. खंयचोय किल्लून आयिल्लो एक रोपो हाडून उमेदीन आपल्या पोर्सांत रोयता. त्या रोपट्याचें बीं सशक्त आसता. ताका उदक मेळ्ळें म्हणटकच तो घसघशीत वाडूंक लागता. वाडूक लागलो म्हणटकच

आपल्या पोसांत हाडून रोयतल्याकच तो आपले परस व्हडलो जायत म्हणूय भिरांत जाता, आनी तो ताचें उदकूच बंद करता, तरी आसतना कांय रोपे पोंदचें उदक सोदून काडून व्हडले जातात. फुलूंक लागतात, फळूंक लागता. ते रोपे रोवपी मागीर त्या फळांक पचकीं तुरमणां म्हणून लोकांक सांगून ताका काळखांत दवरूक सोदता. ह्याय कारणाक लागून कांय बरोवपी मार्गदर्शन घेवक कोणा कडेन वचूंक तयार जायना आसूं येता. पूण मार्गदर्शना बगर साहित्यांत सुदारणां जांवक शकना. साहित्याचेर भासाभास जावकूच जाय. टिका सोसपाचें बळ ज्या लेखकाक आसता तो खरो लेखक अशें हांव मानता.

## बाल साहित्याचो बुन्यादी वावर

हालिंच्या काळार कोंकणी भाशा मंडळान बाल साहित्याच्या मळार तोखणाय करपा सरको वावर चलयला. आदल्या काळार भुरग्यांच्या साहित्या कडेन व्हडलेशें लक्ष दिवप जाय नाशिल्लें. पूण 1973-74 च्या अदमासाक गुरुनाथ बाब केळेकार आनी तांची घरकान कुमूदिनी केळेकार हाणी 'मारुती' नावाचें नेमाळें सुरु करून बाल साहित्याक पोसवण दिवपाचें काम केलें. ह्या नेमाळ्याचें प्रकाशन लेगीत तेन्ना माधवी सरदेसाय आनी विवेक शानभाग ह्या भुरग्यांच्या हस्तुकी केल्लें. आमचो निबंदकारआनी नाटककार मुकेशबाब थळी ह्या सुवाळ्याक हजर आशिल्लो. तो तेन्ना सवे काय सातवेक आशिल्लो. ताणे तेन्ना सावनच भुरग्यां खातीर बरोवक सुरुवात केल्ली. ताचे उपरांत प्रभाकरबाब भिडे हांणी 'भुरग्यांलो राजहंस' काडून बाल साहित्याची बरी सेवा केल्या. ह्या राजहंसान मुकेश थळी हांणी कितलें बरयलां हाका सुमार ना. तोपण नावांनी लेगीत बरोवन तो प्रभाकर बाबाल्या राजहंसाची गरज भागयतालो. कितें मेळटलें हाचो मातूय विचार

करीनासतना मुकेशान कोंकणीची सेवा केल्या. कितलेशाचा नामनेच्या लेखकांच्यो कथा, कविता इंग्लीशीत करून ताकां इंग्लीश वाचप्यांमेरेन पावोवपाचें काम ताणे त्या काळार केलां. हो तांचो वावर कोंकणी खातीर इतिहासीक अशें हांव म्हणन.

साहित्य अकादमी पुरस्कार जैतवंत लेखक तुकारामबाब शेट हे सर्वांगी विचार करपी लेखक 1984 च्या काळांत ताणे गोंयच्या वेगळ्या वेगळ्या वाठारांनी कितलेशाच बालमेळांचें आयोजन केलां. भुरग्यां खातीर ल्हान ल्हान पुस्तकां, सीडी तयार करून आनी पारंपारीक बालगीतां जीवीं उरचीं म्हूण मेळावे घेवन भुरग्यांच्या मनात कोंकणी बिंबोवपाचो खूब मोलादीक असो वावर केलो. होय तांचो वावर इतिहासीक स्वरुपाचो आसा. तशीं आतां भुरग्यांची पुस्तकां जायती आसात, गोवा कोंकणी अकादमीचे बालसाहित्य येवजणे खालाय जायतीं पुसकां आयल्यांत आनी येतातूय.

पत्रकार उमेश म्हांबरो हांणी भुरग्यां खातीर नाटकांचें आयोजन करून त्या काळार देखदिणो वावर केला. माया रखंगटे, दिपा मुरकूंडे हांणीय बरेच काळा आदीं भुरग्यांल्या मनाचो विचार करून योगदान दिलां. चालिसेक वर्सां आदीं नामनेचे लेखक पुंडलीकबाब नायक हांणी 'रानसुंदरी' नावांची एक भुरग्यां खातीर कवन काणी बरयल्ली. तिचेय प्रयोग वेगळ्या वेगळ्या विद्यालयांनी जाताले. सुरवातीच्या काळात लोक कवी डॉ. मनोहर राय सरदेसाय हांणी भुरग्यांली भूक भागोवपाचो एक म्हत्वाचो वावर केला. तांची कितलीशीच बालगीतां आयजूय भुरग्यांच्या ओंठार घोळटात. त्या गीतांक लोक गीतांचें रूप येवंक लागलां. ह्या सगळ्यांच्या वावराचे बुन्यादीचेर बाल साहित्याचें पोरसूं फुलूंक लागलां. नव्या नव्या रोपांची तातूंत भर पडटा.



# उदयबाबांची निवडणूक : राजभाशेची इशारतूच

1980 तले वेचणूकेंत मगो पक्षाचें सरकार गेलें. आनी काँग्रेस सरकार आयलें. मडगांवचे आदले आमदार अनंत न. नायक म्हळ्यार बाबू नायक हांच्या प्रयत्नाक आयिल्लें तें फळ. तातल्यान गोंयच्या राजकारणान कुसूच परतिल्ली. कोंकणी राजभास, घटक राज्य, आठवे वळेरींत कोंकणीचो आसपाव ह्यो मागण्यो कोंकणी, संमेलना, परिशदो, मेळाव्यांतल्यान जायत आशिल्ल्यो. ताका लागून 1984 वर्साचे विधानसभा वेचणुकें वेळार काँग्रेस पक्षान कोंकणीक राजभास करपाचें आश्वासना दिल्लें. पूण वेचणुके वेळावेलीं आश्वासना कोंण पाळटा? कोंकणी राजभास हें आमचें सपन. तें पूर्ण करतले जाल्यार कोंकणीची वकिली करपी  कोणतरी आमदार विधानसभेंत पावुकच जाय, अशें आमचे मदले सगळेच म्हणटाले. खंयच्याय प्रदेशाचें कितेंय बरें जातलें जाल्यार योगायोगूय आसचो पडटा. मडगांवचे आमदार बाबू नायक हांचे आड वातावरण तयार जाल्लें. पूण मडगांवांतल्यान तांचो पराभव करप सोपें नाशिल्लें. गोवा काँग्रेसचे आमदार लुइझिन फालेरो आनी समविचारी लोक एकठांय येवन उदयबाब भेंब्रे हांणी अपक्ष म्हणून वेचणूकेत देंवचें, अशी सुचोवणी फुडें हाडली आनी मगो सोडून सगळ्याच पक्षांच्या फुडाऱ्यांनी, कार्यकर्त्यांनी ह्या विचाराक तेको दिलो. उद्योजक दत्ता दामोदर नायक हांणी

त्या वेळार म्हत्वाची जबाबदारी घेतिल्ली. उदयबाबांची निवडणूक म्हळ्यार आमचे खातीर कोंकणी चळवळीचोच वांटो आशिल्लो. ह्याच निमतान एक निश्कलंक मनीस विधानसभेंत पावता, हे भावनेतल्यान काणकोण ते पेडणे मेरेनच्या कोंकणी भक्तांची उमेद वाडली. शक्य जाता तशे सगळेच आप आपले परीन प्रचाराक मडगांवां पावले. आप आपल्या सोयरे-धायऱ्यांचीं मतां उदयबाबाक मेळचीं म्हूण प्रयत्न सुरु केले. हांव तेन्ना मि रामार धेंपे कॉलेजीत शिकतालो. उदय म्हांबरो धेंपो कोमर्सान शिकतालो. कोंकणी मुखार कोलेज बी झक मारली म्हणून आमी मडगांवां आयले. व्हडले गोंयच्यान भरत नायक आयलो. पुंडलीक बाबानूय मडगांवांच तळ ठोकलो. हेरशीं र. वी. जोगळेकर मराठीच्या अर्दांतले. पूण बाबू नायकाक उडोवक जाय म्हणून तेय उदय बाबांचे माचयेर चडिल्ले. रमेश देसाय, मोहनदास लोलयेंकार, बाबली नायक आनी ताचो भाव किरण, महेश, दिलीप सगळेच रातदीस प्रचार करताले. प्रकाशबाब थळी हांणी खास 'नितीची तागडी' हें रस्ता नाट्य बसयलें. उदयबाबाचें चीन्न 'तागडी' म्हणून 'नितीची तागडी' कवी सोयरु वर्दे, सुंदर गीतां गायताले. जंय सभा जावपाची आसताली थंय आमचें रस्ता नाट्य जातालें. रस्ता नाट्य सोपले उपरांत सभा सुरु जाताली. जंय आमी रस्ता नाट्य करताले ते सुवातेर आतां व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती जाल्यात. ह्या रस्ता नाट्यांत म्हाका आनी उदय म्हांबऱ्याकय हेर कलाकारां वांगडा अभिनय करपाची संद मेळ्ळ्या. हांव तसो अभिनय करप्यांतलो न्हय. पूण तो प्रसंग वेगळोच. बारा काय तेरा दीस आमचो मडगांवांच मुक्काम आशिल्लो.

त्या वेळावेली एक घटना सामकी यादींत आसा. आमचो मुखेल कलाकार भरतबाब नायक हाचें अपहरणाची. एकदीस ताका अनवळख्यांनी

व्हेलो आनी सांजवेळां सोडलो. वेचणुकेत वेचून येतलो जाल्यार उदय बाबाली निती उपेग ना. ताका काळखांत दवरून बाबू नायकाचे बॅनर कापप अशीं कितलीशीच अनितीचीं कामां लेगीत आमच्या कार्यकर्त्यांनी तेन्ना केल्यां. तशें करप आमकां आवड नाशिल्लें. पूण आमी भुरगे म्हणटकच आमी कोणाक सांगू शक नाशिल्ले. चंद्रकांतबाब केणी, अनील पै हे आम चेच कोंकणीचे, पूण ते आयले म्हणटकच तांका कांयच सांगू नाकात, अशें आमकां आमचे लोक सांगताले. ताचें कारण आमकां कळ नाशिल्लें. तांचो बाबू नायका कडेन लागींचो संबंद म्हणून तांकां आमचे फुडारी पातये नाशिल्ले. आतां हें येवजिता तेन्ना म्हाका हांसूक येता. राजकारण हें वेगळेंच आसता.घरांतल्या मनशाक लेगीत पयस दवरचो पडटा तो हो असो. वेचणुकेत उदयबाब वेचून आयलो तेन्ना मळब सकयल देविल्ल्याची आमकां खोस जाली. कोंकणी भाशेचो हो खरो विजय आशिल्लो. त्याच काळांत कोंकणीचो एक अभिमानी राजकारणी शांताराम बाब नायक उत्तर गोयांतल्यान लोकासभेचेर खासदार म्हणून वेंचून आयिल्लो. कोंकणी भक्तांक ताचीय उमेद जाल्ली. कांय आडवाद सोडले जाल्यार आता पयशे घेतले बगर कोण कोणाचो प्रचार करीनात.



# राजभाशेचो प्रस्न

कोणाचेंय स्थलांतर ही नैसर्गीक प्रक्रिया. वेंतभर पोटा खातीर आसत वा आनीक कित्याकूय लागून आसत. गोंयकारांनी संवसारभर स्थलांतर केलां. पोर्तुगिजांच्या जाचाक लागून सोळाव्या सतराव्या शेकड्यांन कितलेशेच गोंयकार कर्नाटक, केरळांत आनी हेर वाठारांनी गेले. तशे नोकरी–व्यवसाय आनी शिक्षण हाचे खातीर गोंयकार मुंबयतूय पावले. चडशे मागीर थंयचेच जाले. थंयचे मराठी भाशेन मावशेच्या रुपान आमकां आदार दिलो. परिस्थितीक आनी उणे दूरदूश्टीक लागून आमी इल्ले चड भावूक जाले. ताका लागून राजभाशेच्या प्रश्नान गोंयकारांक खुबच सतायले, अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना. मराठीन आदार केल्ल्यान आमी आमची आवय कोंकणी खातीर कश्टुपाचो विचारूच केलो ना. आमी आयतोबा कशे मराठीच्या दूदार रावले. तातल्यान आमकां सुमारा भायलें लुकसान जालां. स्वाभिमानी गोंयकारांक आवयची काळजी घेवपाच्या प्रस्नाचेर खूब संघर्श करचो पडलो. अशी पाळी आनीक कोणाचेर आयल्या जाल्यार तें हांव सांगूक नकळो.

हे फाटभूयेचेरूच मगोचे राजवटीन म्हळ्यार जानेवारी 1964 वर्सा विधानसभा अधिवेशनाच्या पयलेच दिसा भाशेच्या प्रस्नान गोंयकारांचेर दावखूल मारलें. साडेचारशीं वर्सांच्या पोर्तुगीजांच्या दाडवणातल्यान गोंय मुक्त करपा खातीर भारत सरकारान जें कितें केलें ते खातीर केंद्र

सरकारचे उपकार मानपी थाराव सभाघरान हाडलो, तेन्ना ह्या थारायाचेर खंयचे भाशेंत उलोवप ह्या प्रस्नावेल्यान वाद निर्माण जालो. सामान्य लोकां मदीं ह्या विशयाची व्हडलीशी तीव्रता नाशिल्ली. हें खरें आसलें तरी तीं किटाळूच म्हणची पडटली. थरावाच्या वेळार कुडचडेचे मगो आमदार वि. सू. करमली हांणी सभाघरात मराठीतल्यांन उलोवपाक आरंभ केलो, तेन्ना यु.गो. चे आमदार डॉ. जॅक सिकेरा हांणी, ही भास आपणाक कळना, देखून केंद्र सरकारच्या कायद्याक धरून सभाघराचें कामकाज जावचें, अशी सुचोवणी केली विधानसभेंत पयले दिसा सभापती पदाचेर म्हापशेंचे रघुनाथ टोपले आशिल्ले. आमदार करमली जें कितें उलयता ताचो इंग्लिशींत अणकार करून सांगचो, अशें डॉ. सिकेरा हांणी सुचयलें. केंद्राच्या नेमा प्रमाण इंग्लीश वा हिंदीतल्यान लोकसभेंत उलोवपाची तरतूद आशिल्ली. ह्या खिणाकच ह्या प्रदेशाक राजभाशा थारावपाची गरज आसा म्हणपाचो उजवाड वांगड्याचे तकलेंत पडिल्लो. विधानसभेचो पयलोच दीस आशिल्ल्यान वांगडी उलयतात ताचो आशय, सारांश अनुवादाच्या रुपान कामकाजांत नोंद करता म्हणपाचें उतर सभापतीनीं दिलें. गोंयकारांक विधानसभा नवीच आशिल्ली. दूसरे दिसा सभापतीपदार पा. पू. शिरोडकार आशिल्ले. ताणी वांगड्यांक मराठी वांगडा कोंकणीय उलोवपाची मेकळीक दिली. ताका लागून खूबशा आमदारांची अडचण पयस जाल्ली. पत्रकार सुहास बेळेकर, हांणी 'राजभाषा' कायद्याचा अभ्यास नावांचें एक पुस्तक बरयलां. तातूंत ताणी कायद्यांची नकसूद उतरांनी म्हायती दिल्या ती कोणेय वाचचीच. म्हज्या लिखाणाचो विशय कायद्याचो अभ्यास करपाचो ना. पूण विशयाची फाटभूय म्हणून ही म्हायती बरोवची पडटा.

गोंय संघ प्रदेशाची राजभाशा थारावंक नाशिल्ल्यान विधानसभेंत भाशेचो विशय कटकट करतालोच. पूण त्या काळावेल्या सरकारान

हो नाजूंक, संवेदनशील, विशय गांभिर्यान घेतलोच ना. राजकारण हेंच ताचें कारण आसूंये. पूण 22 जुलै 1966 दिसा मगो आमदार दत्ताराम चोपडेकार हांणी गोंय, दमण, आनी दीवा खातीर मराठी आनी गुजराथी राजभाशा करपाचें विधेयक हाडून आपले परीन यत्न केल्लो. हें विधेयक सभाघराच्या कामकाजांतूय दाखल जाल्लें. तातूंत कोंकणी हें उतरूय नाशिल्लें. अल्प संख्याकां खातीर गरज थंय तरतूद करची अशेंशें कितें म्हणिल्लें. कोंकणी गोंयची राजभास जांव येता, ही कल्पनाय मगो आमदारांनी करूक नाशिल्ली. मराठी ह्या तीन उतरां कडेन सामकेच भावनीक जाल्ल्यान तर कोंकणी म्हणटकच तांचें कपल उसळटालें. पूण घरांत-बाजारांत कोंकणीच उलयताले. कोंकणीक ते बोली म्हणटाले. सभाघरान चोपडेकार हांच्या विधेयकाचेर खडाजंगी भासभास जाल्ली. पूण तें मानून घेवपा खातीर सरकाराक म्हुर्तूच मेळ्ळोना. ताचें कारण तेच काळार गोंय संघप्रदेश म्हण दवरचे, काय महाराश्ट्रांत घुकलून दिवचें ह्या विशयाचेर वाद सुरु जाल्लो.

1 दिसेंबर 1966 दिसा केंद्र सरकारान ओपिनीयन पोलां खातीर संसदेत कायदो पास केलो. ताका लागून दुसरेच दिसा मुख्यमंत्री दयानंद बांदोडकार हांणी पदाचो राजीनामो दिलो. त्याच खिणाक गोंयात राश्ट्रपती राजवट लागू जाली. ताका लागून मराठी राजभाशेचें विधेयक विरगळून गेलें. 16 जानेवारी 1967 दिसा मगोची हार जाली आनी गोंय संघप्रदेश उरलो. मगो पक्ष 'ओपिनीयन पोल' हारलो तरी 28 मार्च 1967 दिसा जाल्ले विधानसभा वेंचणूकेंत पर्तून मगोचेंच सरकार सत्तेर आयलें. दुसरेच वर्सा 22 मार्च 1968 दिसा आमदार जयसींगराव राणे हांणी सभाघरान मराठीचो वापर करपा खातीर एक थराव हाडलो. ताचेर भासाभास जाली. मराठी वांगडा कोंकणीचोय आसपाव करचो, अशोय मागण्यो जाल्ल्यो. पूण

कोंकणीचो आसपाव करीनासतना मराठी आनी गुजराथीचो वापर करचो, अशें थारावन भौमताच्या बळार थाराव मानून घेतलो. हाचे वेल्यान त्या काळावयलो मगो पक्ष आनी तांचे फुडारी कोंकणीक कितले कुसकुटायताले हें स्पस्ट जाता. राणे हांचो हो थाराव मानून घेतले उपरांत मगो पक्ष सत्तेर आसमेरेन राजभाशा विधेयक हाडपाचें कोणाकच येवजलेंना, हें गोंयकारांचें नशीब म्हणूक जाय. मराठी राजभास जाल्ली जाल्यार आयज कोंकणीची सुवाथ खंय आसतली आशिल्ली काय?

1980 वर्सा काँग्रेस सरकार येतकच कोंकणीक बरे दीस येतले अशें सगळ्या कोंकणी भक्तांक दिसलें. पूण ह्या विशयाचेर सरकार कांयच करिनाशें दिशील्यान 31 मार्च 1982 दिसा आमदार हेर्कूलान दोरादो हांणी कोंकणीक राजभाशा करपाचे मागणेचें खाजगी विधेयक हाडून तें सरकाराक दाखल करून घेवपाकय लायलें. ह्या विधेयकाचेर खडाजंगी भासाभास जाली. मगो फुडारी सामकेच तुटून पडले. भासाभास अर्दवट उरिल्ल्यान 14 जानेवारी 1983 दिसा ह्या विधेयकावेली भासाभास पर्तून सुरु जाली. ॲड. रमाकांत खलप हाणी एक तांत्रिक मुद्दो उप्रासावन विधयेकाक खर विरोध केलो. तेन्नाच्या सभापतीनूय खलप हांचो मुद्दो उखलून धरलो. खलप हांणी ह्या बिलात आर्थिक नदरेन विचार करूक ना, अशें म्हाणिलें. दूसरे दिसा म्हळ्यार 20 जानेवारीक आमदार दोरादो हांणी ह्या विधेयकाक आर्थिक निवेदनाची गरजूच ना, अशें सांगून सभापती कडेन फेरविचार करपाची मागणी केली. सभापतीन ती मानून घेवन तें विधेयक चिकीत्साय समिती कडेन धाडून दिलें. असलें विधेयक पास जाल्यार समाजांत फूट पडटली, अशें ॲड खलप हांणी तावा तावान सांगून कोंकणीक विरोध केलो. ताकाच लागून सरकारान तें बील मानून घेवपाचें धाडस केलेंना. विधानसभेंत वादाचो विशय आशिल्लें जांव सरकाराच्या

मनात नाशिल्लें बील आयलें जाल्यार पळवाट म्हणून निवड समितीकडेन धाडपाची एक परंपरा आसा. खंयचोय विशय कुसोवन दवरपाचे नदरेन हे पळवाटीचो राजकारणी बरो उपेग करतात. दोरादो हांणी जे दिसा राजभाशा विधेयक मांडिल्लें तेच दिसा आमदार लुइझीन फालेरो हांणी कोंकणी ही गोंयकारांची आवय भास आशिल्ल्यान भाशेच्या सर्वांगीण विकासा खातीर संस्था, जांव केंद्रां स्थापन करपाचो खाजगी थांराव सभागरान मानून घेवपाक येस मेळयल्लें. कोंकणीच्या रचनात्मक वावरांचे नदरेन हो थांराव खूब म्हत्वाचो थारला.

उपरांतल्या काळांत राणे सरकारान कोंकणीक राजभाशेच्या पाटार बसोवचे आदीं 4 फेब्रुवारी 1986 दिसा गोवा कोंकणी अकादमीची स्थापना केल्ली. हे संस्थेचे पयलें अध्यक्षपद ज्येश्ठ स्वातंत्र्य सैनीक आनी गांधी विचारांचे फुडारी पुरुषोत्तमबाब काकोडकार हांकां दिल्लें. कोंकणी भक्त इतल्याचेर समाधानी जातले, अशें राणे हांकां दिशील्लें आसूंक जाय. पूण तशें घडलेंना. ते पेटले ते राजभास बील पास जाय मेरेन न्हिवलेना.



# कोंकणी राजभास
# बाबली नायक आनी भरत नायक खरे हीरो

कोंकणी राजभास कशी जाली? हाचे फाटलो इतिहास आयचे नवे पिळगेक खबर आसा अशें म्हणपाचें धाडस हांव करीना. कोण तो सारको समजून घेवपा खातीर कश्टूय घेना. हो इतिहास नव्या कोंकणी बरोवप्यां सयत सगळ्या गोंयकार म्हणून अभिमान धरप्यांक तरी खबर आसूंकच जाय.

आंदोलनाच्या इतिहासाचो हांव एक गवाय देखून हांव जें जाणां, आनी जे दाखले म्हजे कडेन आसात आनी आंदोलनातलो म्हजो अणभव हाचे आदाराचेर म्हजे ताकी प्रमाण हांवें ह्यो यादी बरोवंक घेतल्यो.

उदयबाब विधानसभेंत पाविल्ल्यान आमदार लुइझिनबाब फालेरो हांच्या कोंकणी मोगाक बरोच ओतो आयिल्लो. ते नेटार ताणी 19 जुलै 1985 दिसा कोंकणीक राजभाशा करची, हे खातीर विधानसभेंत खाजगी विधेयक मांडलें. तें मुळाव्या पांवड्यारुच भायरायलें. मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणे हांच्या तोंडांतल्यान कोंकणीचो अवमान करपी उतरांय ते वेळार भायर सरिल्ल्यान उदय बाब आनी फालेरो बाबूय तिडकले. हे घडणुकेचो तांणी निशेधूय केलो. हेराल्डाचे संपादक राजन नारायण हांचो 'कोंकणी रेस्ट इन पीस' ह्या माथाळ्याचो अग्रलेख छापून आयलो. कोंकणी भक्तांनी आपले भितर फडफडपाचें काम केलें

अशा वेळार कृती जाय आसता. कोंकणीचो अवमान जावनूय कोंकणी मनीस कोणूच पेटून उठना, हें पळोवन आमच्या मडगांवच्या बाबली नायकाची न्हीद खळ्ळी. तो कोंकणीचो निश्ठावंत प्रामाणीक सेवक. कोंकणीचे सासायेचेर ताचो अखंड विश्वास आशिल्लो. तो तडक उठून फेलिस बाब कादोंज आनी उदयबाब भेंब्रें हांका मेळ्ळो. तांचे कडेन उलोवन थेट व्हडले गोंयां भरत नायकागेर गेलो. भरता कडेन तेन्ना स्कुटर आशिल्ली. कोंकणीच्या प्रस्नाचेर कशे भशेन लोकांक फूडें काडूंक जाय, ह्या हेतून दोगूय जाण स्कुटर घेवन भायर सुटले. दिलीप बोरकार, रविंद्रबाब केळेकार, गुरुनाथबाब केळेकार आनी हेर म्हालगड्यांची भेट घेवन एक दीस सांजवेळां चारांच्या अदमासाक हे दोगूय जाण सावयवेऱ्यां आमगेर पावले. कोंकणी खातीर पलासेचेर मोर्चा व्हरपाक तूं तयार आसा काय ना, असो प्रस्न बाबलीन विचारलो. कसलोच विचार करी नासतना हांवें हय म्हळें म्हाका याद जाता ते प्रमाण जुलै म्हयन्यातले पावसाचे दीस ते. म्हगेर सावन ते पुंडलीकबाबागेर पावले. प्रकाश द. नायकाकूय मेळ्ळ्या ते. अशे पद्धतीन बाबलीन आनी भरतान स्कुटरीन गोंय पिंजून काडलें. त्या काळार बाबलीन सांगिल्ली खबर अजूनय म्हाका याद जाता. कवीवर्य मनोहरबाब सरदेसायांक ताळगांवां वचून ते मेळ्ळे. मनोहरबाब पयलीसावन आपल्या काव्यांतल्यान कोंकणीचो स्वाभिमान जागयताले. तांकां तांणी मोर्चा काडपाची कल्पना सांगली. असले मोर्चाक कोंकणी भक्त संघटीत जावन येतले काय ना, हे बाबतींत मनोहरबाबांन दुबाव उक्तायलो. बाबलीबाबान तांकां म्हळें 999 लोक तयार जाल्यात तुमी येतकच एक हजार जातले, हें आयकून मनोहरबाब तयार जाले. खरें म्हळ्यार बाबली आनी भरत जण एकल्याक 999 लोक तयार जाल्यात, अशेंच सांगताले. त्या काळार फोनाचेंय सारकें जाळें नाशिल्लें. प्रत्यक्ष भेटी दिवन वा हाचे ताचे कडल्यान

रेकाद पावोवनूच लोकांक एकठांय करपाचें काम तें. बाबली बाबाक संघात वावर करपाची फाटभूय आशिल्ली. राश्ट्रीय स्वयंसेवक संघा कडल्यान हेरशीं कितेंच घेना जाल्यार जाता. तांचे कडली संघटन कुशळताय कोणेय घेवचीच. बाबलीन ते कुशळतायेचो कोंकणी खातीर खूबच बरो उपेग करून घेतलो. कोंकणी भक्तांचो प्रतिसाद मेळटासो दिसतकच ताणी 23 जुलै दिसा मडगांवच्या रझाक हॉलान एक मुखेल कार्यकर्त्यांची बसका आपयली. हे बसकेक पन्नासावयर कार्यकर्ते हजर जाले. ते बसकेत 29 जुलै दिसा, कवी, लेखक, कलाकार, तियात्रीश्त आनी हेर कोंकणीच्या कार्यकर्त्यांचो पणजे पलासीचेर मोर्चा व्हरपाचो थारायलो. ह्या मोर्चांत राजकारणी फुडाऱ्यांक मेतेर करुन घेवप ना, अशें थरयलें, अशें जरी आसलें तरी नावेलीचे गोवा काँग्रेसचे आमदार लुइझिन फालेरो हांणी कांय लोकांक मोर्चाक धाडपाची वेवस्था केल्लीच. राजकारण्यांक वांगडा घेतले म्हणटकच मूळ विशय कडेकूच उरता. चडशे राजकारणी दूसऱ्यान दवरिल्ल्या आदनात आपले तांदूळ शिजोवंक सोदतात, अशें म्हणून तांकां सामकेच पयसूय दवरूक मेळना. हाचें धंगण आमचे मदल्या कांय कार्यकर्त्यांक आशिल्लें. ताका लागून तांकां जाय थंय घेवप, अशें थरिल्लें. मोर्चा, निदर्शनाचो अणभव आशिल्ले आमच्यांतले लोक केन्ना केन्ना कांय गजाली खातीर म्हालगड्या कोंकणी फुडाऱ्यांकय सांगनासतनाच कितें करुक जाय तें करताले. आमकां सगळ्यांकूच मोर्चाची उमळशीक लागिल्ली.

29 जुलैचो दीस उदेलो. त्या काळार आमचे सावयवेरें, वळवय वाठारांतल्यान पणजे वचपाक चड बशी नासताल्यो. आमचे वटेंतल्यान पुंडलीकबाब नायक, हेमा नायक, संजीव वेरेंकार, प्रकाश द. नायक, अवधूत कामत, महेश नायक, बाबुराव नायक, उमाकांत शेटयो, तुकाराम

शेट, रोहिदास तारी, भिकू बोमी नायक, बेगीनूच पावले. केरच्यान आदले सभापती विश्वास सतरकार, विजयकांत गावडे आयले. विश्वास तेन्ना पणजे शिकतालो. कांदोळेच्या रघुवीर गोवेकारान ताका हाडिल्लो. दोंगरेर सावन निलबा खांडेकारुय आयिल्लो. कोंकणीच्या साहित्यीक चळवळीक लागून सावर्डे, काणकोण, साखळे, दियचले, वाळपय ह्या वाठारांनी आमचें यचप जातालें. तांतल्यान नवे नवे समविचारी लोक वळखीचे जाल्ले. तेय मोर्चांक हजर जाले. आरवीएस म्हळ्यार काणकोणचो रमेश कोमरपंथ. तो पयलीं सावन संघटक. ताणे आनी शिरीश पै हाणी फुडाकार घेवन काणकोणच्यान 27 वाहना हाडिल्लीं. आरवीएसाचो आवय–बापूय, भाव, घरकान्न सगळें कुटूंबच मोर्चांक आयिल्लें. ते भायर चंद्रकांत प्रभू, राहूल बॉस, आलिशान द माशें, आंतोनेत पेरेरा (अश्मा पागी), मार्टिन फर्नांदीश, संदेश पै, उत्कांत फळ, रेवती देसाय, फ्लॉरेन्स बोरेंटो, अनील पै, लुईस ग्रेसियस, स्टेनली ग्रेसीयस, इंजिना ग्रेसीयस, विजमार्क फर्नांदीश, ज्युलियो डिसौझा, आलबान ग्रासियस अशे ग्रासियस वाड्यावेल लागीं लागीं सगळ्याच कोंकणीच्या भक्तांक घेवन आरवीएस पणजे हजर जाल्लो. सावड्डेच्यान अशोक कामत, अर्चना कामत, आनंद मंगेश नायक, विठ्ठल आवदियेकार, डायगो फर्नांडिस, वसंत सावंत, सुरेश पै, दीपा पै, डॉ. जयंती नायक, धारबांदोडेच्यान, जॉन मार्तीरीश, वाळपयच्यान सदानंद तेंडूलकार तांची घरकान सुहासिनी आनी धू शांती, ज्योती जोशी दिवचलच्यान कृशणनाथ फोगेरी, विनायक गोवेकार, उदय सरदेसाय, विजू वर्दे वालावलीकार, अवधूत मांद्रेकार, मांगलेश खाडये (कामत) महेश कडकडे, श्रीपाद कवळेकार, काशिनाथ फळारी, साखळेच्यान सदानंद काणेकार, अशोक काणेकार, राजन शेटये, मोतीराम कामत, शाम बोडको, वसंत शेटयो, विनायक शेटयो, अरुण साखरदांडे, नर्सिंह पिसूर्लेकार, प्रदीप लवंदे,

पेडणेच्यान प्रकाश तळवणेकार, शशिकांत पुनाजी, वासुदेव आरोलकार, सेबी डिसौजा, लक्ष्मीकांत गोवेकार, बेती वेरेंच्यान गजानन भाटकार, फोंडेच्यान सतीश दळवी, जॉन आगियार, विजयाकांत नमशिकार, श्रीधर कामत, बांबोळकार, एन. शिवदास, गोवींद सतरकार, रविंद्र नम शिकार, प्रियोळच्यान रविंद्रबाब केळेकार, जयवंतराव सरदेसाय, माधवी सरदेसाय, मुकेश थळी, भाई नागेशकार, उल्हास यशवंत नायक, सुरेखा तोटेकार, दुर्गादास गावडे, उल्हास कृश्णा नायक, आगशीच्यान दिलीप बोरकार, एली फर्नांडीस, व्हडले गोंयच्यान भरत नायक, पणजे सावन डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, दामोदर घाणेकार, दत्ता श्री. नायक, सुनिता धेंपे, मनोज जोशी, विवेक पिसुर्लेकार, अशोक भोसलो, अ.ऊ. नायक, नितीन धोंड, मडगांवच्यान बाबली नायक, किरण नायक महेश मयेंकार नारायणबाब मावजो, ॲड उदयबाब भेंब्रे, डॉ. एफ रिबेलो, सखाराम बोरकार, हरिश्चंद्र नागवेंकार, माया शेलडेकार, फेलिसीयो कार्दोज, सोतेरे बोर्रेत , दामोदर मावजो, सांताकृजच्यान व्हिक्टोरिया फर्नांडिस, जुवेंच्यान निर्मला सालढाना, सरोजनी सालढाना, तांचो बापूय सालढाना, ते भायर तोमाझीन कार्दोज, आयरीन कार्दोज, फा. आताईत, ऐंथनी वाझ, ॲड. राजू मंगेशकार, ख्रिस्तोफर फोन्सेको, ॲड. अविनाश भोसलो, सिरील पाशेको, डॉ. सुश्रूत मार्टीन, उमेश म्हांबरो अशे कितलेशेच वळखीचे कोंकणी भक्त राजधानीत आमकां मोर्चांत पळोवक मेळ्ळे. ते भायर तियात्रीश्त, कलाकार, धरून सुमार पावणेदोन हजार लोकांची मोर्चाक हजेरी आशिल्ली. कोंकणीक राजभास करपाचे मागणेच्यो घोशणा दीत आमचो आझाद मैदानावेल्यान मोर्चा पालासीचेर वचपाक गेलो. वाटेर पोलिसांनी कडें करून तो आडयलो. उपरांत अटक करून घेवपाचें थरलें. अटक म्हणटकच हांव बरोच भियेलो. अटक करप म्हळ्यार रातचो कादयेन

रावचों पडटलो, हें येवजून येवंक लागलें. पोलिसांच्यो बशी हाडून आमकां आलतिन्यार व्हेले. पावसाचे ते दीस. मदीं मदीं पावस पडटालो. तरीय थंयच सभा घेतली. हे सभेंत उदयबाब भेंब्रे, आमदार लुइझिन फालेरो, आमदार ॲड रमाकांत खलप, आयटक फुडारी क्रिस्तोफर फोन्सेका, ॲड राजू मंगेशकार, पुंडलीक नायक, एन. शिवदास, व्हिक्टोरीया फर्नांदीश अशा कितलेशाच जाणानी भाशणां केलीं आमदार मोंत क्रुझ, आमदार फ्रान्सिस ब्रांको हेय आमकां तेको दिवपाक आयिल्ले. ॲड रमाकांत खलप हाणीय सभेंत भाशण केलें, तें पळोवन आमकां तरनाट्यांक उमेद जाली. आमदार लुइझिन फालेरो हांणी कोंकणीचें विधेयक विधानसभेंत मांडलें तेन्ना खलप बाबानूच विरोध केल्लो. अशें आसतनाय ते आमचे सभेक आयिल्ले. राजकारणी गर्दी दिसता थंय वतात, हें आमकां तेन्ना कळूक ना. राजभाशे खातीर गोंयांत महाभारत घडटलें आनी 555 दीस आमकां रस्त्यारूच उतळताप भोगचे पडटलें हाचो हांवें विचारूय करुक नाशिल्लो. नागेशबाब करमली, शंकरबाब भांडारी तेन्ना आकाशवाणीचे सेवेंत आशिल्ले. ताका लागून नागेशबाबाक उक्तेपणान मोर्चाक येवन भाशण बी करप शक्य नाशिल्लें. पूण तांचें रगत झुजाऱ्याचें म्हणटकच ते आपले परीन भितरले भितर सुत्रां हालयताले. शंकरबाब मात फुरफुरुन माचयेर चडूक फ डें येतालो. ताका आमचे लोक आडयताले. पूण ते 'गोमटें गोंय गायता' हें गीत गावन आमच्या आंगार कांटो उबो करताले. त्या गीताचो गाज अजुनूय म्हज्या कानात आसा. त्या गाजा वांगडाच शंकर बाबांची मूर्तय दोळ्यां मुखार उबी रावता.

डॉ. तानाजी बाबूय कोंकणीतलो म्हालगडो म्हणून आमी पळयताले. तो तेन्ना सुशिला बिल्डींगेत आशिल्ल्या पदव्युत्तर केंद्रात ग्रंथालय अधिकारी म्हणून काम करतालो. तो मोर्चांत बी दिसनाशिल्लो. पूण मोर्चा सोपले

उपरांत मात वर्षा बुक स्टॉला कडेन येवन खाकेक पास्त लावन उबो रावतालो. सगळी वासपूस घेतालो आनी आमकां बरें चल्लां मरे? अशें विचारतालो तेन्ना आमकांय बरें दिसतालें. तो आंदोलनात नासले तरी ताणे सल्लागार जावन सदाच कोंकणीचें काम केलां. कोंकणी चळवळीतल्या म्हज्या चाळीस वर्साच्या अणभवांत इतलो नियोजनबद्ध मनीस हांवें दूसरो कोण पळोवंक ना. तांचे सारक्यांचो आदर्श दवरीत जाल्यार कोणाचेंय कल्याण जांव येता. अभयकुमार वेलींगकार, वसंत सावंत, अशोक भोसलो, तुकाराम शेट हेय सरकारी सेवेंत आशिल्ले. पूण ते कोंकणी मुखार कसलीच पर्वा करीनासतना, दर मोर्चात घुसताले. ताणी मुखार कसलीच पर्वा केलीना.

कोंकणी चळवळीत अशोक भोसल्याचें योगदान कितलें आसा, हें जोखपाक खंयचीच तागडी पावचीना. कोंकणी राजभास करून घेवपाक हजारांनी लोकांचें योगदान आसा. तांचीं सगळ्यांचीं नांवां घेवप शक्युच ना. पूण ज्या मनशांच्या नावांचो हांवें उल्लेख केला ते लोक कोंकणी राजभास जायमेरेन सदांच रस्त्यार आसताले. कांय जाणांनी राजधानीत येनासतनाय त्या त्या गांवांनी आपआपले परीन योगदान दिलां. तांकांय सलाम. पुराय कोंकणीच्या आंदोलनात 29 जुलैच्या मोर्चाक आगळें-वेगळें म्हत्व आसा. ह्या मोर्चात वांटेकार जावपाचें म्हाका भाग्य लाभलें, हाचो म्हाका सदांच अभिमान दिसता.



# 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' ची स्थापन

29 जुलैच्या मोर्चाक मेळिल्ल्या अपेक्षे भायल्या प्रतिसादाक लागून आमची सगळ्यांचीच उमेद वाडिल्ली. आमकां तरनाट्यांक कोंकणी राजभास जालीच कशी दिसूंक लागली. पूण असल्या एका मोर्चातल्यान कोंकणी जावंक शकना, अशें राजकारणाचो अणभव आशिल्ले कांय जाण सांगताले. राजकारण्याक तशे पातयेवक मेळना. राजभाशेचो कायदो विधानसभेंत पास जातलो जाल्यार कायदो आनी सुव्यवस्थेचो प्रस्न निर्माण करचो पडटलो. रस्ते बंद करचे पडटले, बशी, सरकारी इमारती फोडच्यो पडटल्यो, आनी हें सगळें करपाक पयसोय जाय पडटलो. फकत भाशणा करुन तें जावचेंना, अशें आमचो डॉ. सुश्रूत मार्टीन आमकां पणजेच्या टी.वी. कुन्हा सभाघरान येवन येवन सांगतालो. सरकाराचेर चेपण हाडपा खातीर आंदोलन चालूच दवरुक जाय आनी ते खातीर एक बिगर राजकीय संघटना आसूंक जाय. अशें सगळ्यांचेंच मत जाल्लें.

राजभाशेचो प्रस्न सुटावो जाय मेरेन पूर्णवेळ दिवपी एक खडेगांठ फुडारी जाय आशिल्लो, आनी तोय बी भोवजन समाजांतलो, अशें भौ. रविंद्रबाबा सारक्यांचेंय मत आशिल्लें. आंदोलन फुडें व्हरपा खातीर खंयच्याय घटकांचो तेंको घेतलो तरी संघटनेचें 'येरें' लेखक, कलाकार, तियात्रीश्त हांचेच कडेन आसूंक जाय, ह्या मताचेर सगळ्यांचेंच एकमत आशिल्लें. नाम

नेचे लेखक पुंडलीकबाब नायक आकाशवाणीचे सेवेंत आशिल्ले. पूण कांय तांत्रिक कारणाक लागून तो आकाशवाणीचे सेवेंतल्यान मुक्त जावपाचे वाटेर आशिल्लो. आमगेल्या चडशा म्हालगड्या लेखक, फुडाऱ्यांची नदर तांचेरच थिरावल्ली. 31 ऑगस्ट 1985 दिसा मडगांवच्या विद्याभूवनात जाल्ले एके म्हत्वाचे बसकेंत गोंयचे अस्मितेची राखण करपा खातीर पुंडलीक नारायण नायक हांचे फुडारपणा खाला 'कोंकणी प्रजेचो आवाजा'ची कृती समिती वेचून काडली. तेच वर्साच्या 19 डिसेंबराक गोंयच्या मुक्तीचो रुप्या महोत्सव सुरु जावपाचो आशिल्लो. ताचीय एकेतरेची उमेद गोंयकारांक आशिल्ली. वेचून काडिल्ले कृती समितीचेर दामोदर मावजो, डॉ. एफ. एम. रिबेलो, दिलीप बोरकार, तोमाझीन कार्दोज, जॅक बार्रेटो, रमेश कोमरपंथ (आरबीएस), विठ्ठल आवदियेंकार, एन. शिवदास,आवेर्तान फुर्तादो, भरत नायक, ऐलेक्झेंडर फर्नांदीश, रोजफर्न, डॉ. जयवंतराव सरदेसाय, डॉ. जॅरी रॉड्रिगीश, आलफ्रेड तावारीस, श्रीमती इंदिरा रॉड्रिगीस, आनंद मंगेश नायक, थॉमस डायस आनी एलविन रॉड्रिगीश हांचो आस्पाव आशिल्लो. केपीएचे निमंत्रक जातकच पुंडलीकबाबान कोंकणीक राज्य शिंवासनार बसोवपा खातीर आपणे आकाश वाणीवेले नोकरेचेर खोंट मारुन आयला, अशें जाहीर केल्ल्यान कोंकणी समाजाचेर ताचो बरोच प्रभाव पडलो. चळवळीच्या काळांत पुंडलीकबाबान आपली लेखणी कडेक दवरिल्ली पूर्णवेळ ताणी आंदोलनाक ओपून दिल्लें. निमंत्रक म्हणून पुंडलीकबाब आसले तरी आंदोलनाची चडशी रुपरेखा ॲड. उदय बाब भेंब्रे, लुइझिन फालेरो, दत्ता श्री. नायक, रापोणकार संघटनेचे फुडारी आनी आदले मंत्री माथानी सालढाना, ॲड. फेर्दिनबाब रिबेलो, विद्यार्थी फुडारी सिरील पाशेको, रॉक, ॲड राजू मंगेशकार, डॉ. सुश्रूत मार्टीन अशा फुडाऱ्यांच्या

मार्गदर्शना प्रमाणच जाताली. तियात्रीश्तांक संघटीत करपाचें काम आदले सभापती तोमाझीनबाब, रोजफर्न बी करताले.

10 सप्टेंबर 1985 दिसा निमंत्रक पुंडलीक नायक हांच्या फुडारपणा खालच्या शिश्टमंडळान तेन्नाचे मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणे हांची भेट घेवन कोंकणी राजभास, घटक राज, आनी आठवे वेळेरेंत कोंकणी चो आसपाव करपाचे मागणेचें निवेदन भेटयलें. त्या काळार प्रदेश काँग्रेसच्या अध्यक्षपदाचेर सुलोचन काटकार आशिल्ल्यो. हेरशीं त्यो घरांत चडशी मराठी उलोवपी पूण पयली मेरेन कोंकणीचोच पाखो घेवपी. दक्षीण गोंयचे खासदार म्हणून एदूआर्द फालेरो जाल्यार उत्तर गोंयचे खासदार म्हणून ॲड. शांताराम नायक आशिल्ले. स्वातंत्र्य सेनानी पुरुषोत्तम काकोडकार हांचें दिल्लीत वजन आशिल्लें. राज्यसभेचें खासदार म्हणूनय तांची 1985 वर्साच निवड जाल्ली. तांचो आदल्यो पंतप्रधान इंदिरा गांधी हांच्या घराब्या कडेन पयली सावन म्हळ्यार पं नेहरूच्या काळा सावन लागींचो संबंद आशिल्लो. तांच्या उतराक दिल्लींत बरेंच म्हत्व आशिल्लें. ताका लागून कोंकणी राजभास करपाचे बाबतींत केंद्राचो आशीर्वाद मेळपाक अडचण नाशिल्ली. तेच भशेन मावीन गुदिन्हो तेन्ना प्रदेश युवक काँग्रेसीचे अध्यक्ष आशिल्ले. युवक काँग्रेसीचो गोंयचो फाटो कोंकणी वटेन आशिल्लो. अशें आसतनाय मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणे कोंकणी राजभाशेचें विधेयक विधानसभेंत हाडपाक तयार जाय नाशिल्ले. हें बील हाडलें जाल्यार राजकीय नदरेन कितेंय लुकसानी जांव येता अशी तांका भिरांत दिसताली आसूंक जाय. पूण गोंयचे 95 टक्के लोक कोंकणीच उलयतात, हें जाहीर तरेन सांगपाक मात राणेबाब केन्नाच फाटीं रावूंक ना. तांचें हें एकूच विधान आमची मागणेक घटसाण येपाक आदार जाल्लो. त्याच

दिसा म्हळ्यार 10 सप्टेंबराक सुरेंद्र बाबू तिंबलो सभाघरांत जाल्लें कॉंग्रेशीचे बसकेंत कोंकणी राजभाशा करपाचो थारावय घेतिल्लो. कोंकणी प्रजेचो आवाजान राजभाशेचें बील हाडपाक राणे सरकाराक तीन म्हयन्याची मुदत दिल्ली. कोप्रआन सरकाराक दिल्ली नोटीस आनी कॉंग्रेसीन घेतिल्लो थाराव हाका लागून गोमंतक दिसाळ्याचे तेन्नाचे संपादक नारायण आठवले हांकां सरकार कोंकणीक मानाचो पाट दिवक सोदता म्हणपाची सुलूस लागली आनी दूसरेच दिसाच्या म्हळ्यार 11 सप्टेंबराच्या अंकांत लोकांक खूबळावन घालपी अग्रलेख बरयलो. कोंकणीक जर राजभाशा करता जाल्यार मराठीकूय तीच सुवात मेळपाक जाय, अशें मत आठवले हांणी उक्तायल्लें. त्या काळार गोमंतक दिसाळ्याचो खपूय खूब आशिल्लो. गोंयचे सर्वसामान्य लोक गोमंतक दिसाळ्यान कितेंय बरें-वायट सांगप म्हळ्यार भगवद्गीतेन सांगलां कशें मानताले. ताका कारणूय तशेंच आशिल्लें. ते खातीर फकत लोकांक दोश दिवन चलचोना. ओपिनीयन पोल, कोंकणी हे विशयांचे बाबतीत जरी गोमंतकाची भूमिका आमच्या मताच्या विरोधांत आशिल्ली तरी माधवराव गडकरी, नारायणराव आठवले ह्या संपादकांनी गोमंतकातल्यान सामान्य लोकांच्या प्रस्नाचेर सदांच खंबीर पणान आवाज उठोवपाचें काम केल्लें. ताका लागून समाजाच्या काळजांत गोमंतकाक वेगळीच सुवात आशिल्ली. पूण गोंयचे अस्मितेच्या प्रस्नाचेर हे संपादक केन्नाच प्रामाणीक वागले नात. पूण सामान्य भौवसाक अस्मिता बी विशय लागनाशिल्ले आनी आयजूय लागना, हें सत्य. ह्या संपादकांची आवय भास मराठी म्हणटकच भाशेच्या प्रस्नाचेर खोऱ्या भशेन ताणी आपलेच वटेन माती ओडपाचें काम केलें. कोंकणी हीं क्रिस्तावांची आनी मराठी ही हिंदूची भास, अशे तरेचो गैरसमज पातळावपी प्रचार गोमंतकातल्यान

आठवले हांणी सुरूवाती पासूनच सुरु केल्लो. मराठी राजभाशेची मागणी फुडें हाडून प्रती आंदोलन उबारपा खातीर मराठीवाल्यांक फुडें काडपाचें काम ताणीच केलें.

अंत्रूज म्हालांत देवळां चड. ताका लागून मराठी, नाटकां, भजना, किर्तनाची पयलीं सावन परंपरा. ह्यो चडशो गजाली मराठीतल्यानूच जाताल्यो म्हणटकच थंय मराठीच्या नावान लोकांक जमोवप सोंपें आशिल्लें. ते फाटभूयेचेर 12 सप्टेंबराक मराठीवाल्यांनी सभा घेवन मराठी राजभाशेची मागणी केली. कोंकणी राजभास केल्यार गोंय पेटोवपाची शिटकावणीय दिली. थंय गो. रा. ढवळीकार वी फुडें आशिल्ले. उपरांत एक दीस मदी सोडून 14 सप्टेंबराक म्हापशां अनंत टोपले सभाघरांत म्हापशें आनी भोवतणच्या मराठीवाल्यांनी सभा घेवन कोंकणीच्या विरोधान संघर्श करपाचें जाहीर केलें. ॲड. रमाकांत खलपांसयत तांचे वांगडच्या राजकारणातल्या लोकांचो तांकां पूराय तेको मेळिल्लो. कोंकणी वाल्यांचें जशें टी. बी. कुन्हा सभाघर हें चळवळीचें केंद्र, तशेंच गोमंतक साहित्य सेवक मंडळाचें मिनेझीस ब्रागांझांतलें कार्यालय हें मराठीवाल्यांचें केंद्र. थंय 16 सप्टेंबराक बसका घेवन म.रा. प्रस. म्हळ्यार मराठी प्रस्थापन समितीची पा.पू. शिरोडकरांच्या अध्यतेखाला थापणूक केली. हे समितीचेर शशिकांत नार्वेकार, माधवराव तळावलीकार, अरूण निगळये, उदय म्हाड्डोळकार, हिंदवी चे संपादक मोतीलाल देसाय, मगो फुडारी ॲड. रमाकांत खलप, भांभांगोच्यो अध्यक्षा शशिकला काकोडकर, जनता पक्षाचे शिवाजी देसाय, कम्युनिष्ठ पक्षाचे नामदेव हरमलकार, गोमंतक साहित्य सेवक मंडळाचे प्रा. प्रल्हाद वडेर, गोमंतक मराठी भाषा परिषदेचे मनोहर हिरबा सरदेसाई, मराठी पत्रकार संघाचे चंदू कासकार, लेखकांचे प्रतिनिधी

म्हणून गोपाळराव मयेकर आनी बा. द. सातोस्कार हांचो आसपाव आशिल्लो. गोंयकार मराठी लेखक कवींचो तसो तेन्नाय आकडो उणोच म्हणटकच. तांच्या निदर्शना जांव मोर्चांनी, भजना, किर्तना, मराठी नाटकां, ह्या म व्हावेळे तशेंच गोंय मुक्ती उपरांत भायल्यातल्यान येवन जे मराठी शिक्षक हांगा राविल्ले, तांकांय कोंकणी केल्यार मराठी शाळा बंद पडटल्ल्यो म्हणून सांगून तांकां आंदोल्नात ओडिल्ले. गांवांनी जागृताय करपाक ते चड फुडें आसताले. मास्तर सांगता म्हणटकच चडशे भुरग्यांचे पालक ह्या प्रस्नाचेर आपली तकली वापरपाचे भानगडीत पडलेनात. पुराय भावनीक जावन ते काम करताले. मराठी वाल्यांचें पुराय आंदोलन गोमंतकाचे संपादक नारायण आठवले हांच्याच मार्गदर्शनान जातालें.

कोंकणीची बाजू मांडपी म्हत्वाचीं दिसाळी म्हळ्यार 'हेराल्ड' आनी 'राश्ट्रमत'. आनी 'नवें गोंय' क्रिस्तांव समाज पयली सावनच गोंयचे अस्मितेचो विचार करपी. तांकां संघटीत करपाक चड कश्ट पड नाशिल्ले. कोंकणी ही एकूच गोंयची राजभास कित्याक म्हत्वाची, हो विचार हिंदू भावांमदीं पावोवपाचें काम राश्ट्रमतकार करताले. पूण तांकां मर्यादा आशिल्ली. नवहिंद टायम्स, नवप्रभा हीं दिसाळीं कोंकणीचेर अन्याय करपी न्हय. पूण गोमंतक जसो मराठीची बाजू लडयतालो, तशे तरेचें काम तांचे कडल्यान जाय नाशिल्लें. हीं दिसाळीं तटस्थ राविल्लीं. गोमंतक कोंकणीच्यो बातम्यो दिवपाकच तयार नाशिल्लो. ताका लागून बरेच त्रास जाताले. गोमंतकान 'फुटो हे मस्तक तुटो हे शरीर, मराठीचा गजर सोडू नये' हो मंत्रघोश चालूच दवरिल्लो. ताका लागून सर्वसामान्य हिंदू भोस कोंकणीच्या म्हळ्यार आपलेच भाशेच्या विरोधान खूबळिल्लो. मराठीच्या प्रस्नाचेर गोंयच्या समाजांत फूट घालपाचें काम गोमंतकान तेन्ना पद्धतशीर पणान

चलयलें. ताका लागून राणे सरकार विधान सभेंत कोंकणीचें बील हाडपाक टाळाटाळ करतालो.

खंयचेय परिस्थितीन मराठीकूय राजभाशेचो पाट मेळपाकूच जाय. म्हूण सुवरुवाती सावनच गो. रा ढवळीकर, बा.द. सातोसकर, माधवराव तळावलीकर, मनोहर हिरबा सरदेसाई, शिवराम आजगांवकर, एम.एस. प्रभू, दिलीप मांद्रेकर, रघुनाथ टोपले, शशिकांत नार्वेकर आनी तांचे वांगडा ज्योकीम डायस, केजेटीन पेरेरा हांणी गोमंतक दिसाळ्यांतल्यान आपलें लिखाण चालूच दवरिल्लें. तेन्नाचे कॉंग्रेसचे आमदार सुभाष शिरोडकार, शंभू भाऊ बांदेकार उत्तेपणान मराठीची मागणी करपा खातीर रस्त्यार देंवताले. ताका लागून तेन्नाचे म.गो. फुडारी ॲड. रमाकांत खलप, डॉ. काशिनाथ जल्मी आनी ॲड. बाबूसो गांवकार ह्या मगोच्या आमदारांक नेट आयिल्लो. मराठी राजभास जावची म्हुण उत्तेपणान आवाज उठोवप्यां मदीं तरनाट्यांचो आंकडो चड नाशिल्लो. पूण सुरेश स. नाईक, डॉ. विठ्ठल ठाकूर अशें कांय जाण गोमंतकांतल्यान मराठीची बाजू मांडपी लेख, पत्रां बरयताले. कवी सुदेश लोटलीकार मराठीचोच बावटो घेवन आशिल्लो पूण तो तसो रस्त्यार येवपी न्हय. कॉंग्रेस पक्षान कोंकणीक राजभाशा करपाचो थराव घेत सावन सगळ्याच मराठीवाल्यांची न्हिद खळिल्ली. ते खातीर ते वेगळ्या वेगळ्या माद्यमातल्यान कॉंग्रेसीन भाशीक धोरणाचो फेरविचार करचो अशी मागणी करताले.



# भाजपाचें भाशीक धोरण

## Only 1 official language —BJP

### Saved from drowning

1985च्या काळात गोंयांत भारतीय जनता पक्षाचो व्हडलोसो प्रभाव नाशिल्लो, अशें आसलें तरी जी. व्हाय भांडारे हांचे अध्यक्षते खालचो पक्षाचो फाटो आपले परीन वावर करतालो. त्या वेळार भाजपान गोंयां खातीर राजभाशा म्हणून एकूच कोंकणी आसूंक जाय, अशें धोरण आपणायलें. ह्या प्रदेशाचे भाशेच्या प्रस्नाचेर दोन वांटे पडूक फावना. ते खातीर सगळ्या पक्षांनी एकटांय येवन कोंकणी खातीर एकमत करचें, अशी मागणी जी. व्हाय. भांडारे गोंयच्या वेगळ्या वेगळ्या दिसाळ्यांतल्यान करताले. त्या काळात भाजपाक प्राण फुकपाचें बुन्यादीचें काम भांडारी, दत्ता श्री. नायक, माधव धोंड,

काशिनाथ परब हांणी केलां. ते सदांच कोंकणी वटेनच रावल्या. मनोहर पर्रीकाराचें नाव आमी तेन्ना आयकूक नाशिल्लें. गोंयच्या भाशा वादाचो विशय एकमतान सोडोवपा खातीर नायब राज्यपालांनी हस्तक्षेप करचो, अशी मागणी करून गोंयच्यो दोन राज्यभाशा करपाची मागणी करपी लोक राजकारण करुक सोदतात, अशी शिटकावणी भांडारी हांणी राजपालांक दिल्ली. कोणाकूय पुरावो जायच जाल्यार 26 सप्टेंबर 1985 दिसा आयिल्या हेराल्ड दिसाळ्याचो अंक तपासून पळोवचो. जी. व्हाय भांडारे प्रत्येक विशयाचेर पत्रक काडून आपल्या पक्षाची भुमिका उक्तायतालो. तांच्या पक्षाक तेन्ना गोयांत व्हडलेशें अस्तित्व नाशिल्यान लोक तांचे मताचो गंभीर पणान विचार करनाशिल्ले. पूण कोंकणीचे वटेन भाजप आशिल्ल्यान आमकां कोंकणी भक्तांक आनंद जातालो. गोमंतकाच्या कोंकणी विरोधी प्रचाराक तेन्नाचो भाजप बळी पडलोना. शिवसेनेचेंय गोंयात तेन्ना आनी आतांय अस्तित्व ना. पूण आमचें आंदोलन चालू जालें तेन्ना सिंधुदूर्गातल्या वसंत केसरकर नावांच्या सेनेच्या फुडाऱ्यान मराठीक राजभाशेचो मान मेळोवन दिवपा खातीर तेरेखोल न्हय हुपून शिव सैनीक गोंयांत येतले म्हणपाची धमकी दिल्ली. शिवसेनेन दिल्ले धमकेची कोंकणी प्रजेचो आवाजान गंभीरपणान दखल घेतली. गोंयांत जर मराठीक राजभाशेची सुवात जाय जाल्यार महाराश्ट्रांतय कोंकणीक सुवात दिवची, अशी मागणी कोंकणी प्रजेचो आवाजान केल्ल्यान तांचे धमकेंतलें वारें गेल्लें.





Picture shows the massive crowd that turned up to attend the dindi at Azad Maidan to voice their support for Marathi. Seen on right is Mr. Ramakant Khalap (MGP) and Mrs. Shashikala Kakodkar (BBGP). Bridging the gap over the language controversy? Pic.by Menino Afonso.

# मराठी खातीर पणजेंत दिंडी

खंयचेय परिस्थितीन कोंकणी राजभाशा करपाच्या कॉंग्रेसीच्या धोरणाक आडामो घालुकूच जाय, आनी ते खातीर राजधानीत मराठीवाल्यांचें शक्ती प्रदर्शन करुकूच जाय, अशें मराठीवाल्यांक दिशील्ल्यान म्हूण फुडांऱ्यांच्या वळाचेर 2 ऑक्टोबर 1985 दिसा राजधानी पणजेच्या आझाद मैदानांचेर एक मेळावो घेवन मराठीची मागणी केली. आमचीं भजना, किर्तना, प्रवचना मराठी भाशेंतल्यान जातात, प्राथमीक शिक्षण मराठीतल्यान, चडशीं दिसाळीं मराठीतल्यान देखून मराठी हीच आमची संस्कृती असो ते प्रचार करताले. गोंयांतले चडशे भजनी पंगड, हौशी मराठी नाटकां करपी, मराठी प्राथमीक शाळांचे शिक्षक तशेंच गोंयांत नोकरी वेवसायाच्या निमतान रावितो करुन आशिल्ल्या मराठी भाशीक लोकांक आझाद मैदानाचेर जमोवपाचें काम मराप्रसान केल्लें. संत ज्ञानेश्वर, संत तुकाराम अशा संतांचे भेस करून कांय जाण दिंडेक आयिल्ले. गोमंतक दिसाळ्यांन मराठीच्या विशयाचेर सगळें वातावरण भावनीक करून सोडिल्लें. ह्या मेळाव्यांतल्यान पा. पू. शिरोडकार, शशिकांत नार्वेकार, गो. रा. ढवळीकार, ॲड. रमाकांत खलप, डॉ. काशिनाथ जल्मी, शशिकला काकोडकार हांणी मराठी राजभाशा करीना जाल्यार गोंय पेटोवपाची धमकी दिली. कोंकणी आनी मराठी ह्यो दोन राजभाशा केल्यो जाल्यार हांगाचे

धार्मिक सवसकायेक धोको निर्माण जावन गोंयची दक्षीण आनी उत्तर अशीं दोन अर्दां पडटलीं. तशें जालें जाल्यार हांगाच्या पारंपारीक एकचाराक सुरूंग लागतलो, अशें कोंकणी मोगी फुडाऱ्यांनी आड्डू आड्डून सांगलें. पूण मगो फुडाऱ्यांच्या राजकारणा मुखार कांयच चलना जालें. ॲड. खलप, ॲड. बाबूसो गांवकार हांणी मराठीचे दीडेंत वांटो घेतिल्यान उदयबाब भेंब्रे, लुईझीन फालेरो आनी  आमदार ब्रांको हांणी विरोधी विधी मंडळ गटाचो तेको काडून घेतलो. मराप्रसान वेगळ्या वेगळ्या गांवांनी फाटे उगडपाक सुरुवात केली. कोंकणी प्रजेचो आवाजूय त्या कामाक फाटीं रावलो ना. मराठीवाल्यांनी आझाद मैदानाचेर शक्ती प्रदर्शन केल्ल्यान तांकां जाप दिवपा खातीर कोंकणी प्रजेचो आवाजान पं. जवाहरलाल नेहरुंच्या जयंती दिसाचो म्हूर्त सादून 14 नोव्हेंबर 1985 दिसा पणजे आझाद मैदानाचेरच कोंकणीचो महामेळावो घडोवन हाडपाचो थारायलो. ह्या मेळाव्याची बरेच दीस पयली तयारी चालू केली. गोंयच्या खाची कोनशांनी वचून आमी सगळ्यांनी जागृताय सुरू केल्ली. कोंकणी वटेन आशिल्ले आमदार, मंत्री, युवक काँग्रेस, महिला काँग्रेस, लेखक, कलाकार, तियात्रीश्त ह्या सगळ्या घटकांनी महामेळावो जैतवंत करपा खातीर आप आपले परीन जागृताय सुरु केली. आखाती देशांनी रावपी गोंयकार भावांनी आंदोलन चालूच दवरपा खातीर फाव तो निधीय धाडून दिवपाचें काम केलें. पणजे दत्तप्रसाद इमारतीतल्या दत्ता श्री. नायक हांच्या कार्यालयाचें कोंकणी प्रजेचो आवाजाच्या  कार्यालयात रूपांतर जाल्लें, अशें म्हळ्यार अतिताय जावचीना.

हिंदू भावांचो प्रभाव आशिल्ल्या वाठारांनी कोंकणी भक्त आशिल्ल्या हिंदू भावांक काम करप कठीण जाल्लें. क्रिस्तांव चड संख्येन

आशिल्ल्या वाठारांनी हो प्रस्न निर्माण जावंक ना. सावयवेरें, वळवय, माशेल, बाणस्तारी, वेलींग, म्हाड्डोळ, साखळे, वाळपय, दिवचले, सावडें, काणकोण ह्या वाठारांतल्या कोंकणी भक्तांक काम करप भिरांतेचें जाल्लें. आमचो सावयवेरें, वळवय वाठार म्हळ्यार मिनी महराश्ट्र कसो. मराठी कोणाकच सारकी उलोवक कळनाशिल्ली. पूण मराठी राजभाशे खातीर गांव फूडें आशिल्लो. ॲड. पांडुरंग नागवेंकार, मोहन वेरेंकार, शंकर वळवयकार म्हजी भुरगेपणातली शिक्षिका पार्वतीबाई वेरेंकार हांणी मराठीचो बावटो घेवन संघर्शाचें रणशिंगूच फुकिल्लें म्हळ्यार जाता. कोंकणीच्या मेळाव्याचे लायल्ले लायल्ले बॅनर आनी पोस्टर पिंजून वडोवपाचें सत्रूच सुरु आशिल्लें. 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' चे निमंत्रक पुंडलीक नायक हांचें घर फोणचे भाट–वळवय. ते खातीर सगळ्यांचें लक्ष आमच्याच वाठाराचेर आशिल्लें. राजभाशेचे चळवळीतले आमी कोंकणी भक्त हातावेल्या बोटार मेजपा इतलेच. संजीव वेरेंकार, प्रकाश द. नायक, अवधूत कामत, ज्ञानेश्वर तारी, अशोक शिलकार, महेश नायक, बाबूराव नायक, संजय नायक, मंगलदास शेट वेरेंकार, दिलीप शिलकार, पांडुरंग गावडे, हिरू नायक, महेश चारी, विनंती कांसार अशे थोडेच हे चळवळीत आशिल्ले. तातूंत वळवय प्रकाश द. नायक, सावयवेऱ्यां संजीव वेरेंकार, महेश नायक आनी बाबुराव फ. नायक चळवळीत चड सक्रिय आशिल्ले. 14 नोव्हेंबराच्या महामेळाव्याक आमचे वाठारांतल्यान चडांत चड लोक व्हरपाची आमची मोख आशिल्ली. त्या काळार विद्रूपीकरण विरोधी कायदो बी नाशिल्लो. दोनूय विचार धारांचे कार्यकर्ते लोकांल्या वणटीक पोस्टर जांव बॅनर लायताले. आमी मराठीचे पोस्टर केन्नाच पिंजून वडोवक ना. पूण आमचे पोस्टर्स रातयांत ना जाताले. ताका लागून आमी बेजार जाताले. ताका लागून आमी एक तकली काडली.

ट्यूब लायटींचो पिठो करून तो गोमांत घालून वणटीक पोस्टर दसयले. जाणी पोस्टर काडपाचो यत्न केलो, तांच्या हाताक कवच्यो लागल्यो. ह्यो कंवच्यो विखारी आसतात, हें आमकांय तेन्ना खबर नाशिल्लें. हाताक कवच्यो लागिल्ल्यान पोस्टर वणटीकूच उरले. विधानसभेंत राजभाशा कायदो जावन कितलोसोच काळ मेरेन वणटींक पोस्टर तशेच आशिल्ले. 14 नोव्हेंबराच्या महामेळाव्याक राजधानी पणजे शारांत 1 लाख लोकांचे शक्ती प्रदर्शन दाखोवपाची मोख कोंकणी प्रजेचो आवाजान दवरिल्ली. पणजेच्या महामेळाव्याची येसाय म्हणून 10 नोव्हेंबर 1985 दिसा आमदार फालेरो हांच्या फुडाकारान मडगांवच्या लोहिया मैदानाचेर एक शक्ती प्रदर्शन घडोवन हाडिल्लें. ताका मेळिल्लो प्रतिसाद पळयल्यार 14 नोव्हेंबराचो महामेळावो कसो आसू येता, हाची आमकां कल्पना आयिल्ली. मडगांवचे सभेंत निमंत्रक पुंडलीक नायक, ॲड उदय भेंब्रे, लुइझिन फालेरो, तेन्नाचे युवक काँग्रेसचे अध्यक्ष माविन गुदिन्हो, गोवा काँग्रेसचे अध्यक्ष ह्या नात्यान डॉ. विल्फ्रेड डिसौजा, दत्ता नायक आनी अशा कितलेशाच फुडाऱ्यांनी आंदोलन तीव्र करपाची शिटकावणी दिवपी भाशणां केल्लीं. तोमाझीन कार्दोज आनी सी. डिसील्वा हांणी गोंयचे अस्मितायेक होरावपी गीत सादर केल्यान सगल्यांच्याच आंगात बळ आयिल्लें. गोंयांत आमच्यो सभा, मेळावे चालू आसतनाच आवेर्तीन फुर्तादो हांच्या फुडारपणाखाला कुवेटांत सभा घेवन कोंकणी राजभास करपाचे मागणेचो थाराव घेवन तो राणे सरकाराक धाडून दिल्लो. नोकरी वेवसायाचे निमतान आमचे खूबशे गोंयकार भाव आखाती आनी संवसाराच्या हेर वाठारांनी राबितो करून आशिल्ले. पूण तातूंत क्रिस्तांव भावाचें लक्ष गोंयचेर आनी कोंकणीचेर आशिल्लें. चुकून कोणूय सोडलो जाल्यार आमच्या हेर हिंदू भावांनी हो विशय व्हडलोसो लावन घेतिल्लो दिसलोना. आंदोलनाक वाडटो तेंको मेळटा हें पळोवन

काँग्रेस पक्षांतले मंत्रीय वेगळ्या वेगळ्या वाठारांनी जावपी महामेळाव्याच्या पूर्वतयारीच्या सभांनी उक्तेपणान कोंकणी फाटल्यान उबे रावंक लागले. कुडतरी जाल्ल्या को.प्र.आचे एक सभेंत तेन्नाचे मंत्री फ्रान्सिस सार्दीन हांणी कोंकणी राजभाशेचे मागणेक उक्तेपणान तेंको जाहीर केलो. ताका लागून आमचे उमेदीक कोमऱ्यो फुटल्यो. ह्या काळार मडगांवांत मोंत क्रुज, ज्योती सरमळकार, चर्चील आलेमांव, उल्हास बुयांव हांणी खूब व्हडलें काम केलां.



14 नोव्हेंब 1985 दिसांक पणजे जाल्ल्या कोंकणीच्या महामेळाव्यात बायलांचे प्रतिनिधी म्हणून उलयतांना डॉ. जयंती नायक आणि बशिल्ल्यामदी निमंत्रक पुंडलीक नायक हांचे सयत हेर मानेस्त.



*Another section of the crowd at the Rally. Pic. by MENINO AFONSO*

14 नोव्हेंबर 1985 दिसाच्या कोंकणीच्या महामेळाव्याक जमिल्ल्या लोकांचो हो एक वाटो

14 नोव्हेंबर 1985 चो दीस उदेलो. काणकोण ते पेडणे सावन बशी, टेंपो भरून भरून लोक पणजे येवंक लागले. सावयवेरें, वळवय, वाठारांतल्यान सुमार लोक ह्या महामेळाव्याक गेल्ले. राजधानीत सुमार 75 हजार लोक जमिल्ले. आझाद मैदान तुडूंब भरिल्लें. भोवतणच्या इमारतीच्या तेर्रासारय लोकांनी गर्दी केल्ली. लोकांच्यो फकत तकल्योच दिसताल्यो. ह्या विराट महामेळाव्यांतल्यान गोंयच्या मुक्तीचें रुप्या उत्सवी वर्स सुरु जावपाच्या समयार म्हळ्यार 19 डिसेंबर 1985 मेरेन कोंकणी राजभास करपाची नेटाची मागणी करपी थाराव मानून घेतलो. आनी मागणी पूर्ण जायना जाल्यार परिणाम भोगपाची तयारी दवरात अशी शिटकावणी को.प्र.आचे निमंत्रक पुंडलीक नायक हांणी प्रचंड जन समुदायाक गवाय दवरून दिली. ह्या खिणाक आमचें रगत सळसळपाक लागलें.

पुंडलीकबाबाचें हे जोशपूर्ण भाशण अजून म्हजे यादींत आसा.

ह्या मेळाव्याचें वैशिश्ट्य म्हळ्यार तेन्नाच्यो प्रदेश काँग्रेस अध्यक्षा सुलोचना काटकार हांचे सयत पक्षाचे साबार आमदार हजर राविल्ले. तातूंत मंत्री डॉ. लुइस प्रोत बार्बोझा, जे. बी. गोन्सालवीस, सायमन डिसौझा, मोंत क्रुज, मानू फर्नांडीस, श्रीपाद कुंकळकार हांचो आसपाव आशिल्लो.गोवा काँग्रेस अध्यक्ष डॉ. विल्फ्रेड डिसौजा, जनता पार्टीचे अध्यक्ष ॲड. फेर्दिन रिबेलो, भाजपाचे उपाध्यक्ष दत्ता श्री. नायक, गोमंत लोक पक्षाचे माथानी सालढाना, प्रदेश युवक काँग्रेस अध्यक्ष माविन गुदिन्हो, लुइझिन फालेरो, ॲड उदय भेंब्रे, गावडा कुणबी संघटनेचे अध्यक्ष ॲड. गुरु शिरोडकार, हेर्कूलान दोरादो, ॲड. राजू मंगेशकार, श्रीमती व्हिक्टोरिया फर्नांडीस कोंकणी लेखिका डॉ. जयंती नायक हांची उलोवपां जालीं. महाराश्ट्रवादी गोमंतक पक्षाच्या आमदारांपेक्षा आपणे मराठी भाशेची चड सेवा केल्या. पूण आपूण सदांच गोंयच्या फुडाराचो विचार आनी हुस्को करीत आयला, अशें ॲड. भेंब्रे हांणी सांगलें. मुंबयत राबितो करून आशिल्या गोंयकारांनीय कोप्रआक सह्यांचें निवेदन धाडून तेको दिल्लो. डॉ. जयंती नायक त्या वेळार पिरायेन ल्हान. बायलां लेखिकांचे प्रतिनिधीत्व ताणी केल्लें.

ह्या महामेळाव्या वेळारचो एक अणभव बरोवचोच पडटा. मेळावो चालू आसताना देणग्यो जमोवपा खातीर म्हज्याय हातान एक डबो दिल्लो. त्या डब्याचेर देवनागरी लिपयेंत 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' म्हणून बरयल्लें. हांव तो डबो घेवन गर्दैतल्यान वाट काडीत काडीत तळतळट्या वतांतल्यान भोंवतालो. आंतरराश्ट्रीय पॉप गायक रेमो फर्नांडीस, एम. बॉयर, जेसिंत वाझ, आलफ्रेड रोझ आनी आमचे शंकरबाब भांडारी हांच्या गीतांच्या तालार लोक घोलताले लोकांची खेट आशिल्यान घामसाणीचो वास

नाखांत धरतालों. पर्दीच थिता सरता म्हणून कांय वायलें म्हजें केजल जाताली. म्हज्या हातांतल्या डब्याचेर 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' अशें नागरी लिपीन बरयल्लें आशिल्लें. क्रिस्तांव भावांचे नवे पिळगेक नागरी लिपी वाचूंक कळटाली. पूण चाळीस-पन्नाशींतले पिळगेक ती कळनाशिल्ली, ताका लागून कांय वायलां म्हज्या आंगार झुजून आयलीं. 'हें कितें? मराठी घेवन येयला?' अशें म्हणून तांणी म्हाका नाका रेवट केलो. हांव कितें सांगता तें तांका कळच नाशिल्लें. तांकां दिसलें हांव मराठीवालो म्हूण. तांच्या चवक्यांतल्यान सुटून भायर येवप हें आव्हानूच आशिल्लें. अजाणपणान चुकून म्हजेर कोणेंय एकल्यान थापट मारिल्लें जाल्यार म्हज्या हाडांचो पिठो जावपाचो. आमी कोंकणी राजभाशे खातीर झुजताले तें वेगळ्या दृश्टी कोणातल्यान. आमचो मराठी भाशेक विरोध निखालस नाशिल्लो. हें मराठीवाल्यांकय खबर नाशिल्लें, कोंकणी खातीर एकठांय जावपी चडश्या क्रिस्तांव भावांकय तें कळनाशिल्लें. आझाद मैदानाचेर त्या दिसा जाल्ले गर्दीतल्यान हिंदू भावांक सोदून काडप खूब कठीन आशिल्लें. कोंकणीच राजभास कित्याक जांवक जाय, हाचो अर्थ कळपी हिंदू भावांचोच कोंकणीच्या मोर्चांत जांव मेळाव्यांनी आसपाव आसतालो.

कितेंय आसूं. 14 नोव्हेंबरच्या ह्या मेळाव्यांतलो हो अणभव हांव विसरूंक शकना. देणग्यांनी म्हजे हातांतलो डबो भरलो. खरें सांगपाचें म्हळ्यार म्हज्या आनी म्हज्या वांगड्यांच्या बोलसांत पयशे नासताले. अशे वेळार डब्यांतल्यान कांय नोटी काडून बोलसांत घालू येताल्यो. मोर्चा, मेळाव्यांक, येवपा वचपा खातीर पयशे खंयच्यान हाडप हाची चिंता आसतनाय, कोंकणीच्या मोगान आनी गोंयच्या फुडाराच्या हुस्क्यान भरिल्ल्या मनाक, नोटीक हात लावपाची वानसा जालीना. आयज 25

वर्सां उपरांत कोंकणीच्या मळार कितें चल्लां ताचो विचार करता तेन्ना भूत काळांतल्यो यादीच म्हाका थाकाय दिवपाचें काम करता.

ह्या महामेळाव्यांतलें शक्ती प्रदर्शन पळोवन मराठीप्रेमीच्या फुडाऱ्यांची न्हिद खळिल्ली. ह्या मेळाव्यांत काँग्रेस अध्यक्ष सुलोचना काटकार हांणी कोंकणी राजभास करपा खातीर पक्षान घेतिल्या थारावाचीय म्हायती दिल्ली. ताका लागून 19 डिसेंबर मेरेन कोंकणी राजभास जाताच अशें आमकां दिशिल्लें

19 डिसंबेर आयलो. राजभास बिलाचें नाव ना. तें पळोवन 18 डिसेंबराचे राती कडेन विश्वनाथ लवंदे सारक्या स्वातंत्र्य सैनिकांनी काडलेले मिरवणूकीत हांव, अशोक भोसलो, भरत नायक, अ. ऊ. नायक, डॉ. सुश्रूत मार्टीन, नितीन धोंड, शिरील पाशेको आनी हेर कांय जाण मिरवणुकीत घुसून कोंकणीच्यो घोशणा दिल्यो. आमी त्या वेळार खंय न्हिदताले, खंय जेवताले हाची आतां सारकी यादूय जायना. एक सत्य आशिल्लें. पेडणेचो आसूं वा काणकोणचो आसू. क्रिस्तांव आसू वा हिंदू आसूं. कोंकणी म्हणपी मनीस म्हाका जाल्यार तेन्ना नात्यांतलोच कसो दिसतालो. आनी आयज...!!! आलतिन्याचेर शावियर नावांचो एक कोंकणी भक्त रावतालो. तो मिनेझीस कंपनीत कामाक आसतालो. वेळ काडून तो आझाद मैदानाचेर येतालो. रातचे पणजेंत उरले म्हणटकच दूसरे दिसा सकाळी म्हाका आनी महेश नायकाक आपणागेर व्हरून च्या दितालो. अजुनूय केन्नाय ताची म्हाका याद जाता.



# मराठीवाल्यांची धुमशेंणा

14 नोव्हेंबराक पणजे जाल्ल्या महामेळाव्याच्या जैताची झींग आमकांय चडिल्ली. कोंकणी खातीर इतलो लोक रस्त्यार देंवप म्हळ्यार चळवळीक मेळिल्लें व्हडलें यश आशिल्लें. त्या वेळार सावयवेरें-वळवय हो वाठार दिवचले सारकोच मराठीचो बालेकिल्लो अशें सगळेच मानताले. पूण योगायोग म्हळ्यार कोंकणी प्रजेचो आवाजाचो निमंत्रक आमचेच वाठारांतलो म्हणटकच पुराय गोंयचें लक्ष सावयवेरें-वळवयचेर आशिल्लें. खंयचेंय आंदोलन फुडें व्हरपा खातीर कांय पांवडे आसतात. आमचे चळवळीत कल्पक बुद्धीचे खूब फुडारी आशिल्ले आनी तशें पळयल्यार सत्याचीच वट आशिल्ली. कोंकणी प्रजेचो आवाज जो जो पांवडो हुपून फुडें वता तो तो पांवडो मराठी राजभाशेची मागणी करपी हुपूंक सोदताले. पूण शक्ती प्रदर्शनाक लोकांचो आंकडो उणो जातालो. ताचें कारण कोंकणीचो विशय घेवन हिंदू, क्रिस्तांव, मुसलमान सगळेच येताले. मराठीचो प्रस्न फकत हिंदू पूर्तोच मर्यादीत आशिल्लो.

पणजेच्या महामेळाव्या उपरांत दोनूच दिसां भितर म्हळ्यार 17 नोव्हेंबराक मराप्रसान मडगांवच्या लोहिया मैदानाचेर शक्ती प्रदर्शन केलें. तशें पळोवंक गेल्यार हुंदरान शिंवांच्या मिश्शांक हात घालपा सारकेंच तें मराप्रसाचें धाडस आशिल्लें. तांचे चळवळींत केजेटीन पेरेरा आनी अपोलीन लुईस हे दोन क्रिस्तांव आसताले. ताका लागून मराप्रस. वचत थंय अपोलीन

लुइसाचो वापर करताले. लोहिया मैदानाचेर सांजवेळां जाल्ले सभेक ॲड. रमाकांत खलप, डॉ. काशिनाथ जल्मी आनी मराप्रसाचे जाळवणदार माचयेर आशिल्ले. सावयवेरें, वळवय, माशेल, फोंडे, म्हाड्डोळ, काणकोण, सावर्डे, दिवचले, साखळे ह्या वाठारांतले मराठी प्रेमी थंय हजर जाल्ले. अपोलीन लुईस भाशण करता करता कोणे तरी गर्देतल्यान फातर भिरकायलो आनी तांतल्यान ह्या मोर्चाक हिंसक वळण मेळ्ळें. क्रिस्तावांनीच फातर शेवटिले, असो बोवाळ केल्ल्यान तांचे सभेचेर थंयचे थंय विर्जण पडलें. लोहिया मैदानाचेर बोवाळ जाल्याची खबर भोवतणच्या वाठारांत पावली. सभेक गेल्ले लोक जीवाच्या आंकांतान मेळटा तेवटेन धांवूक लागले. गुड्डागुड्डीचें आनी सगळें भिरांतेचें वातावरण जाल्लें. आमच्या वाठारांतल्यान मडगांवां गेल्ल्या मराठी प्रेमीक तिडकल्ल्या कोंकणी मोग्यांनी रातचे राय आडयले. पणजेच्यान आयिल्ल्यांक आगशी आडायले. तिडकले लोक पोलिसांकय आयकना जाले. तांका आळाबंदा हाडटा म्हणसर रातचीं बारा जालीं. नुस्तें जशें काटाळेन पडटा तशी तांची गत जाल्ली.आडकून पडिल्ल्यांक पोलीस बंदोबस्तांत फात्या पारार गांवांनी पावयले. तांतल्या कांय जाणांनी तेच दिसा सावन मराठी मेळाव्यांक वचपाचें सोडून दिलें. जाल्यार कांय जाण कोंकणी वटेनय आयले. आमी तरनाटे म्हणटकच मराठी प्रेमींची जाल्ली अवस्था आयकून आमच्या काळजांतलीं मोगरींच फुल्लीं म्हळ्यार जाता. महेश नायक, बाबुराव नायक, महेश च्यारी, संजय नायक, विवेक वेरेंकार, बब्रुवान नायक आनी हांवें त्या खिणाचो बरोच आनंद घेतलो. तशी तीं आमचीं पिशेपणाय आशिल्लीं.

मडगांवचे घडणुकेन उचंबळ जाल्ल्या मराठी मोगींनी दूसरे दिसा 18 नोव्हेंबराक सकाळी सावयवेरेंचे आनी वळवयचे मराठी प्रेमी एकठांय येवन मोर्चा काडलो. आनी सावय आशिल्ल्या पुंडलीकाच्या प्रेसार फातर मारून पत्रे आनी जनेलांचे हारशे फोडून वडोवपाक सुरवात केली. ह्या

वेळार प्रेसान काम चालू आशिल्लें. थंयच्या कामगारांची भियेवन गुळी. तातूंन एक अनील नायक नावांचो धाडशी तरनाटो आशिल्लो. ताणे एका जनेलांतल्यान कोण फातर शेवटीता तें पळयलें अजूनय अनील त्या प्रसंगाची खबर सांगतना प्रेसार पयलो फातर जय प्रकाश शेट वेरेंकार हाणे मारलो, आनी ताचे फाटोफाट जमाव फातर मारीत रावले अशें सांगता. उपरांत सगळे कामगारांक फाटले वटेंतल्यान सरून पळून वच्चें पडलें. तिडकल्ल्या अनील नायकान आपल्याच बुशकोटाचेर मराठीच्या विराधांत घोशणा बरोवन पुराय भाटाळेंभर मराठीवाल्यांक धमक्यो दीत भोवत रावलो. त्याय वाठारांत उक्तेपणान मराठीवाल्यां कडेन दोन हात करपी तरनाटे उणेंच आशिल्ले. गांवांतल्या कोंकणी भक्तांच्या विरोधांत घूमशेंडां कांडपी मराठी प्रेमींच्या आंदोलनाचें फुडारपण मोहन वेरेंकर, अॅड पांडुरंग नागवेंकार, सुरेश स. नायक, पार्वतीबाई वेरेंकार, जय प्रकाश शेट वेरेंकर करताले. अशा भिरांतेच्या आनी धोक्याच्या वातावरणात को.प्र. आचे निमंत्रक पुंडलीक नायकाक घरांतल्यान भायर सरपूय भिरांतेचें जाल्लें. सावय प्रेस फोडून हो मोर्चा सावयवेऱ्यां आयलो. त्याच वेळार आमचो कोंकणी कार्यकर्तो बाबुराव नायक श्रीअनंताचे तळयेच्या पेडार न्हिदील्लो मोर्चांतल्या कांय समाज विघातक तरनाट्यांनी ताका न्हिदील्ले थंयच्यान उबारून शेतांतल्या चिखलांत वडयलो. ही खबर म्हज्या कानार आयली. पूण कांयच करप शक्य नाशिल्लें. 18 नोव्हेंबराची सांज अशाच वातावरणात अस्तमली. इतले मजगती पुंडलीकाक घरांतल्यान भायर सरप शक्य ना ही खबर पणजे, दत्ता श्रीपाद नायक हांकां कळ्ळी. तो राती कडेन पोलीस घेवन फोणचे भाटान आयलो आनी पोलिसांचे गाडयेन पुंडलीकाक आनी हेमा नायकाक बंदोबस्तांत पणजे घेवन गेलो. ही खबर म्हाका दुसरे दिसा कळ्ळ्या. आमी गांवातूच उरिल्ले.

भिरांतेच्या वातावरणात 18 नोव्हेंबराची रात सोपून 19 डिसेंबराची सकाळ उदेतांच आदले दिसा परसच चड खर वातावरणात मराठीवाद्यांचोय जमो जालो. ते दिसा तांणी गांवांतल्यो सगळ्यो शाळा बंद केल्यो. आनी धुप्यांतलें उत्कर्ष विद्यालय बंद करून पालसड्यावेले सरकारी विद्यालय बंद करपाक मोर्चा व्हेलो. आदले दिसा पुंडलीक नायकाचो प्रेस फोडिल्लो. दुसरे दिसाय पर्तून मोर्चा प्रेसार येव येता अशें दिशिल्ल्यान पुंडलीक नायकाचे वाड्यावेले कांय जाण आनी कोंकणी भक्त अनील नायक आनी ताचे वांगडी काजूनी लिपून बसले. मोर्चा येवन धुमशेंडां घालीं जाल्यार फातरांचो मारो करपाची ताणी तयारी दवरिल्ली. तांकां ताची सुलूस लागिल्ल्यान ते दिसा मोर्चावाल्यांनी प्रेसाचेर पर्तून हल्लो करपाचें टाळ्ळें आनी थेट सरकारी विद्यालय बंद करपा खातीर पालसड्याचे वटेन गेले. महेश नायक दूद पावपाक सदांच भाटोळें-सावय हांगाचे सोसायटीन वचपी. सदां भशेन तो दूद घेवन सावय गेल्लो. मराठीवाले मोर्चा घेवन भायर सरले म्हणपाची खबर ताका कळिल्यान तोय दूद पावोवन रिकामी किटली घेवन आड वाटेन पालसडयावेल्यान घरा येवपाक येतालो. थंय वाटेर तांचे तावडीन तो पडलो. जयप्रकाश शेट वेरेंकारान ताका मराठी झालीच पाहिजेच्यो घोशणा दिवक सांगलें. घोशणा दिल्यार कांय करीना, अशें सांगून ताका वांगडा घेवन वचपाक गेले. पूण कोंकणीचो अभिमानी महेशान घोशणा दिवंक न्हयकार दिलो, तेन्ना तांणी ताच्या पोटाक घोशणेचो पोस्टर बांदून ताका मारपेट करीत करीत तांची दींड घेवन वेऱ्यां बाजारांतल्यान म्हज्या घरा कडेन हाडली. म्हाकाय बांदून म्हजी दींड काडपाचे तयारेत ते आशिल्ले. हांव मागिलदारांतल्यान भायर सरून म्होडक्या कुमावान वचून लिपलो. म्हज्या घरच्यानी हांव घरा ना म्हणपाचें सांगतकच ते परतले. उपरांत महेशाचें बळ वाडलें. ताणे तांचे तावडीतल्यान सुटका करून घेवन घरा गेलो, आनी हातान फातर घेवन घरा मुखार रावलो तेन्ना मोर्चेवाले भियेले. ताणे निमणे मेरेन मराठी झालीच पाहिजेच्यो घोशणा दिल्योना. जीवो मारल्यार लेगीत

घोशणा दिवचोना असो निश्चेव केलो. महेश त्या काळावेल्या आंदोलनातलो खडेगांठ कार्यकर्तो. मराठीवाल्यांची घुमशेंणा चालूच आशिल्लीं. साडे अकरांच्या अदमासाक जयप्रकाश शेटे वेरेंकार, हिराचंद्र नायक आनी कालिदास नायक म्हज्या घरा आयले आनी चळवळीतल्यान कडेक रावपाचो सल्लोय दिलो. पूण हांव आयकलोना. धुमशेंणा चालू आसतना आमचो कोंकणी भक्त, विवेक वेरेंकार, बब्रुवान नायक अंकुश नायक, संजय नायक, मंगलदास शेटे वेरेंकार, खंय आसात, तांचें कितें जालां हें कळपाकूय मार्ग नाशिल्लो. ते पयलेच दिसा गावां भायर आप आपल्या सोयऱ्यांगेर वचून राविल्ले. दोनपारां साडेबारा, एकाच्या अदमासाक मोर्चा प्रकाश द. नायक हांच्या इनानभाट वळवयच्या घरा वचून ताच्या घराच्या पाख्यांचेर फातर शेवटून चाळण केली. प्रकाश हाताक मेळना हें पळोवन ताणी तांच्या गोरवांकय बडयलीं. वळवय कितें घडलां ताची खबर वेऱ्यां कळ नाशिल्ली. आमचे गांवांत फर्नांदीश हें एकूच क्रिस्तांवांचे घर, तांच्याय घरा मुखार वचून समाज विघातकांनी गाळ्यांचो शिंवोर केला. तांचे घरांत आर्मा आसात हें खबर आशिल्यान तांचेर हल्लो करपाचें धाडस तांकां जालेंना. गांवांत रावप कठीनूच जाल्लें. त्याच दिसा दोनपरां दोनाक सुमार हांव, महेश आनी बाबुराव नायकाक घेवन वाघुर्मेच्यान न्हय पलडच्यान कपडे हातान घेवन पणजे वचपाक गेलो. न्हय पलतडीं वागसान नावांचो गांव आसा. मिनाचो वाठार. सावयवेरेंचे जायते ड्रायव्हर थंय खणीचेर ट्रक चलयताले. रोहिदास नावांच्या एका ट्रक ड्रायव्हरान आमकां पळयल्ले. तो खंय आमचेर ट्रक घालपाचो आशिल्लो. पूण मातशे चुकले, अशें ताणे एक दीस बाजारांत येवन सांगलें तेन्ना आमी येवजूनच कडकडले. साडे चार - पांचांच्या अदमासाक आमी तिगूय पणजे पावले. बोलसांन फकत धा ते पंदरा रुपया. कोणाच्याच बोलसान पैशे ना. परिस्थिती कठीण 18 आनी 19 नोव्हेंबर हे दोनूय दीस माशेल, म्हाड्डोळ, फोंड्यां, साखळे, दिवचले, सावर्ड्यां, काणकोण ह्या वाठारांनीय मराठीवाल्यांनी घुमशेणा कांडून

कोंकणी भक्तांक त्रास केल्यात. पूण आमी सावयवेरें वळवयच्या कोंकणी भक्तांनी जें सोसलां तें हेर वाठारांतल्या कोंकणी भक्तांनी तितलें भोगूंक ना. पूण म्हाड्डोळ हो रविंद्रबाब केळेकाराचो गांव आशिल्ल्यान रविंद्रबाबांक आनी वेलंगेच्या अभयकुमार वेलिंगकाराक म्हाड्डोळच्या मराठी वाल्यांनी खूबच सतायल्यात. त्या धाकाक लागून अभय कुमार वेलींगकार वेलंगां सोडून मडगांवां वचून रावलो. तो आयजमेरेन थंयच उरलो. मराठी रंग-माचयेवेले नाट्यकर्मी तातोबा वेलिंगकार हांणी एकदीस आपणाक मराठी वाल्यांच्या तावडितल्यान सोडोवपाक आदार केलो, हें अभयकुमार त्या प्रसंगाची, त्या दिसांची अजुनूय याद काडून सांगता. शिमेमायण म्हड्डोळचो उल्हास यवंत नायक आनी उल्हास कृशणा नायक हे कोंकणीचो विधायक वावर करपी तांकांय बरेच त्रास जाल्या. दीपसागर नायकाकूय ते वेळार थंयच्या एका मराठीच्या कार्यकर्त्यान कसो तुकलायलो, हाची उल्हास केन्नाय याद काडून खबर सांगता. पणजे पावतकच ते रातीं दत्ता भाईन म्हाका करंजाळे आपल्या घरांत व्हेले. महेश आनी बाबुरावाची वेगळे कडेन सोय केली. ताणें धीर दिल्ल्यान काळीज मातशें घट जालें. दूसरे दिसा काफे प्रकाश हॉटेलान आमकां दवरले. खर्चा खातीर कांय पयशेय दिले. दत्ताभाई आनी मळ्यांतलो मनोज जोशी सोडलो जाल्यार आमची वासपूस कोणेच केली ना. ते खातीर तांकां म्हज्या काळजांत सदांच खास सुवात राखून दवरली. गांवांतलें वातावरण मातशें शांत जालांशें दिसतकच आमी गांवांत परतले. म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार आमी गांवांत नासतनाय आमच्या विरोधान फोंड्या पोलीस स्थानकाचेर दोन केसी नोंद जाल्ल्यो. तातूंत पार्वतीबाई वेरेकार हांच्या नावान नोंद जाल्ली, आपणाक मारून रगत पियेतले म्हणपाची कागाळ खूबच गंभीर स्वरूपाची आशिल्ली. बंदखणींत पडपा सारकी ती कागाळ पळोवन खूबच धक्को बसलो. आनी वायटूय दिसलें.

पोलिसांचो समन्स आयलो तेन्ना आमचेर आकांत आयलो. मराठीवाल्यांनी आमच्याच घरांचेर फातर घालप आनी आमी धमक्यो दिल्याची उर्फाटी कागाळ नोंद करप हो खंयचो न्याय? तेंच कळना जालें. दूसरी कांगाळ विद्याधर वेरेंकार हांचे नावान नोंद जाल्ली. आपल्या घरांचे हारशे फोडिल्याची. सगळें अजाप करपा सारकेंच घडटालें. आमी थेट समन्स घेवन उदयबाब भेंब्रे हांचे म्हऱ्यान धांवले. ते वेळार ॲड मनोज बांदोडकार तांच्या ओफिसांत आसताले. उदयबाबान हें प्रकरण ताचे कडेन सोपयलें. ताणे सत्र न्यायालयान वचून आमकां अटकपूर्व जामीन मंजूर करून दिलो. त्या वेळार पोलिसांनी आमच्या तिगांच्याय हाताचे ठशेय घेतिल्ले. कितलेशाच कागदांचेर सयोय मारच्यो पडिल्ल्यो. आमचे आड बनावट केसी घाल्ल्यान आमचे घरांचेर मोर्चा घेवन येवपी चडशा सगळ्यांची नांवां दिवन आमीय तांचेर केसी केल्यो. आमी नावां दिल्यां मदीं जयप्रकाश शेट वेरेंकार, शांताराम केरकार अशे सरकारी नोकरय आशिल्ले. आयचे आमचे नाटक वीर राजदीप नायक, विठ्ठल नायक बी त्या काळार बारां-तेरा वर्सांचे आसूंक जाय. कोंकणी मराठी वादाचें म्हत्व कळपाची तांची ती पिरायूय न्हय. गांवांतले चड लोक जे वटेन रावतात तांचे वटेनच रावपाचे. नाटकवीर विठ्ठल नायक (बाप्पो) सांगता ते प्रमाण, ताणेंय खंय मोर्चांत येवन आमचे घराचेर फातर मारला. ताचे ह्या प्रामाणिकपणाचे कबुलीचें म्हाका कौतुक दिसलां. मराठीवाल्यांनी साखळे, दिवचल वाठारांतल्या कोंकणी भक्तांकय खूब त्रास दिल्यात. साखळेय बाजार बंद केलो त्या वेळार आमचे कोंकणी भक्त अशोक काणेकार हांणी आपलें दूकान उक्तें दवरून मराठीवाल्यांक दिल्लें, आव्हान धाडसाचेंच म्हणूक जाय. अशोकबाब चळवळीतलो धाडशी कार्यकर्तो. साखळे ताणे आपल्या सहकाऱ्यां वांगडा खूब वावर केला.



२२-जानेवारी १९८६

# आतां सांखळी उपोषण सुरू



कों. प्र. आवाजचे तीन स्वयंसेवकांनी काल स्वा. सैनिक डॉ. जे. एफ मार्टीन्स यांच्या हातून लिंबू रस घेऊन उपोषण सोडले. त्याप्रसंगी घेतलेले छायाचित्र.

को. प्र. आवाजच्या प्रवक्त्याने दिलेल्या माहिती प्रमाणे निदर्शकांनी पोलिसांचे कडे तोडल्याचा आरोप खोटा आहे. इमारतीवरून पोलिसांवर दगड पडल्यानंतर पोलिसांनी बेछूट लाठीहल्ला केला आणि लोक सैरावैरा पळाले काझ इण्टरनॅशनल पाशी बांधकामासाठी टाकलेले दगड पोलिसांनी उचलून लोकांवर फेकले असाहि दावा प्रवक्त्याने केला.

## लाठीहल्ल्याचा निषेध

अहिंसक व निःशस्त्र निदर्शकांवर पोलिसांनी केलेल्या पाशवी लाठीहल्ल्याचा गोवा कॉंग्रेसने निषेध केला आहे. सरचिटणीस गोविंद पानवेलकर यांनी आज एका पत्रकांत म्हटले आहे कीं, पोलिसांनी पुरुष, महिला म्हणून न पाहतां सर्वांना झोडपून काढले कांहींना इस्पीतळांत दाखल करावे लागले आहे. अशा पाशवी वृत्तीमुळे लोकांचा संताप वाढणे स्वाभाविक असल्याचे सांगून त्याची चौकशी करण्याची मागणी श्री. पानवेलकर यांनी केली आहे. 'चिंत्रगी'च्या संपादिका हेमा नायक यांनीहि लाठी हल्ल्याचा निषेध करून याचे परिणाम सरकारला भोगावे लागतील असा इशारा दिला आहे.

अ. गो यूथ फेडरेशनचे अध्यक्ष एस. ए. मार्टीन्स यांनी लाठीहल्ल्याचा निषेध करून गोवा पोलीसच हिंसाचारास जबाबदार होते असे पत्रकांत म्हटले आहे.

युवा जनताच्या गोवा शाखेने लाठी हल्ल्याचा निषेध करुन सरकारने त्याची चौकशी करावी अशी मागणी केली आहे. युवा जनताचे अध्यक्ष सिरील पाशेको आंदोलकांना शांत करीत असताना त्यांच्यावर बेदम लाठीमार करण्यांत आल्याचे सांगून पोलीस इन्स्पे. मिरांडा यांना बडतर्फ करावे अशी मागणी पत्रकांत करण्यांत आली आहे. पी. एस. यू. व नौजवान भारत सभा या संघटनानी कोंकणी भवनावरील लाठीहल्ल्याचा निषेध करून त्याला को. प्र. आवाज प्रत्युत्तर देऊ न शकल्याबद्दल खेद व्यक्त केला आहे.

## उपोषण समाप्त

कोंकणी राजभाषा मागणीसाठी आझाद मैदानावर बेमुदत उपोषण आरंभलेले दत्ता नायक, दिलीप बोरकर व डॉमनीक आफोंस या को. प्र. आवाजच्या तिघां स्वयंसेवकांनी प्रसिद्ध स्वातंत्र्य सैनिक डॉ. जे. एफ. मार्टीन्स यांच्या विनंतीला मान देऊन व त्यांच्या हातून लिंबाचा रस घेऊन आपले उपोषण आज सोडले.

वातावरण चिघळू नये यासाठी म्हणून डॉ. मार्टीन्स यांनी त्याना उपोषण सोडण्याची विनंती केली. आमदार लुईझीन फालेरो, उदय भेंब्रे यांनीहि त्यांना उपोषण समाप्त करण्याची विनंती केली. आतां त्याच ठिकाणी कों. प्र. आवाजने सांखळी उपोषण आरंभलेले असून भरत नायक, संजीव वेरेकर व प्रोहन नायक उपोषणास बसले आहेत.

# कोंकणी भक्तांचे उपोशण

कोंकणी राजभाशा विधेयक विधानसभेंत मांडून तें पास करपाक राणे सरकार मनापसून तयारीच दाखयना जाल्ल्यान आंदोलन कशें चालूच दवरप, परतून परतून लोकांक राजधानीत आपोवन मोर्चा, निदर्शना करूनय कांयच साद्यशें जायना जालें. आमच्या आंदोलनातले खडेगांठ फुडारी दत्ता श्री. नायक कसलेंय धाडस करपाक तयार आशिल्लो. 17 जानेवारी सावन, दत्ताभाई, दिलीप बोरकार आनी डॉमनिक दिनीज हांणी पणजे आझाद मैदानाचेर आमरण उपास सुरु केलो. तांकां तेको दिवपा खातीर गोंयच्या वेगळ्या वेगळ्या वाठारांतले कोंकणी भक्त थंय येताले. ताका लागून आझाद मैदानाचेर गर्दी जाताली. तांची भलायकी इबाडटाशी जातकच सरकारान ताकां हॉस्पिटलान व्हरपाची तयारी सुरु केल्ली पूण राजभाशा विधेयक पास केले बगर उपास सोडपाक तांणी न्हयकार दिलो. सरकाराचेर मात ताचो कांयच परिणाम जायना जालो. पांच दीस जातासर तांची भलायकी चडूच इबाडली.

तांच्या उपोशणाच्या पयले दिसा सावन सुनिता धेंपे (आयचें सुहासिनी प्रभूगांवकर) तांचे सेवे खातीर थंयच ठांण मांडून आसतालें. दत्ता नायकाच्या 'सोंगडी' ह्या नेमाळ्याचीय जबाबदारी तेंच सांभाळटालें.

गोमंतकाचे संपादक नारायण आठवलेचे मुद्दे खोडून काडपाचें काम 'सौंगडी' करतालो. ताच्या धाडशी सभावाचें दर्शन ते दिसांनी आमकां घडलें. उपासाक बशिल्ल्यांची भलायकी चडूच इबाडूंक लागली. तें पळोवन को.प्र.आन ताणी उपोशण सोडचें म्हणून तांचें मन वळवयलें. ताकां तेंको दिवन आंदोलन खर करपाचें उतर दिवन उपोशण सोडूंक लावचे खातीर 21 जानेवारी दिसा सांजवेळां हजारांनी कोंकणी भक्त आझाद मैदानार आनी भोवतणच्या वाठारांत आयिल्ले. ते शांततेन मोर्चा काडपाचे तयारेंत आशिल्ले. सगळ्यांनी कोर्ट अटक करून घेवपाचें थारायलें. इतल्यान फातरांचो मारो सुरु जालो. खंयच्यान फातर येताले तें कळना जालें. ह्या वेळार हांवूय उपासाक बशिल्ल्यांच्या म्हऱ्यांत आशिल्लो. आझाद मैदानार फातर पडपाक लागले. को.प्र.आ.चे युवा फुडारी सिरील पाशेको वातावरण शांत करता आसतनाय पोलिसांनी माया दया दाखयनासतना ताचेरय लाठी हल्लो केल्लो. त्याच वेळार थंय आशिल्लो माथानीबाब सालढाना आनी आमी सगळे टी.बी. कुन्हाच्या स्मारका कडल्यान आझाद मैदानार गेले. भोवतणच्या दूकानांची शटरां धडाधड बंद जालीं. पोलीस मेळटा ताका मारीत रावले. एकेवटेन पोलिसांच्यो लाठ्यो आनी दूसरे वटेन फातरांचो मारो. तो चुकोवपाक हांवे आनी म्हजे वांगडच्या कांय जाणांनी माहिती खात्याचे इमारतींत धांव मारली. माथानी बाब वातावरण शांत करतालो, तेन्ना ताचे तकलेर फातर बसून रक्तबंबाळ जालो. तें पळोवन सुनिता धेंपे आनी हेरांनी ताका घट धरलो. सुनिता रस्त्यार धांवलें. तेच वेळार आकाशवाणीवेले तेन्नाचे निवेदक सुरेश नायक हांची गाडी तेवटेन वताली. ती सुनितान थांबयली आनी तेच गाडयेन माथानीबाबाक बसोवन ताणे

हॉस्पिटलांत व्हेलो. हे घडणुकेक लागून पुराय राजधानीतलें वातावरण तंग जाल्लें. फातर कोणे मारपाक सुरुवात केली हें कोणाकूच कळ्ळेंना. अशा गोंदळाच्या आनी भिरांतेच्या वातावरणात सुटके झुजारी डॉ. जे. एफ. मार्टीन हांचे हस्तुकी लिंबाचो रोस घेवन दत्ता श्री. नायक, दिलीप बोरकार आनी डॉमनिक दिनीज हांणी उपांस फाटीं घेतलो. फूडें आंदोलन कशें चालू दवरप हो प्रस्न निर्माण जालो. आमचे संघटनेत आंदोलन करपांत तरबेज आशिल्ले जायते फुडारी आशिल्ले. तांणी राजभास जायमेरेन साखळ उपास चालूच दवरपाची कल्पना मांडली आनी कोप्रआन ती मानून घेतली. ह्या साखळ उपासाची सुरुवात भरत नायक, संजीव वेरेंकार आनी महेश नायक हांच्या उपासान जाली. ते दिसा सावन पेडणे ते काणकोण सावन कार्यकर्ते उपासाक बसपाक येताले. कितलोसोच काळ मेरेन हो उपास चालूच आशिल्लो. ताका लागून आझाद मैदान हें कोंकणी चळवळीचें केंद्र जाल्लें. ह्या उपास आंदोलनाच्या काळान थंय लागीच आशिल्ल्या काफे प्रकाश हॉटेलाच्या धनयान आमकां सैमीक विधी खातीर खूब आदार केला. तांच्या हॉटेलाचे वॉशरूम आमी वापरताले. ताचोय चिरो चळवळीक लागला अशें म्हणूक जाय. ते दिसा जाल्ल्या हल्ल्यांत दामोदर मावजो, डॉ. फ्रान्सिस रिबेलो, कुंकळेचे तेन्नाचे सरपंच मोती देसाय हांचे सयत चाळीसेक लोकांक दूखापत जाल्ली. ते दिसा रविंद्रबाब केळेकार, माधवी सरदेसाय, डॉ. रिबेलो सगळ्यांत फुडें आशिल्ली. रविंद्रबाब आनी डॉ. रिबेलो फातर मारु नाकात, अशें आकांतान सांगताले. पूण फातर खंयच्यान येतात हें कळनाशिल्लें. दूखापत जाल्यांक हॉस्पिटलांत व्हेल्ले. रगतां व्हांवता आसतनाय पोलीस मेळटा ताका मारीत आशिल्ले. हे मारपेटीं तल्यान हेराल्ड

दिसाळ्याचो फोटोग्राफर मिनीन आफोन्सोय सुटूंक ना. फातरांच्या माऱ्यान पो. उपअधिक्षक मोरायस, पो .निरीक्षक विश्वनाथ वारीक, मिरांडा, अशा धायेक पोलीसांक मार लागिल्लो. पोलिसांनी इमारतींच्या तेरांसार वचून फातर मारप्यांचो सोद घेवपाचो यत्न केलो, पूण ते केन्नाच पसार जाल्ले.




फातर मारपाचे काम पीएसयू आनी नवजवान भारत सभेच्या कार्यकर्त्यांनी केलें, अशो कोणे कोणे खबरो हाडल्यो. ते चडशे तेन्ना मराठीक सहभाशा करपाची मागणी करताले, आनी पत्रकांय वाट्टाले. ते गर्देत घुसताले. ताका लागून दत्ताभाई आमकां दर मोर्चा, निदर्शनाचे वेळार तांचेर नदर दवरपाची शिटकावणी दिताली. उपरांतल्या काळांत ते सगले आमच्या आंदोलनात सक्रीय जाल्ले. पूण तांच्या हेतूविशीं सगळ्यांकच दूबाव

दिसतालो. पीएस युतलें ज्योती धोंड केन्नाय त्या काळावेल्या घडणुकांची याद काडटा. पूण आंदोलन जेन्ना निमणे टप्प्यांत पावून लोकांनी हातांत घेतलें त्यावेळार संदेश प्रभूदेसाय, प्रशांत नायक, प्रशांती तळपणकार, ज्योती धोंड, रत्ना दिवकर, शैलेंद्र मेहता, बनी गोमस्, सायमन कायादो, रूडॉल्फ फर्नांडीस, रॉडनी पेरेरा, मॉजेस फर्नांडीस, लेस्टर फर्नांडीस, रॉलन्ड मार्टीन, डॉमनीक डिकोश्ता, फ्रेंको फर्नांडीस, ऐंथनी ब्रागांझा, सेर्ज्यू कार्व्हाल्हो, सुशांत तारी, देवेंद्र प्रभू देसाय, स्टेनली वाझ  अशा कितलेशाच पीएसयू आनी नवजवान भारत सभेच्या कार्यकर्त्यांनी रस्ते आडावपाचें काम केलां. ते वेळार चर्चिल आलेमांवांची शक्तीय तांचे फाटल्यान आशिल्ली.



# पेवून येवन 144 कलम मोडलें

उपरांतल्या काळांत आंदोलनाचोच वांटो म्हणून दत्ता श्री. नायक हांणी अकस्मात मांडवी न्हयतल्यान पेवून येवन 144 कलम मोडून विधानसभेंत प्रवेश करपाचो यत्न केलो. तेन्ना मात पोलिसांची न्हिद खळ्ळी. थंयच तांकां अटकूय केली. को.प्र.आचो मोर्चा येता अशी खबर कळटकय पोलिसांचेर आकांत येतालो. ह्याच काळांत सरकाराचो निशेध करपा खातीर वेगळ्यो वेगळ्यो पद्धती आपणायल्ल्यो. सरकारी कसलेय कार्यक्रम जाता थंय थंय वचून आमी निदर्शना करताले. म्हाका याद जाता. एक दीस दत्ता नायक हांच्या फुडारपणा खाला अशोक भोसलो, दामोदर घाणेकार, सिरील पाशेको अशा कांय जाणांनी गोवा कलाअकादमीत घुसून मुख्यमंत्री राणे उलोवंक लागतकच निदर्शना केल्लीं. तेन्नाय पोलीस धावून येवन तांकां भायर काडिल्ले.

तेच काळार कोंकणी राजभाशा करपाचे मागणेचीं निवेदना, गटविकास अधिकाऱ्यांचे मार्फतीन सरकाराक पावोवचीं, अशें सगळ्यांक को.प्र.आन आवाहन केल्लें. ते खातीर पेडणे वाठारांतल्यान गटविकास अधिकाऱ्यांक निवेदन पावूक जाय म्हणून तुकारामबाब शेट, संजीव वेरेंकार, उमाकांत शेटयो, महेश नायक, प्रकाश द. नायक दोनपारां पेडण्या गेले. तेन्ना आमचे कडेन स्कुटरी, मोटर सायकली बी ना. सगळो प्रवास बशिंतल्यान. दोनपारच्या कडार शशिकांत पुनाजीक भेटले. उपरांत प्रकाश

तळवणेकाराक मेळूक गेले. तुकाराम बाबाचे कांय वळखीचे पेडण्या आशिल्ले. तांगेरूच रातचे रावतले आनी जागृती करतले, असो आमी बेत आखिल्लो. ते घरा मेळ्ळेना. भोंवता भोंवता रात जाली आनी कोणाक तरी सायबा करून ते रातचे आमी थंयच्या आयटीआय केंद्राचे इमारतींत रावले. जळारांच्या हल्ल्याक लागून दोळ्यांक झापडीच लागलिना. न्हिदसूऱ्या दोळ्यांनी दूसरे दिसा सकाळी परतले. ह्याय प्रसंगाची म्हाका केन्नाय याद जाता. ते दीस खूब वेगळे आशिल्ले. ते दिसांचे अणभव काणयांच्या रूपान नवे भुरग्यांक सांगत जाल्यार तांची खूब बरे तरेन करमणूक जांव येता. जांणी कोंकणीच्या नांवार फक्त साधोवन घेतलां ते म्हजे सारक्यांक पिशार काडटले. पूण जे कोण कोंकणीचो ध्यास घेवन कश्टले तांचे खातीर हो गंभीर विशय, अशें हांव मानता. आयजूय त्या वेळावेलो कोणूय मेळ्ळो म्हणटकच वेगळेच भावनेन तांचे कडेन पळोवप जाता.

को.प्र. आच्या आंदोलनाक हिंसक वळण मेळूंक लागिल्यान काँग्रेस फुडारी मातशे गंभीर जाल्ले. आंदोलन फुडाऱ्यांच्या हातान उरना अशी स्थिती निर्माण जाताली. हे फाटभूयेर काँग्रेस अध्यक्षा सुलोचना काटकार आनी युवक काँग्रेस अध्यक्ष मावीन गुदिनो हांच्या फुडारपणा खालच्या शिश्टमंडळान दिल्लीत पंतप्रधान राजीव गांधी हांची भेट घेवन तांकां कोंकणी राजभाशेचो विशय पटोवन दिलो आनी पंतप्रधान रोखडोच फाव तो आदेशूय दितले अशोय खबरो कांय दिसाळ्यांनी छापून आयल्यो. त्यो वाचून आमकां खोस भोगली. पूण ही खोस चड काळ तिगलीना. म. गो. फुडारी म.रा.प्र.सा. चे फुडारी हांचें, मुख्यमंत्री राणे हांकां मेळप जातालें. पंतप्रधानाक विशयाचें गांभिर्य कळ्ळां. हे बातमेक लागून काँग्रेस पक्षानय खळबळ निर्माण जाली. तेन्नाचे शेतकी मंत्री फ्रान्सिस सार्दिन, मंत्री डॉ. लुईस प्रोत बार्बोझ आनी उद्योगमंत्री शेख हसन हरुण हांणी पत्रकार

परिशद घेवन हे बातमेंत तथ्य ना म्हुण जाहीर केलें. हेच पत्रकार परिशदेंत एका प्रस्नाचेर ह्या तिनूय मंत्र्यांनी मुख्यमंत्री राणे कोंकणीक आडवळ हाडटा म्हणपाचें मान्य केलें. तेन्नाच्यान सगळ्यांनी मुख्यमंत्र्याच्या नांवान बोटां मोडपाक सुरुवात केल्ली. कोंकणी भक्ता मदीं राणे हांच्या विरोधांतलें तिडकीचें ल्हार उसळिल्लें.

12 मार्च 1986 दिसा प्रदेश काँग्रेस अध्यक्ष सुलोचना काटकार हांणी मंत्री फ्रान्सिस सार्दिन, डॉ. बार्बोजा, शेख हसन हरुण आनी गोंयच्या खासदारांचो आसपाव आशिल्लें शिश्टमंडळ घेवन दिल्लीत वचून काँग्रेसचे तेन्नाचे राश्ट्रीय उपाध्यक्ष अर्जून सींग आनी गोंयचे प्रभारी आर.एल.भाटीया हांची भेट घेवन कोंकणीच्या प्रस्नाचेर खोलायेन भासाभास केली. गोंयच्या पुराय वातावरणाची, स्थितीची तांणी ह्या राश्ट्रीय फुडाऱ्यांक म्हायती दिली. हे बसकेक मुख्यमंत्री प्रतापसिंह राणे हांकांय हजर रावचें पडिल्लें. मराठीची कितें ती सुवाथ थारावन कोंकणीच गोंयची राजभास करपाचो मंत्र्य राश्ट्रीय फुडाऱ्यांनी राणे हांकां दिल्याची खबर गोंयांत पाविल्ली. काँग्रेसच्या कांय वांगड्यांनी मराठीक सह राजभाशा करपाचो प्रस्ताव फुडें हाडिल्लो. पूण सह राजभाशे खातीर कायद्यान तरतूदच ना, अशें राश्ट्रीय फुडाऱ्यांचें म्हणणें आशिल्ल्यान हो प्रस्ताव विरगळ्ळो. मराठीक खास दर्जो दिवप म्हळ्यार सांस्कृतीक मळार फाव ती राखण दिवची अशें कांय वांगड्यांचें म्हणणें आशिल्लें. दिल्लींतले हे बसके उपरांत म्हळ्यार अंदाजपत्रकी अधिवेशन सुरु जावचे आदीं 18 मार्च 1986 दिसा काँग्रेस विधी मंडळाची वादळी बसका जाली. कामगार मंत्री वैकुंठ देसाय सोडले जाल्यार हेर सगळ्या मंत्र्यांनी राजभाशेचें विधेयक विधानसभेत हाडपाक पांचवो दिवो दाखयलो. राश्ट्रीय फुडाऱ्यांचें वायटपण तांकां नाका आशिल्लें. पूण कांय आमदारांनी राजभाशेचो विशय लांबणेर वडोवपा खातीर भितरले भितर कारस्थान

चलयल्लीं. वासू पाईक गांवकार, शंभू भाऊ बांदेकार, सुभाष शिरोडकार हे तातूंत चड फुडें आशिल्ले. तांच्या मतदारसंघानी मराठीवादी चड बोवाळ घालताले. ताकाच लागून तांकां कोंकणी वांगडा मराठीय जाय आशिल्ली. हे परिस्थितीत अंदाजपत्रकी अधिवेशनात कोंकणीचें बील येवपाची चिन्ना नात अशें सगळ्यांकूच दिसतालें. आनी घडलेंय तशेंच. सरकारावेलो दबाव वाडयलोना जाल्यार बिलाचो विशय थंडावतलो, अशें सगळ्यांक दिसूंक लागलें. ताका लागून 24 मार्चाक दोनपरां सुमार सोडेतीन हजार लोकांचो मोर्चा शारांतल्यान काडलो. पोलिसांनी कस्टम हावसा कडेंन कडें करून तो आडायलो आनी सगळ्यांक पोलिसांच्या व्हेनीनी भरून कांपाल मैदानार व्हरून सोडले. सगळ्यांनी कोर्ट अटक करून घेतली.

हे खपे सगळेच बेजारिल्ले. परतून परतून पणजे येवप आनी वचप? असो प्रस्न कोंकणी भक्त फुडाऱ्यांक विचारताले. कांय जाणाक केन्ना काय कायदो हातान घेवन विशयाचो सोक्षमोक्ष लागू अशें जाल्लें. दक्षीण गोयांतल्यान आयिल्लया कोंकणी भक्तांचेर नियंत्रण दवरप खूबच त्रासांचें जातालें. जमिल्ल्या भोंसाची मानसीक स्थिती पळयल्यार आयज कितेंय तरी घडटाच अशें दिसतालें. पोलिसांचोय आंकडो खूबच आशिल्लो. तांच्या हातांतल्यो लाठ्यो पळोवन भंय दिसतालो. कांपाल मैदानारूच आमी जाहीर सभा घेतली. आमचे फुडारी आनी आमदार उदयबाब हांणी 31 मार्चा सावन गोंय बेमुदत बंद करपाचो उलो मारलो, तेन्ना कार्यकर्त्याक नेट आयलो. त्या दिसा आमचे फुडारी दत्ता श्री. नायक हांणी खूबळावन घालपी भाशण केलें. सगळ्यांक घेवन आलतिन्यार राणे हांच्या घरा कडेन वचचें अशें तांचें म्हणणे आशिल्लें. पूण निमंत्रक पुंडलीक नायक तांकां शांत करतालो. ते दिसा दत्ता श्री. नायक हांणी कांय कारणाक लागून हेराल्ड दिसाळ्याच्या संपादकाचेर टीका केल्ली. निमंत्रक शांततेचें आवाहन

करूक लागिल्यान जमिल्ले कांय लोक खूबळिल्ले. ते ताकाच दोश दिवक लागले. ते खिणाक पुंडलीकान आपूण निमंत्रक म्हणून शिंवासनार बसूंक ना. आपल्या आसनाक आनी माथ्यावेल्या मुकूटाक कांटे आसात, अशें सांगलें. जमावान ते दिसा पोलिसांच्या गाडयांची नासधूस केली. फातर शेवटून गाडयोय फोडल्यो. विधानसभेचें अधिवेशन चालू आशिल्लें. राजपाल गोपाल सिंग हांणी सगळ्यांक शांतताय पाळपाचें आवाहन केल्लें. दक्षीण गोयां सयत जायते वाठारांनी ते दिसा हिंसक घडणुको घडल्यो ताका लागून भियेल्या दक्षीण गोयांतल्या मंत्र्यांनी राजधानीतच रावप पसंत केल्लें. सरकारान पोलीसूय हाडून दवरिल्ले.



मराठी वाद्यांमदल्या समाज विदवाट्यांनी बोरये वाठारांतली उदकाची पायप लायन उद्‌वस्त केल्ली, ताची दुरुस्तीचें काम करताना साबांखाचे कामगार आनी अधिकारी.

को.प्र.आन 31 मार्चा सावन गोंय बंदाचो उलो मारिल्ल्यान राणे सरकारा मुखार पेंच निर्माण जाल्लो. अशे तरेच्या आंदोलनाचो भोंवडेकारांचेर आनी उद्योग-व्यवसायाचेर वायट परिणाम जाता. कायदो आनी सुवेवस्थाय खिळखिळी जाता. लोकांच्या दिसपट्ट्या जिवीताची घडी विसकळीत जाता, अशें घडटकच सरकार त्रासांत येता. ताका लागून मुख्यमंत्री राणे हांणी दिसाळ्यांचे संपादक, तशेच हेर घटकांच्या आदारान प्रदेशांत शांततायेचें वातावरण तयार जावचें म्हणून प्रयत्न सुरु केले. त्या वेळार गोवार चेंबर्सचे अध्यक्ष यशवंत चौगुले आशिल्ले. ताणीय पत्रक काडून बंदाचेर खंत उक्तायली. हेर वेपारी संघटनांनीय बंद जावचो न्हय, अशी विनंती केली. हे फाटभूयेर राणे हांणी आमदार उदय भेंब्रे आनी आमदार लुइझिन फालेरो ह्या कोंकणीच्या फुडाऱ्यां वांगडाय बसका घेवन बरेपणाचें वातावरण तयार जावचें म्हणून प्रयत्न केले. पूण आमचे कोंकणी भक्त, सरकाराचेर पातयेवन रावपाक तयार नाशिल्ले. तांचो बंद स्थगित दवरपाक विरोध आशिल्लो. कांय गजाली कोंकणीच्या बऱ्याच्यो घडटात, अशीय चिन्ना दिसूंक लागिल्लीं. खंयचीय चळवळ जैतवंत जातली जाल्यार केन्ना केन्ना पावलां फाटींफूडें करचीं पडटात. संयम पाळून निर्णय घेवचे पडटात. पूण सामान्य कार्यकर्त्यांक तशे तरेचें घंगण आसताच अशें ना. तांची चुकूय आसना. कोंकणी भक्तांचे पांसियस काबार जावंक पाविल्लें. दूसर वटेन मगोचे आनी मराप्रसाचे फुडारी मराठीक राजभाशेचो मान सोडून आनीक कितेंच मानून घेवचे नात, अशी धमकी दिताले. ताका लागून आमची तिडक मस्तकाक मारताली. भाशेच्या प्रस्नाचेर सरकार आमच्या कानान घालतलो, असोच दूबाव आमच्या मनात भरिल्लो. को.प्र.आ.न 31 मार्चा सावन बंदाचो उलो मारिल्ल्यान सरकारान भियेवन कर्नाटक आनी महाराश्ट्रांतल्यान राखीव पोलिसांक हाडून दवरिल्ले. हे पोलीस

माया–दया दाखयनात. सगळें वातावरण तणांवाचें जाल्लें. 27 मार्चाक को.प्र.आ.न काँग्रेस, मगो, गोवा काँग्रेस आनी हेर संबदितांकडेन बसका घेवन उलोवणीय सुरु केलीं. ते दिसांनी पणजे केणी हॉटेलान बसकांचें सत्रूच सुरु आशिल्लें. खोलायेन विचार करून को.प्र.आन 31 मार्चाचो बंद 15 एप्रिल मेरेन स्थगित दवरलो. आनी मदल्या काळांत सरकारान कोंकणीच्या प्रस्नाचेर तीन पानां करपाचो यत्न केल्यार सामाळून रावात, अशी खर शिटकावणीय दिली. आनी आमकां सगळ्या कार्यकर्त्यांक 15 एप्रिला उपरांत आंदोलन पेटोवपाक तयार रावात, अशें सांगलें. ते प्रमाण सगळे शांत रावले.

मजगतच्या काळांत काँग्रेसच्या राश्ट्रीय फुडाऱ्यांनी गुप्तचर माद्यमातल्यान गोंयांतली परिस्थिती समजून घेतिल्ली. गोंयांत सगळे गोंयकार कोंकणीच उलयतात. पूण एक गट मराठी मागता देखून कोंकणी ही एकूच राजभाशा करची आनी मराठी खातीर एक फाव ती सुवात दिवची अशें 13 एप्रिल दिसा काँग्रेसीचे सरचिटणीस आनी गोंयचे प्रभारी भाटीया हांणी दिल्लींत जाहीर केलें. अशें आसतनाय मुख्यमंत्री राणे मनार घेनाशिल्ले. पूण प्रदेश काँग्रेस अध्यक्षा सुलोचना काटकार मात आपल्या धोरणा कडेन घट्ट आशिल्ल्यो. 27 जूनाक तांणी उच्चाधिकार समितीक दिल्लीक व्हरून पंतप्रधान राजीव गांधी हांची भेट घेवन आठ म्हयन्या आदीं पक्षान तयार केल्ल्या राजभाशा विधेयकाचो मसूदो भेटयलो, आनी हो विशय सोडयना जाल्यार पक्ष अडचणीत येतलो म्हणपाचें पंतप्रधानाक पटोवन दिलें. ह्या मसुद्यांत शिक्षणीक आनी सांस्कृतीक मळार मराठीक सुवात दिवपाचीय तरतूद आशिल्ली. घरमंत्री बुट्टासींग हांकाय ही समिती मेळिल्ली. तांच्या ह्या प्रयत्नाक फुलां फुलपाचें वातावरण तयार जाल्लें. दिल्लीतल्या फुडाऱ्यांच्या मार्गदर्शनाक लागूनच 5 जुलैक जाल्ल्या मंत्रिमंडळाचे बसकेंतय

विधेयकाच्या मसुद्याचेर म्होर मारिल्ली. त्याच दिसा सकाळीं मांडवी पूल कोसळपाची घडणूक घडिल्यान प्रवाशांचेर आकांत आयिल्लो. ताका लागून लोकांचें लक्ष पूलाचेरच आशिल्लें. पूण सांजवेळ मेरेन कोंकणी राजभाशेच्या मसुद्याक मंत्रिमंडळान मान्यताय दिल्याची खबर सगळ्याक पातळ्ळी आनी मराठीवाल्यांनी आक्रमक भूमिका घेतली. डॉ. जल्मी, ॲड. बाबूसो गांवकार, ॲड. खलप हांच्या खूबळावन घालपी विधानांक लागून माशेल बाणस्तारी, वाठारांतलो भोस पेटून उटिल्लो. 11 जुलै 1986 दिसा बाणस्तारच्या पुलार मराठीवाल्यांनी दोन कदंब बशी आनी कांय सरकारी गाडयो हुलपायल्यो. अशा वातावरणातूय कॉंग्रेस विधीमंडळान विधेयकाक मान्यताय दिवपाचे सोपस्कार पुराय केल्ले. बसकेंत बिलाक मान्यताय मेळटली हें सगळ्या वांगड्यांक खबर आशिल्लें. ताका लागून आपआपल्या मतदारसंघांतल्या मतदारांच्या तोंडान पडपाक नाका म्हणून सुभाश शिरोडकार, वासू पायक गांवकार आनी शंभू बांदेकार हांणी ते बसकेक हजर रावपाचें टाळ्ळें. राजकारणाचो डावपेच म्हणूनच तांणी तशें केलें आसूंक जाय. आदल्यो मुख्यमंत्री शशिकला काकोडकार आनी ॲड. रमाकांत खलप हाचें मदीं वाद निर्माण जाल्यांन काकोडकार हांणी भाभांगो म्हण नवो पक्ष स्थापन केल्लो. मराठीच्या प्रस्नाचेर मात काकोडकार आनी ॲड. खलप एकाच अर्दान आशिल्लीं. ते फाटभूयेर भाभांगोन मुख्यमंत्री राणे हांकां घेराव घालून मराठीक न्याय दिवपाची मागणी केली. दिशी दिशी हिंसक घडणूको वाडत आशिल्यो. कुट्टी–बोरये मजगतची उदकाची पायप लायन फोडून वडयल्यान उदकाचो प्रस्न निर्माण जाल्लो. फोडाफोडीचें वातावरण शांत करपा खातीर रातयांत केंद्रीय राखीव पोलीस गोंयात पाविल्ले. मराठीवाले बाणस्तारचो पूल मोडपाचे आसात, अशी खबर गुप्तचर पोलिसांनी मुख्यमंत्र्यांमेरेन पावयल्ली. ताका लागून सगळ्या

पुलांचेर आर्मी घेवन पोलिसांक उबे केल्ले. आयलल्या गेल्ल्यांक हे पोलीस बारिकसाणेन तेळटाले. सामान्य लोकांच्या मनांतूय भंय निर्माण जाल्लो. 14 जुलै 1986 दिसा मराठीवाल्यांनी पणजे सचिवालयाचेर मोर्चो काडलो. पोलिसांनी कडें मोडपाचो यत्न केलो. ताणीय कोंकणी वाल्यांवरीच अटक करून घेतली. आपली मागणी फुडें व्हरपा खातीर कोंकणी प्रजेचो आवाज जें जें करताले तितलेंय ते करपाक सोदताले. पूण आमकां जसो क्रिस्तांव समाजा कडल्यान उत्स्फूर्त तेको मेळटालो तसो तांकां हिंदू कडल्यान  मेळनाशिल्लो. ताका लागून आमचे गर्देचो विक्रम ते केन्नाच मोडूंक पावले नात. तांच्या ह्या मोर्चांत भाभांगोच्यो मुखेली शशिकला काकोडकार, मगोचे रवी नायक, श्रीकांत मळीक फुडें आशिल्ले. त्या काळार गोंयांत भाशेशिवाय दुसरे खंयचेच विशयाचेर लोक उलय नाशिल्ले. गोमंतक आनी हेराल्ड दिसाळ्याचो खपूय वाडिल्लो. हेरशीं हिंदू भावांमदीं हेराल्ड वाचपी उणे. पूण ते वेळार तेय हेराल्ड घेवंक लागिल्ले. विधानसभेचें पावसाळी अधिवेशन चालू आशिल्यान भायर घडपी हिंसक घडणुकांचे पडसाद विधानसभेंतय उमटताले. इतले मजगती काँग्रेस विधीमंडळ गटान राजभाशेच्या मसुद्याक मान्यताय दिली. पूण मराठीवटेन आशिल्या आठ काँग्रेस आमदारांनी रोखडीच पलटी मारली आनी बसकेत मानून घेतिल्या विधेयकाच्या मसुद्याचेर फेरविचार करपाची मागणी करून पक्षांतूय बंडाळी पेटयली. ताका लागून पक्षांत पेंच निर्माण जालो. मुख्यमंत्री राणे हांणीच ह्या आमदारांक फूस दिल्या, असो दुबाव लोक उक्तांवक लागले. त्या आठ आमदारां मदीं सुभाष शिरोडकार (शिरोडे), वासू पायक गांवकार (काणकोण), शंभू भाऊ बांदेकार (पेडणे), चंद्रकात वेरेंकार (पाळी), जीवनभाय प्रभाकर (दमण) सोमजीभाय सोळंकी (दीव) आनी नियुक्त आमदार संगीता परब हांचो आसपाव आशिल्लो.

राजभास मसुदो तयार करताना आमकां सारके विश्वासांत घेवक नात, असो तांचो आरोप आशिल्लो. मतदारसंघांतल्या मराठी वटेन आशिल्या मतदारां कडल्यान दबाव आयिल्यान ताकां ही भूमिका घेवची पडिल्ली. ताका लागून चालू अधिवेशनात कोंकणीचें बील येतलें काय ना, हे विशीं दुबावाचें वातावरण तयार जाल्लें. 'कोंकणी प्रजेचो आवाजा' न ह्या आठूय आमदारांच्या कोंकणी विरोधी भूमिकेचो निशेध केलो. 16 जुलैक मराठी वाल्यांनी पर्तून पणजे मोर्चा काडलो. को.प्र.आ.च्या आंदोलनान उग्र रूप धारण केल्लें. दक्षीण गोंयांतल्या मंत्री, आमदारांच्या घरांचेर मोर्चा व्हरप, निदर्शना करप, सभांनी उलोवक दिवप ना, हे प्रकार आनीक नेटान चालू जाल्ले.

6 ऑगस्टाक विधानसभेत कोंकणीचें बील येतलें अशें स्पष्ट जाल्लें. ताका लागून को.प्र.आ.न तेच दिसा राजधानीत जैतोत्सव मनोवपाची तयारी करून सगळ्या गोंयकारांक ते दिसा पणजे आपयले, ताचे आदीं 4 जूनाक विधानसभेंत गोंयांक घटक राज्याचो दर्जो दिवपाचे मागणेचो थाराव मानून घेतिल्लो. ताचीय उमेद सगळ्यांक आशिल्ली. पूण कोंकणी राजभाशा जाले बगर घटक राज्याक अर्थ ना, अशें को.प्र.आ चें मत आशिल्लें. को.प्र.आन 6 ऑगस्टाक कोंकणी भक्तांक राजधानीत आपयल्या म्हणून तांकां जाप दिवपाक मराप्रसानूय तेच दिसा राजधानीतूच शक्ती प्रदर्शन करपाचें जाहीर केलें. ते दिसा बील भासाभाशेक येवपाचें आशिल्ल्यान दिल्ली सावन केंद्रीय घर राज्यमंत्री गुलाम नबी आझाद आनी गोंयचे प्रभारी आर.एल.भाटीया राजधानीत हजर राविल्ले. दोनूय गटांनी एकाच दिसा शक्ती प्रदर्शन दवरलां, ताका लागून राजधानीत संघर्श जातलो आनी कायदो आनी सुवेवस्थेचो प्रस्न निर्माण जातलो अशी भिरांत दाखोवन राणे सरकारान बिलावेली भासाभास फुडें धुकलपा खातीर राश्ट्रीय फुडाऱ्यांचें मन वळवयलें. बील

निवड समितीकडेन धाडपाचीय तयारी केली. ते कामाक मात सरकाराक राश्ट्रीय फुडाऱ्यांचो आशीर्वाद मेळ्ळोना. बिलावेली भासाभास फुडें धुकलपाचें निश्चीत जाल्लें. सगळ्यांक घाळ दवरून सरकारान 5 जूना दिसा अधिवेशनूच संस्थगीत केलें आनी आमच्या उमेदीच्या बोंमाड्यांतलें वारें काडलें. हेंय एक राजकारणूच आशिल्लें. मराठीवाल्यांचेंय तेच दिसा पणजेत शक्ती प्रदर्शन करपाक कोंकणी विरोधी राजकारण्यानीच बुद्द दिल्ली म्हणपाचें मागीर कळ्ळें. पेडणे ते काणकोण मेरेन कोंकणी भक्त पणजे येपाचे तयारेंत आशिल्लें. को.प्र.आ. मुखार ते दिसा पेंच निर्माण जालो. दिसाळ्यांनी जायराती दिवन 6 तारकेचो मेळावो फुडें धुकल्लो म्हणपाचें लोकांक कळोवचें पडलें.

राजभास विधेयकावेली भासाभास लांबणेर वडोवपा खातीर अधिवेश संस्थगित करपाच्या निर्णयाचो सगळ्याच पांवड्यावेल्यान निशेध जावंक लागिल्लो. दक्षीण गोंयांतल्या आमदार आनी मंत्र्यांमुखार पेंच निर्माण जाल्लो. हेच संदीचो फायदो घेवन सुमार 18 आमदारांनी फुडारपण बदला खातीर कार्वायो सुरु केल्ल्यो. खाडाक उजो लागल्यारय त्याच उज्यार वीडी पेटोवपा सारकोच हो प्रकार आशिल्लो. राजकारण्याक भाशेचें कांयच पडूक नाशिल्लें. माराच्या भंयान खेतीं नाचतात, तशीच तांची गत आशिल्ली. ते वेळार दयानंद नार्वेकार सभापती आशिल्ले. ते सदांच कोंकणी वटेन रावल्या. ताका लागून कोंकणीवाल्यांक ताचें विशीं सदांच आपलेपण दिसतालें.



# मुरगांव पेटलें तेन्ना!

खंयच्याय संवेदनशील विशयावेली चळवळ वा आंदोलन पेट्टा तेन्ना तातूंत कसले कसले मानसिकतेचे लोक आसतात हें सांगूक येना. केन्ना केन्ना फुडाऱ्यांचोय ताचेर धरबंद उरना जाता. सगळेच विशय राजकारणाचे नदरेतल्यान पळोवक फावना. समाजाच्या, राज्याच्या, देशाच्या फुडाराचो विचार करूनच ते हाताळचे पडटात. तसो विचार करून ते हातळ्ळेना जाल्यार मूळ विशय कडेक उरून जें जावंक जायना तें जावंक पावता. 1985 च्या कोंकणी राजभास आंदोलना वेळारय गोंयांत हिंदू-क्रिस्तांव असो संघर्श जावंक पाविल्लो. आंदोलनाच्या निमणे पांवड्यार कोंकणी प्रजेचो आवाजाच्या फुडाऱ्यांच्या हातांत कांयच उरलेंना. मुरगांव म्हालांत धार्मिक तणाव जावपाची जी स्थिती निर्माण जाल्ली ताची को.प्र.आच्या फुडाऱ्यांकय कल्पना नाशिल्ली. संदेश प्रभूदेसाय, प्रशांत नायक, प्रशांती तळपणकार, देवेंद्र प्रभूदेसाय अशा तरनाट्यांचो आसपाव आशिल्ली त्या वेळोवेली नौजवान भारत सभा, आमच्या कोंकणी प्रजेचो आवाजा वांगडा केन्नाच नाशिल्ली. तांचो एजेंडा सदांच वेगळो, तांचो वावर कमुनिश्ठ विचारसरणीतल्यान चलतालो. सर्व सामान्य लोकांक सोपेपणान पचपा सारको तांचो विचार न्हय. ते मराठीक सहभाशेचो दर्जो मागताले म्हणून आमी तांचेर बेजारूच आसताले. पूण भाशेच्या प्रस्नाचेर हिंदू क्रिस्तांव अशें वातावरण जांवन गोंयांतलो जातीय समभाव इबाडटासो जालो तेन्ना

मात 'नौजवान भारत' सभेच्या ह्या सळसळट्या रक्ताच्या तरनाट्यांनी खूब बरें काम केलां. मुरगांवा सड्यार रावपी चडशे लोक मराठीवटेन आशिल्ले. पावसाळी अधिवेशनात विधानसभेंत कोंकणीचें बील पास जावंक शकलेंना तें पळोवन मराठीवाल्यांक चेव आयिल्लो. ते फाटभूयेर 17 ऑगस्ट 1986 दिसा फोंड्यां मराप्रसान मोर्चा आयोजित केल्लो. ह्या मोर्चाक वास्को सड्यार सावन लोकांक घेवन येवपी दोन गाडयो, वास्को वाठारांतल्या खारीवाड्यावेल्या कोंकणी म्हणपी लोकांनी फोडिल्ल्यान दोन गटां मदीं संघर्श पेटलो. मराठी वाल्यांनी कोंकणी खातीर रस्त्यार येवपी लोकांचेर हल्लो केल्ल्यान खारीवाड्यावेले खूबळिल्ले लोक तलवारी घेवन कोंकण्याक कापूनच वडोवया म्हणून भायर सरिल्ले. वास्को शार पुराय ठप्प जाल्लें. रस्तो आडावपाचे, फातरांचो मारो करून मालमत्तेची लुकसानी करपाचे प्रकार चालूच आशिल्ले. सगळे कडेन 144 कलम लागू केल्लें. पोलिसांनी केल्या लाठी हल्ल्यांत दोनुय गटांतल्या लोकांक मार लागिल्लो. कांय जाणाक हॉस्पिटलांनी व्हेल्ले. च्या पियेतले जाल्यार एक हॉटेलय उक्तें नासतालें. पोलिसांकूय ह्या वातावरणाचे खूब त्रास जाताले. मुरगांव पालिकेचे तेन्नाचे अध्यक्ष आनी कोंकणीचे फुडारी हेर्कूलान दोरादो हांणीय वातावरण शांत करपाचो यत्न केल्लो. पूण उपेग जाय नाशिल्लो. कुठ्ठाळचो कोंकणी भक्त पाश्कोल डिसौजाक जबर मार पडिल्लो. युवक कॉंग्रेसिचो कार्यकर्तो डेव्हीड डिसौजाकूय मार लागिल्लो. मराठी वटेंतले सूर्यकांत लोटलीकार आनी ताच्या हेर सहकाऱ्यांक बरेच त्रास जाल्ले. पोलिसांक हवेंत गुळयांबार करचो पडिल्लो. खारीवाड्यावयले लोक कोंकण्याक मारपाक तलवारी घेवन भायर सरल्या म्हणपाची खबर नौजवान भारत सभेच्या तरनाट्याक कळ्ळी तेन्ना तांणी थंयच्या क्रिस्तांव लोकांच्या तशें हिंदू ह्या दोनूय धर्मांतल्या घराघरांक भेटी दिवन हें झुज धर्मां मदलें न्हय म्हणपाचें पटोवन दिवपा खातीर तांच्यो बसकाय घेतल्यो. आनी दोन गटां मदली कोडसाण

उणी करपाचो यत्न केलो. एकामेकाक मारून राजभास जावचीना, अशें ते तांकां सांगताले. ते काळार नौजवान भारत सभेचें वास्को केंद्र आशिल्लें. मनीस जातीक सतावपी वेगळे वेगळे विशय घेवन ते आंदोलना करताले. ताका लागून तांचो थंय प्रत्येकाच्या घरांनी संबंद येतालो. अशेच तरेच्यो घडणूको बाणावले, शिरोडे वाठारांतूय घडिल्ल्यो. को. प्र.आन 6 तारकेचो मेळावा फुडें धुकलूक नाशिल्लो जाल्यार ते दिसा रक्ताचे व्हाळ व्हांवपाचे.

ऑगस्टाच्या तिसऱ्या सप्तकांत बाणावलेच्या लोकांनी फातरांच्यो राशी घालून रस्ते आडावंक सुरवात केल्ली. कोंकणी वाल्यांनी घाल्ले फातर राखीव पोलीस येवन काडटाले आनी दूसरे वटेन रोखडेच लोक येवन परते फातर घालताले. चवताळिल्या सीआरपीएफ पोलिसांनी क्रिस्तांवांच्या घरांनी वचून मारपेट करपाक सुरवात केल्ली. ताका लागून ते लोक तिडकीन



**The Kadamba bus set afire in South Goa by miscreants today** **Pic: NANDU ZAMBAULIKAR**

नवजवान भारतसभेच्या कार्यकर्त्यांनी चिखले–वास्को वाठारात कदंब बस हुलपायली.

पेटिल्ले. राखीव पोलिसांचे तिडकीन तांणी हिंदूच्या म्हळ्यार कोंकण्याचीं घरां फातरावपाची तयारी केल्ली. त्या वेळार नौजवान भारत सभेच्या कार्यकर्त्यांनी शांतता सभा घेवक सुरवात केल्ली. सगळ्यांच्यो वसक्या घेवन वातावरण शांत करपाचो यत्न केल्लो. संदेश प्रभूदेसाय, प्रशांती तळपणकार, प्रशांत नायक अशा जायत्या कार्यकर्त्यांच्या आड वेगळ्या वेगळ्या विद्यार्थी चळवळीच्या प्रकरणात अटक वॉरंटूय आशिल्ले. अशें आसतनाय हे कार्यकर्ते लिपचोरयां असली कामां करताले. त्यावेळार बांदोडकार नावांचो एक पोलीस उपनिरीक्षक आशिल्लो. तो तांकां शांतता सभा घेवक दिनाशिल्लो. ताका लागून खूवळिल्या नौजवान भारत सभेच्या कार्यकर्त्यांनी निशेध म्हणून चिखले कदंब बस हुलपावन वडोवपाचेंय काम केलां. पूण हिंदू-क्रिस्तांव संघर्श आडावपा खातीर त्या काळार नौजवान भारत सभेन म्हत्वाचो वावर केलो. कोंकणी चळवळीच्या इतिहासांत ताची नोंद करचीच पडटली.

मराठीवाल्यांनी 6,7 ऑगस्टाक मुरगांव, फोंडे वाठारांतूय धुमशेंणा घालीं. प्रदेश काँग्रेस अध्यक्ष सुलोचना काटकार हांचें घराचेरुय फातरांचो शींवर केलो. ह्या वाठारांतल्या मराठी वाल्यांचे चळवळीत वेलंगेचे मधूरबाव वेलिंगकार, किशोरबाव बोरकार सक्रीय आशिल्ले. हिंसक वातावरणाची आनी घडणुकांची म्हायती धेवंक गेल्या पत्रकारांकय मार खांवचो पडलो. चळवळीचे मुखपत्र जावन पत्रकारिता करपी हेराल्ड दिसाळ्याच्या पत्रकारांक ह्या आंदोलनात खूबच सोसचें पडलां.

उत्तर गोंयांतल्या काँग्रेसीच्या आमदार आनी मंत्र्यांक विधानसभेंत मांडिल्लें कोंकणी राजभाशेचें बील भासाभाशेक आयिल्लेंच नाका आशिल्लें. त्या वेळावेले वीजमंत्री हरीश झांट्ये हांणी तशी मागणीय केल्ली. मराठी वाल्यांनी फोंडे आनी वास्को वाठारांत धुमशेंणा घालीं




आंदोलनाची फुडली दिशा थरोवपा खातीरचीं उलोवणी करताना को.प्र.आ.चे निमंत्रक पुंडलीक नायक आनी तांचे वांगडा गोवा काँग्रेसचे फुडारी डॉ. विल्फ्रेड डिसोजा आनी हेर फुडारी.

कोंकणी प्रजेचो आवाजान वास्को शारांत सभा घेवन 19 डिसेंबर सावन सुरु जावपी गोंय मुक्तीच्या रुप्या उत्सवी वर्सा आदीं कोंकणीक राजभाशेचो पाट मेळना जाल्यार रूप्या उत्सवी कार्यक्रमाचेर तशेच सरकारी शिगमो कार्निवालाचेर बहिश्कार घालपाची शिटकावणी दिल्ल्यान सरकाराचीं गड्डां आवुळ्ळीं.

ह्या संघर्शमय वातावरणात सरकाराक आडमेळ्यां बगर कसलोच कार्यक्रम करप शक्य जाय नाशिल्लें. गोंय हें पोलिसांचेच 'राज्य' जाल्लें. हे फाटभूयेर 29 नोव्हेंबर 1986 दिसा सांजवेळां पणजे आलतिन्यावेल्या दूरदर्शनाच्या चड ताकीच्या खांब्यांचे (टावराचें) उक्तावण जावपाचें

आशिल्लें ह्या सुवाळ्याक केंद्रीय प्रसारण राज्यमंत्री अजीत पांज्या गोंयांत आयिल्ले. तांचे वांगडा केंद्रीय परराश्ट्र राज्य मंत्री एद्आर्द फालेरोय आयिल्ले. ते खातीरचो खाशेलो सुवाळो गोवा कला अकादमीत दवरिल्लो. हो सुवाळो चलताना कोंकणी भक्तांनी आवाज केल्लो. तातूंत पीएसयू आनी नौजवान भारत सभेचेय कार्यकर्ते घुशिल्ले. केंद्रीय मंत्री दूरदर्शन केंद्राचेर वचपाचे आसात हें कळिल्ल्यान तांकां काळे बावटे दाखोवपाक को.प्र.आचे कार्यकर्ते गेल्ले. निमंत्रक पुंडलीक नायक, दिलीप बोरकार आनी हेर पिकोपीन गेल्ले. आनी आमचे सारके कार्यकर्ते पयलीच वचून थंय राविल्ले. काळे बावटे दाखयत बोवाळ केल्यान पोलिसांनी लाठी हल्लो केलो. तातूंत पुंडलीक नायक आनीक सुमार बावीस जाणांक दूखापत जाली. अशोक भोसल्याक ओडून काडून मारिल्लो. अशोक अजुनूय सांगता, शिंयांच्या दिसांनी आपली दूख उचकता म्हणून. पुंडलीकाक मार लागचो न्हय म्हण दिलीप बोरकारान स्वता मार घेतला, हें विसरून मेळना. हो आतां इतिहास जालो! पोलिसांनी लाठी हल्लो करून कोंकणी भक्तांक खुबळावान घाल्ल्यान कोंकणी कार्यकर्त्यांनी आगशे-कुठ्ठाळेचे रस्ते आडायले. येरादारी ठप जाली. ह्या प्रसंगाचेर पोलीस आनी कोंकणी कार्यकर्त्यांमदी जाल्ल्या संघर्शांतल्यान पोलिसांकूय दुखापत जाल्ली.

राणे सरकार कोंकणी राजभाशा करपाक तयार ना तें पळोवन को. प्र. आन आंदोलन खर करपाचो निर्धार केलो आनी तांतल्यान निर्माण जातले परिस्थितीक राणे सरकार पुरायपणान जवाबदार आसतलें अशी खर शिटकावणी दिली आनी कोंकणीचे वटेन आशिल्ल्या आमदार आनी मंत्र्यांनी 18 डिसेंबर मेरेन आमदारकेचे राजीनामे दिवचे असो उलो मारलो. ह्या आमदारां कडल्यान राजीनाम्याची पत्रां घेवपा खातीर को.प्र. आन दबाव फौजूय तयार दवरली. गोंय मुक्तीच्या रुप्या उत्सवी. सुवाळ्या खातीर राश्ट्रपती झेल सिंग गोंयात आयिले. 17 डिसेंबराक को.प्र.आचे निमंत्रक



Police seen clearing a road block at Sada and (bottom) the mob that indulged in the rampaging. Pics. by LUI GODINHO

आंदोलनाच्या काळार सडा–वास्को हांगाच्या रस्त्याचेर आंदोलकांनी घाल्ल्यो आडखळी पैस करताना पोलीस

पुंडलीक नायक हांच्या फुडारपणा खाला धा वांगड्यांच्या शिश्टमंडळांन दोनापावला राज भवनार वचून राश्ट्रपतींची भेट घेवन कोंकणी आनी घटक राज्याची मागणी तांच्या कानार घाली. रुप्या उत्सवी वर्साचे पूर्वसंधेर पणजे आझाद मैदानाचेर को.प्र.आन व्हडलो मेळावो आयोजीत केलो. ऐनवेळार मेळाव्याची कळोवणी दिल्ली आसतनाय तेय दिसा आझाद मैदान लोकांनी भरून वतलें.

सरकार कोंकणी आनी घटक राज्याची मागणी पूर्ण करपाक तयार नाशिल्ल्यान 19 डिसेंबर 1986 दिसा दक्षीण गोंयांतल्या कोंकणी भक्तांनी तिडकीन कायदो हातांन घेतलो. मडगांवां लोहिया मैदानावेल्या मुक्ती दिसाचो राश्ट्रीय बावटो चडोवपाच्या वेळारय धुमशेंडां कांडली. तिरंगोय सकयल पडलो. कोंकणी प्रजेचो आवाजाच्या हातांतलें आंदोलन लोकांनी हातान घेतिल्लें. तेच धुमशेणांक लागून चर्चील आलेमावांचेर बावटो सकयल उडयल्ल्याचो आरोप जावपाक लागलो. लोहिया मैदानाचेर निम र्ण जाल्ल्या गोंदळाच्या वेळार थंय कितें चल्लां तें लोकांक कळना जाल्लें.

लोकांनी रस्ते आडायले, सरकारी इमारतीचेर फातर शेवटीले. मोटारी फोडल्यो. लोकांचे दीसपट्टें जीवीत सामकें ठप्प जालें. ताची सगळ्यांत चड झळ मडगांव, मुरगांव आनी फोंड्या शारांक बादली. गोंयच्या पोलिसांक कायदो आनी सुवेवस्था सांभाळप शक्य जायना जालें. ताका लागून सरकारान गुजराथ, महाराश्ट्र आनी कर्नाटकांतले राखीव पोलिसांक रस्त्या रस्त्यार उबे केले.

20 डिसेंबराक मडगावां कोंकणी भक्त आनी पोलिसांमदीं भिरांकूळ लटाफट जाली. गुजराथ पोलिसांनी मारिल्या फारान घोगळ वाठारांलो 22 वर्सां पिरायेचो फ्लोरियान वाझ हो तरनाटो ह्या आंदोलनातलो पयलो बळी गेलो. तांतल्यान मडगांव शारांतलें सगळें वातावरण भिरांकूळ जालें. ही

खबर गोंयभर पातळ्ळी तेन्ना तिडकल्ल्या लोकांनी सगळे रस्ते आडायले. हॉटेलां, दूकाना बंद केलीं. पोलीस उणे पडपाक लागले राती भितर दिल्लीतल्यान आनीक राखीव पोलीस हाडले. को. प्र. आन जमावाक आळाबंदा हाडपा खातीर उलो मारलो, पूण लोक आयकूंक तयार नाशिल्ले. फ्लोरियान वाझाचो बळी गेला ताचे दूसरे दिसा आयतारा सांजवेळां मंडूर–दोंगरी वाठारांत दोन गटां मदीं जाल्या झगड्यांतल्यान एका गटान शेतांत केल्ल्या फारपेटांत 7 जाण बळी गेले. हे सातूय जाण क्रिस्तांव आशिल्ल्यान आंदोलनाचेच बळी असो गैरसमज सगळ्याक पातळ्ळो. आनी तांकांय हुतात्मे म्हणून जाहीर करून सोडले. उपरांत ते मानशेच्या झगड्याचे बळी म्हणपाचें कळ्ळें. पूण को.प्रआक ते आमचे कोण न्हय म्हणपाचें जाहीर करप शक्य जालेंना. आयतारा सांजवेळां कांय जाणाचीं प्रेतां गोंय वैजकी म्हाविद्यालयांत हाडल्यांत म्हणपाची खबर कळटकच आमी आझाद मैदानावेल्यान थंय धांव मारिल्ली. संवेदनशील विशय निर्माण जाल्लो. को.प्र.आक तो हुन दुदाचो घोट जाल्लो. आतां कोणालोय कोंबो रडूं फांतोड जावंकूच जाय, खंयचेय परिस्थितीन कोंकणी राजभास जावंकूच जाय हो एकूच ध्यास आशिल्लो. दक्षीण गोंयांतूच न्हय उत्तर गोंयांतलोय वेव्हार ठप्प जाल्लो. ह्या तीव्र आंदोलनात सवे दिसा रेल्वे ट्रेक फोडिल्यान रेल्वे सेवा बंद जाली. 17 क्रमांकाचो राश्ट्रीय महामार्ग लश्करान ताब्यांत घेतलो. विमान उड्डाणांय रद्द जाल्यान भोंवडेकारांचे चडूच हाल जाले. गोंयांत आयिल्ले भोंवडेकार, रेल्वे स्थानकांचेर, विमानतळाचेर, बस स्थानकांचेर आडकून उरले. ह्या भिरांतेच्या वातावरणात मरा.प्र.साच्या बावट्या खाला रस्त्यार येवपी लोकांची भियेवन चडूच गुळी जाली. ते भायर सरना जाले. नाताळ परबेचेरय सांवट पातळ्ळें. 24 तारकेच्यो फांतोडेवेल्यो प्रार्थना लेगीत कांय कडेन जावंक पावल्योना. नाताळाचे हे पूर्वसंध्येचेर मडगांव आनी पणजे शारांत पोलिसांनी अटक सत्र सुरु

केलें. लश्करान महामार्गाचेर संचलन केलें आनी ताका लागून वातावरण मातशें शांत पूण खीन्न जालें. पूण मडगांव बाजार बंदूच आशिल्लो. आंदोलनाचे आठवे दिसा पोलिसांचें संरक्षण घेवन वास्को शारांतलीं कांय दूकानां कांय जाणांनी उक्तीं केलीं. हिंदू–क्रिस्तांव संघर्श जावपा सारकेंच वातावरण तयार जाल्लें. हे फाटभूयेर 31 डिसेंबर 1986 दिसा हिंदूय व्हडा संख्येन कोंकणी राजभाशेवटेनच आसा हें दाखोवन दिवपा खातीर गोवा हिंदू संघाचे निमंत्रक बाबली नायक, अॅड अमोल नावेलकार, अॅड. राजू मंगेशकार हांच्या फुडारपणाखाला पणजे शारांतल्यान शांतता मिरवणूक काडली. हे मिरवणुकीत सुमार 300 हिंदू वाटेकार जाल्ले.



# मंत्र्यांचे राजीनामे

26 डिसेंबराक घडिल्ल्या नाट्यमय अशा घडामोडींतल्यान डॉ. लुइस प्रोत बार्बोस, फ्रान्सिस सार्दीन, शेख हसन हरुण, आनी हरीश झांटये ह्या चार मंत्र्यांनी अ.भा. काँग्रेसचे सरचिटणीस मुपनार हांचे कडेन आपल्या पदांचे राजीनामे दिले. प्रदेश काँग्रेस अध्यक्ष सुलोचना काटकार, आनी युवक काँग्रेस अध्यक्ष मावीन गुदिन्हो हांणीय आपल्या पदांचे राजीनामे दिवपाची तयारी केली. पूण काँग्रेस निरीक्षकांनी तांची मनां वळवपाचें काम केल्ल्यान ताणी राजीनामे दिलेनात. त्यो शिश्टमंडळ घेवन दिल्लीक धांवल्यो. दूसरे वटेन मगो फुडाऱ्यांचेंच अवसान गळूंक लागिल्लें. ते फकत को.प्र.आ.च्या फाटल्यान देशद्रोही शक्ती उब्यो आसात, असो आरोप करीत आशिल्ले. पोलिसांचें अटक सत्र चालूच आशिल्ल्यान 27 डिसेंबराक मडगांव पर्तून पेटलें. मडगांव–काणकोण रस्तो बंद जालो. एके वटेन पोलीस रस्त्यावेलीं आडमेळीं काडटाले. दुसरे वटेन कोंकणी भक्त येवन पर्तून आडमेळी उभारताले. भोंवडेकारांचे सामकेच हाल जाले. मडगांव बाजार बंदूच उरिल्ल्यान लाखांनी रुपयांची लुकसानी जाली. मंत्रीय सचिवालयांत येवपाचे बंद जाल्ले.

ह्या सगळ्या बोवाळांत राणे हटाव मोहिमूय सुरु जाली. ताका लागून 30 डिसेंबराक दोनपरां मुख्यमंत्री राणे हांणी आपणाक कितले

आमदारांचो तेंको आसा हें दाखोवपाक आमदारांची बसका आपयली. पूण 22 आमदारांपैकी फकत सातूच आमदार बसकेक हजर राविल्ल्यान राणे मुखार  पेंच निर्माण जालो. लागीं लागीं णव दीस गोंयांत सरकार आसा काय ना हेंच कळना जाल्लें. गेल्ली शांतता पर्तून येवची म्हुण वेगळ्या वेगळ्या संघटनानी प्रयत्न सुरु केले. मडगांवचे लेखक आनी उद्योजक दत्ता नायक हांणी फुडाकार घेवन मडगांव शारांतलीं दूकाना उगडपाक आदार केलो. ल्हव ल्हव वातावरण निवळ्ळें. पूण मुंबरा पोंदां इंगळे तशेच आशिल्ले. फुक मारतांच पेट घेवपाचे. पंतप्रधान राजीव गांधी हांणी गोंयांतल्या परिस्थितीची गंभीरपणान दखल घेतली. खंयचेच परिस्थितीत गोंय दोन भाशांचे राज्य जावचें न्हय ह्या मताकडेन ते घट्ट रावले तशे रावपा फाटल्यान स्वातंत्र्यसेनानी खा. पुरुषोत्तम काकोडकार हांचो वाटो व्हडलो आशिल्लो. ताका लागून कोंकणी भक्तांचें नितीधैर्य वाडिल्लें. निरीक्षक आर. एल. भाटीया आनी केंद्रीय मंत्री चिंतामणी पाणिग्रही हांणी लक्ष घाल्ल्यान राणे विरोधकांतलें बंडूय थंड जालें. मंत्र्यांनीय आपले राजीनामे फाटीं घेतले. उपरांत 22 जानेवारी 1987 दिसा पंतप्रधान राजीव गांधी हांणी मूळ विधेयकांत चड बदल करीनासतना मराठीक राजभाशा हें बिरुद लायनासतना कांय प्रमाणात सवलती दिवपाची तरतूद करची, आनी तें विधेयक फेब्रुवारीत अधिवेशन घेवन पास करचें असो स्पस्ट आदेश दिलो. 24 जानेवारीक दिल्लीसावन आयले उपरांत मुख्यमंत्री राणे हांणीच पत्रकार परिशद घेवन ही म्हायती दिली. तेन्ना मराठीक कसली सवलत मेळटली हाचेर तर्क वितर्क सुरु जाल्ले. तरतूद कशे तरेची आसची हाचेर आलतिन्यावेल्या मंत्री शेख हसन हांच्या सरकारी बंगल्यांत जाल्ले बसकेत थरल्या. हाचीय खबर आमचे मदीं पाविल्ली. तडजोडीचो उपाय काडपा

खातीर केंद्रीय मंत्री चिंतामणी पाणीग्रही हांणी 27 जानेवारी दिसा मुख्यमंत्री राणे, डॉ. विल्फ्रेड डिसौझा आनी अॅड. रमाकांत खलप हाकांय आपोवन घेतिल्ले. राजकीय खेळी म्हणून अॅड. खलप हांणीय तेवेळार कांय गजाली गुप्त दवरल्यो अशी चर्चा कोंकणी भक्तांमदीं चलताली. अॅड. खलप हांचो मराठीकय राजभाशा करपाचो प्रयत्न आशिल्लो. उपरांत राजभाशा अशें बिरुद लायनासतना राजकारभारांत मराठीचोय गरज थंय वापर करपाक मेकळीक आसची, अशी तरतूद करपी बिलांत दूरुस्ती केली.

## राजभास विधेयक विधानसभेत मानून घेतलें.

4 फेब्रुवारीच्या अधिवेशनात बील येतलें हें कळटकच कोंकणी भक्तांनी राजधानीत येवपाची तयारी केली. सुधारीत बील तयार करपाक गोवा काँग्रेसचे डॉ. विलफ्रेड डिसौझा हांचो वांटो म्हत्वाचो आशिल्लो. मराप्रसाचो मराठीक राजभाशेचें बिरुद लावंक जायच, असो आग्रो आशिल्लो. पूण मगो फुडाऱ्यांनी आपली शेपडी आवळिल्ल्यान तांचें कांय एक चल्लेंना. 4 फेब्रुवारीचो दीस उदेलो. विधानसभे भोंवतणी कडक पोलीस बंदोबस्त दवरिल्लो. केंद्रीय निरीक्षक आर. एल. भाटीया आनी मंत्री चिंतामणी पाणीग्रही गोयांत आयले. काणकोण ते पेडणे सावन कोंकणी भक्त पणजे आयिल्ले. मांडवीचे दर्यादेगेर आशिल्ल्या इतिहासिक आदिलशा पालासेंत दोनपरां अडेजांक विधानसभा अधिवेशनाचें सत्र सुरु जालें आनी विरोधी आमदारांच्या गोंदळांत फकत पांच मिनटांभितर कोंकणी राजभाशेचें विधेयक सरकारान मानून घेतलें. कोंकणी प्रजेचो आवाजान निशेध मारून तें मानून घेतलें. मगो आमदारांनी ते दिसा बोवाळ घालून

सभा त्यागूय केल्लो. ॲड. खलप हांच्याच आशीर्वादान बील पास जालें, अशी चर्चा सुरु जाल्यान मराठीवाले कितलोसोच काळ खलपाक दूबावान पळयताले. गांवांनी वचून चड उत्साह दाखोव नाकात, अशी आमच्या फुडाऱ्यांनी आमकां सुचोवणी दिल्ली, अशें आसतनाय ते राती गोल तायट करून हांव सावयवेऱ्यां गेलो आनी घरा वचून म्हज्याच आंगणात मारण पेटयले, आनी शांत न्हिदलो.

गोंय दमण आनी दीव संघप्रदेशाचे 30 आमदाराचे विधानसभेंत 4 फेब्रुवारी 1987 दिसा मांडिल्ल्या कोंकणी राजभास विधेयकाचे वटेन काँग्रेसचे प्रतापसिंह राणे, हरिश झांट्ये, शंभू भाऊ बांदेकार, चंद्रकांत वेरेंकार, जे. बी. गोन्सालवीश, श्रीपाद कुंकळ्येंकार, सुभाष शिरोडकार, पांडू वासू नायक, वासू पायक गांवकार, वैकुंठ देसाय, मानू फर्नांडीश, माँत क्रूझ, फ्रान्सिश्कू सार्दिन्य, लुईस प्रोत बार्बोझ, सायमन डिसौझा, शेख हसन हरुण, श्यामजीभाय सोळंकी जाल्यार अपक्ष फ्रांन्सिश्कु ब्रॉको, उदय भेंब्रे, जीवनभाय प्रभाकर आनी गोवा काँग्रेसचे लुइझिन्य फालेरो रावले, जाल्यार रमाकांत खलप, अशोक नाईक साळगांवकार, श्रीकांत मळीक, चंद्रशेखर दिवकर, काशिनाथ जल्मी, बाबुसो गांवकार, रवी नायक आनी प्रकाश वेळीप अशे आठ मगोचे आमदार विरोधांत रावले. बील पास जातकच ते सभाघरांतल्यान भायर सरले.



# घटक राज्य आनी आठवे वळेरेंत कोंकणी

प्रदेश काँग्रेसच्यो अध्यक्ष सुलोचना काटकार, केंद्रीय परराश्ट्रमंत्री एदूआर्द फालेरो, उत्तर गोंयचे खासदार शांताराम नायक, राज्यसभेचे खासदार पुरुषोत्तम काकोडकार, युवक काँग्रेस अध्यक्ष माविन गुदिन्हो हांणी गोंयकारांची दूसरी घटक राज्याची मागणीय पूर्ण जावची म्हणून प्रयत्न चलयल्लो. अखेर तांच्या यत्नाक फळ आयलें. 5 मे 1987 दिसा केंद्रीय मंत्रीमंडळान गोंयांक घटक राज्याचो दर्जो दिवपाक मान्यताय दिली. 8 मे दिसा हें विधेयक लोकसभेंत दाखल जालें. घटनेची ही 57 वी दुरुस्ती आशिल्ली. 11 मे दिसा लोकसभेन आनी 12 मे दिसा राज्यसभेन हें विधेयक मानून घेतलें. आनी 23 मे 1987 दिसा राश्ट्रपतींची ताचेर स्वाक्षरीय जाली. पूण गोंयाक घटक राज्य करपाची प्रक्रिया 30 मे दिसा पूर्ण करपाची थारायल्ली. गोंयांत आनंदाचें वातावरण निर्माण जाल्लें. 30 तारकेचे पूर्व संद्येर ते खातीरच्या दबाज्याचें वातावरण तयार केल्लें. पूण आदले पंतप्रधान चरणसींग हांकां मरण आयिल्यान राश्ट्रीय दूखवटो जाहीर जालो आनी दबाजो मनोवपाचे गांयकारांचे उमेदीचेर विर्जण पडलें. पूण जून म्हयन्यात पंतप्रधान राजीव गांधीच्या गोंय भेटेच्या वेळार एक मूर्त साधून घटक राज्य स्थापन जाल्ल्याची अधिकृत घोशणा केली. पूण गोंयकारांनी चितील्ली तशी उमेद मनोवपाक मेळ्ळीना. हें कितेंय जरी आसलें घटक राज्याचो दीस म्हणून आमी 30 मे पाळटात. ते दिसा आमी पूर्ण अधिकार

अशिल्ले नागरीक जाले.

गोंय, केरळ, कर्नाटक, महाराश्ट्रांतल्या कोंकणी संघटनांच्या प्रयत्नांतल्यान राजभास जावन साडेचार वर्सां उपरांत गोंय, केरळ, कर्नाटक, महाराश्ट्रांतल्या कोंकणी संघटनांनी कोंकणीचो आठवे वळेरींत आस्पाव करून घेवपाकय जैत मेळयलें. कोंकणीच्या मळावेली ही व्हडली घडणूक. गोयांतले कांय कडवे मराठीवादी कोंकणी उतर आशिल्ल्या कागदाचो कुडकोय हातान घेवक तयार नासताले. कोंकणी आठवे वळेरेन गेल्ल्यान तांची सामकीच धांदळ जाली. कितले रुपयांचें चलन हें कळपा खातीर घटनेतल्या हेर भासां वांगडा कोंकणी उतर आशिल्ली नोट हातांत घेवची पडली, कोंकणीत बरयलां म्हणून ती नोट घेवपाक कोणेच न्हयकार दिलो ना, हें विशेश. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आस्पाव करपाच्या प्रस्तावाक केंद्रांतल्या भाजपा सयत हेर पक्षांनीय तेको दिल्लो.



# आंदोलन काळांतले भिरांकूळ प्रसंग

काणकोण म्हाल हो मराठीचो भालेकिल्लो. ताका लागून काणकोण म्हालांत कोंकणीचें काम करप म्हळ्यार जोखीमूच आशिल्ली. ह्या वाठारांतल्यान कोंकणी राजभास चळवळीचें फुडारपण रमेश कोमरपंत (आरबीएस) करताले. हे चळवळीत त्या काळार कांय तरनाट्यांनी खूबच त्याग केल्लो. तांचे मदलो आमचो रमेश एक. ताणे त्या काळार कितें भोगलां, हाची शारांनी रावपी कोंकणी चळवळीतल्या लोकांक कल्पना येवचीना. तो त्या वेळार आगोंदा स्टेट बेंकेत काम करतालो. मोहनदास भट बेंकेच्या फाटयाचे वेवस्थापक आशिल्ले. ते कोंकणीचे अभिमानी म्हणटकच आरबीएसाक चळवळीत काम करपाची मेकळीक आशिल्ली.

डिसेंबर 1986 आंदोलन सामकें तेंगशेर पाविल्लें. 19 डिसेंबराचो दीस. संदेश प्रभूदेसाय आरबीएस, उत्कांत फळदेसाय अशा तरनाट्यांचो आसपाव आशिल्ल्या कोंकणी भक्तांचो गट रस्ते आडावपाच्या तयारेंत आसतना पोलिसांनी तांची गाडी धरली. क्रिस्तोफर फर्नांडीस गाडी चलयतालो. गाडी भाड्याची. पोलिसांनी ताका अटक करून कोठडेंत व्हरून रस्तो आडावपाक कोण कोण आसात तांची नांवां विचारली. ताची झडटी घेवनय ताणे कोणाचेंच नाव सांगलेंना. कोंकणी राजभास जावप हेंच ताचे खातीर म्हत्वाचें आशिल्लें. ॲड. राधाराव ग्रासीयस आनी ॲड. आनाक्लेत व्हिएगश हांच्या आदारान त्या ड्रायव्हराची सुटका

जाली. पोलिसांनी त्यावेळार ताका बरेच त्रास दिले. त्यावेळार कोंकणी भक्तांनी तियात्रीश्तांची लेगीत गाडी आडोवपाचें काम केलां. राजभाशे खातीर लोक रस्त्यार त्रास काडटात आनी तुमी वेवसाय करतात, असो प्रस्न विचारून तियात्रीस्तांचे गाडयेक उजो घालपा खातीर केरोसीन लेगीत हाडिल्लें. आरबीएसान मदीं पडून प्रकरण निबयना जाल्यार अनर्थ घडपाचो. त्या वेळार सगळेच खुनार उठिल्ले. अबुद्धीपणाय करताले.

नाताळांच्या पूर्वसंधेर खूबशा वाठारांनी वायट घडणुको घडल्यो. 24 डिसेंबर 1986 दिसा आगोंद वाठारांतले संजय बांदेकर हांच्या फुडारपणा खालच्या मराठीवाल्यांच्या गटान रस्त्यार आडो उबारलो. ताका लागून रातच्या मिसाक वतल्यांक आडखळ निर्माण जाल्ली. फा. बॉश्को रॉड्रिगीस थंय गेलो, तेन्ना ताका थंयच्या मराठीवाल्यांनी थापटायलो. ताका लागून कोंकणी भक्त सामकेच खूबळिल्ले. पूण थंय मराठी वाल्यांची शक्त चड आशिल्ली. रमेश कोमरपंत तेन्ना बँके फाटल्यान आशिल्ल्या एका गोठ्यान लिपून बशिल्लो. ताका भायर सरुक मेळ नाशिल्लें. चार दीस ताणे गोठ्यांत काडल्यात. दोनपारचे वेळार बँकेचे कर्मचारी तांकां जेवण दिताले. रमेशाचें लोकां कडेन बरेपण आशिल्ल्यान ताका खूब जाणानी आदार केला. अशा कठीण प्रसंगाचेर थंयचे मंगेश देसायाचे आवयन आपणाक जेवण हाडून दिलां, अशें रमेश अजुनूय त्या वेळावेल्या प्रसंगाची याद करून सांगता तेन्ना आंगार काटो उबो जाता. खूबळिल्ल्या मराठी वाल्यांच्या एका गटान पणसूलें, काणकोणा एका गोट्याक उजो घालून दिनेश पै, हांगेल्या गोरवांक लासून वडयल्ल्याची घडणूक मात कोणाच्यानूच पळोव नजो जाली, 19 डिसेंबराक कोंकणी भक्तांकडल्यानूय पालिका मंडळाच्या बावटो चडोवपाच्या कार्यक्रमाच्या वेळार वायट घडणुको घडल्यात. लोक ते वेळार कसल्याच परिणामाचो विचार करपाचे मनस्थितीत नाशिल्ले.

अर्दफोंडावेलो पूल वडोवपा खातीरूय कांय जणानी झिलेटीना पुरिल्लीं. पूल पडिल्लो जाल्यार सगळ्यांचीच धांदळ जावपाची, हाचो विचारय कोणाक नाशिल्लो अशें रमेश सांगता. त्या वेळार इजिटो ग्रासीयस, बिसमार्क फर्नांडीस, स्टेनली ग्रेसियस, सुकूर फर्नांडिस, लॉरेन्स वारेंटो, मानुएल फर्नांडीस, आलबान ग्रेसियए, लुइस ग्रेसियस, आलेसिन, लियांव ग्रेसियस, कातारीन ग्रेसियस हांणी त्यावेळार खूब व्हडलें काम केलां, हे लोक आयज विसकटले तरी त्या काळावेले तांचें योगदान विसरुक मेळचेना.

माचयेर भाशणा करप्यांची नावां इतिहासांत नोंद जाता. पूण प्रत्यक्ष झुजांगणात वावरतल्यांची कोणाक वळख आसना. खरें जैत तांकांच लागून मेळिल्लें आसता. दिवचले कोंकणी भक्त विनायक गोवेकार भियेनासतना उत्त्कपणान काम करतालो. 1986 च्या डिसेंबरांत म्हापशेंचे एके सभेंत विनायकान भाशण केल्लें. ते काळार तो दिवचले हिरा टॉकीज थेटरान काम करतालो. दिवचलच्या मराठी वाल्यांच्या गटान ताका थेटराचे गेटीरुच आडावन मोटर सायकलीचे कादयेन मारपाचो यत्न केलो. कोंकणी राजभास जाय? असो प्रस्न विचारून ताचेर हल्लो केलो तेन्ना डॅनियल नावांच्या एका तरनाट्यान ताका वाटयलो. ताका थेटरांतल्यान भायर सरपाकूय मेळनाशिल्लें. विनायक गोवेकार हो प्रसंग केन्नाय याद काडून सांगता. नवे भुरग्यांक ह्यो काणयो कशो दिसूं येता. पूण ह्यो सत्य घडणुको. कोंकणी राजभास जाले उपरांत हल्लो करतल्यांक आपणे पेडे व्हरून दिले, अशेंय विनायक सांगता. दिवचलेंत गोवेकारान आनी कृशणनाथ फोगेरी हांणी कोंकणी खातीर त्रास काडल्या तितले त्रास दिवचलेंत आनीक कोणाच्या वांट्याक येवना.

आंदोलनाचे सुरवाती सावनच सावयवेरेंच्या कार्यकर्त्यांक संघर्शाक तोंड दिवचें पडलां. त्या काळांत आयिल्ले कितलेशेच अणभव आसात.

सगळेच बरोवप शक्य ना. पूण एक अणभव नवे पिळगेक कळचें म्हणून बरयता. आमच्या घरांचेर हल्लो करून आमचेच आड पोलिसेंत केसी केले उपरांत आमच्या गावांतल्या चार-पांच जाणाच्या आड फोंडे पोलिसेन आमी कागाळी केल्ल्यो. पोलिसांनी ताकांय समन्स काडिल्ले. ताका लागून ते चड्डूच खूवळिल्ले. आमी कोंकणी भक्त सामकेच थोडे. तातूंत एक हांगां जाल्यार दुसरो पयस अंतराचेर. कोणूच कोणाच्या आदाराक येवक शकना. सावयवेऱ्यां बस बाजारांत पावतकच बशींतल्यान देवून मराठीवाल्यांच्याच दारांतल्यान म्हाका घरा वचचें पडटालें. ताका लागून तांचे कडल्यान गाळी खावपाचें नित्याचेंच जाल्लें. चलून वतना कडकडो मारतालो. कोण केन्ना बाजारांन घट धरीत सांगू येना. आगशी-कुट्ठाळे वाठारांतले आमचे कांय कोंकणीवाले त्या वाठारांतल्या मराठी वाल्यांक करताले तेंच आमचे वाठारांतलें मराठीवाले आमकां करताले. दोनूय वटेन अर्द तकलेचे, तापट तकलेचे, सोरो पियेवन मस्ती करपी आशिल्ले.

नोव्हेंवर 1986 तले एका तिनसांजच्या वेळार तेन्नाचे म्हजे मीत्र प्रशांत सिंगबाळाचे स्कुटरीर बसून हांव पणजेच्यान आयिल्लो. माशेलांतल्यान सावयवेऱ्यां येतलो जाल्यार ताका बाजाराचो वाठार हुपून वचचें पडटालें. बाजारांत वातावरण भयाचें आसतालें. तातूंत हांव स्कुटरीर आसप म्हळ्यार ताकाय त्रास जांव येता, ही ताची भावना. ताणे म्हाका पिर्वळच्यान वेऱ्यां हाडलो आनी व्हळये भाटान वचपाचे वाटेर म्हळ्यार थंयच्या सांकवार देवोवन आपल्या घरा गेलो. तांचेंय घराणे कोंकणीचेंच. पूण ते झुजांगणात देवूना. तांकां कसलो त्रास जावना. निमणे मोव थंय कोणूय खणटा. हांव चलत बाजारावटेन गेलो. शियांबायं म्हणून वाटेर बायं आसा. थंय पावतांच भलायकी खात्याचो एक ड्रायव्हर शांताराम केरकार घरा परततालो. ताच्या हाताक हांव सापडलो. गोलाक धरून म्हाका वयर सकयल केलो. म्हजी

भियेवन गुळी. तुवें आमचीं पोलिसेक नांवा दिलीच कशीं, अशे एकार एक प्रस्न. आतां तुका तिट्यार व्हरून लोळयता अशी धमकी दिली. हांवें नांवां दिवक ना म्हुण सांगतकच, हें तू अनंताचे घाटी पोंदा रावून सांगता जाल्यार सोडटा, अशें ताणे सांगलें. हांवे हय म्हळें. तसोच गोलाक धरून ताणे म्हाका परतीलो. आतां हाचे हातांतल्यान सुटप कशें हें विचारचक्र चालूच आशिल्लें. . म्हाका देवळाचे वाटेन ताणे व्हेलो. देवळाच्या प्राकारांत पावतनाच हांव तांचे तावडेतल्यात पळ काडटलो, अशें हांवें यवजिल्लें. म्हजे फाटल्यान पंदरा ते वीस जाणाचो तागेलो घोळको चलतालो. अर्दे वाटेर पावतकच ताका कितें येवजलें कळना. सोरेकारांचे तशेंच आसता. देवळाकडेन बी नाका कितें तें बाजारांतच जांव दी अशें म्हणून म्हाका ताणे परतो हाडलो. त्या खिणाक मात हांव सामको थरथरपाक लागिल्लो.

बाजारांत प्रचंड गर्दी, कितलेशेच बेबदे आंगार झुडून येवपाक लागले. म्हजे कोणूच कितेंच आयकून घेवपाचे परिस्थितीत ते नाशिल्ले. एकलोय 'बघो' म्हाका सोडयना, हें पळोवन रमला वेरेंकार नावांचो 'देव' मदीं घुसलो. संजीवाक कोण हात लायता तो हांव पळयता, अशें म्हणून ताणे अवतार घेतलो. म्हज्या हाताक ताणे धरलो, मदींसो हाडटा, अशें करून ताणे म्हाका गर्देतल्यान भायर काडलो, आनी पळ तू, अशें सांगून ताणे म्हाका धुकल्लो. हांवें धांव मारली. फाटल्यान कितें जालें तें म्हाका कळूना. रमला म्हळ्यार म्हजे खातीर 'देव' ताचे विशीं म्हाका सदांच आदर दिसला. एक गरीब मनीस, पूण म्हजो जीव वाटोवपाचें ताणे काम केलें. आयज तो संवसारात ना. पूण ताची ही याद आसा. म्हजे हातपांय मोडून वडोवपाक सोदपी ते वेळावेले आयज कोणूच संवसारांत ना पूण त्यो यादी मात अजून आसात. तांका कोंकणी कितें आनी मराठी कितें कांय खबर नाशिल्लें, ह्या म्हज्या जीवंत अणभवांचो आयज एक इतिहास जाला.

सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार म्हाका वाटोवपी रमला वेरेंकार म्हजी शिक्षिका पार्वतीबाई वेरेंकर हांच्याच घरांतलो एक वांगडी. म्हजे बाबतीत दोगांचीय भूमिका वेगळी वेगळी ! आंदोलनाचे काळांत, अशे तरेचे अणभव म्हजेच वांट्यांक आयल्यात, अशें न्हय. को.प्र.आचो निमंत्रक पुंडलीकबाब आपले स्कुटरीतल्यान येतना बेतके वाठारांत ताचेर शेकरेय मारपाचे प्रकार घडल्यात.

आंदोलनाच्या काळांत कोंकणी फुडाऱ्यांच्या बायल–भुरग्यांकूय कशे तरेन त्रास जाला हाचो एक अणभव हांव मुजरत कथन करूक सोदता. कोंकणी लेखक एन शिवदास तेन्ना फोंड्यां अंत्रूज नगरान रावतालो. थंयच ताणे प्लेटान राजांगण म्हणून एक शाळाय सुरू केल्ली. तागेली भुरगीं थंय शिकतालीं. घरांत, शिवदासाची जाणटी आवय, घरकान आनी भुरगीं. चळवळीचें केंद्र पणजे आशिल्यान शिवदास चडसो पणजे वतालो. नोव्हेंबर 1985 चो तो काळ. मराठीवाल्यांच्या मडगांवच्या मेळाव्याक हिंसक वळण मेळून अंत्रूज, म्हालांतल्यान मेळाव्याक गेल्ल्या चडशे मराठी वाल्यांक कोंकणी भक्तांनी राय आडावन दवरिल्ले. जीव आसल्यार भीक मागून खायन असो तांचेर प्रसंग आयिल्लो. दूसरे दिसाच्यान ताचे पडसाद अंत्रूज म्हालांत चड उमठल्ले. फोंड्यां मराठीवाल्यांचें फुडारपण आदले मुख्यमंत्री रवी नायक, अशोक नायक बी करताले. रवीबाब तेन्ना मगोचे फुडारी. को.प्र.आचे निमंत्रक पुंडलीक नायकाच्या प्रेसारय तेच दिसा हल्लो जालो. एन शिवदास अंत्रूज नगरांत रावता तें मराठीवाल्यांक खबर आशिल्लें. मराठी वाल्यांनी घोशणा दीत अंत्रूज नगरांत मोर्चा व्हेलो. ताच्या प्लेटाच्या जनेला सकयल शाळेची कोंकणीत पाटी आशिल्ली. एका पायलटाक वयर चडोवन ती काडली. दारार खोटो घालून शबै कांडली तेन्ना घरांतली शिवदासाली आवय, घरकान आनी भुरगीं भियेलीं. शिवदास

घरा ना. भुरगीं रडपाक लागतकच शिवदासाचे आवयन आकांतान शिवदासाली धू सयाच्या तोंडाक कपड्याचो गुड्डो घालो. रडटा ताचो आवाज भायर येवचो न्हय म्हणून तिणे हें केलें. तरी नशिबान तें घुसमटलेंना. तांचेर आकांत आयिल्लो. तांकां तातलें कांयच खबर नाशिल्लें. तेच दिसा तांचे सकयले प्लेटांन एक घर प्रवेश चलतालो. मराठीवाल्यांच्या ह्या बोवाळात तांकां घर प्रवेशूय नाका आनी फ्लेटूय नाका अशें जालें. तो मेरेन थंयचे लोकांक शिवदास कोंकणीचो फुडारी बी म्हणून कांयच खबर नाशिल्लें. ते दिसा सावन शिवदास म्हळ्यार ते बिल्डींगेतलो 'एटम बॉम्ब' कसो तांका दिसपाक लागलो. ताका लागून आमकां त्रास जाता, अशी थंयचे लोकांची भावना जाल्ली. शिवदासा कडेन तेन्ना गाडी बी ना. पणजे वचपाक फोंड्यां प्रासारूच वचचें पडटालें. थंय ताका मोटर सायकल पायलटांनी कितलोसोच काळ मेरेन छळ्ळा. कोंकणी चळवळीन आमच्या शिवदासान हें भोगलां.

तिसवाडी म्हालांतलो दोंगरी हो ल्हानसो शेतोड आशिल्लो गांव. नामनेचे नाटककार, कवी, आनी आदले आमदार विष्णू सूर्या वाघ हांचो गांव. पूण कोंकणी राजभास आंदोलनाच्या काळांत विष्णू तसो सक्रीय ना. तो लेखनापूर्तोच मर्यादीत आशिल्लो. मराठीचे चळवळीत तो उपरांत सक्रीय जालो. पूण आमची राजभास चळवळ होमकण कशी पेट्टाली तेन्ना कोंकणी म्हणून वावुरपी थंय एकलोच आमचो कवी निलबा खांडेकार. तो कोंकणीच्या दर मोर्चात वांटेकार जातालो. ताणे ह्या आंदोलनात खूब भोगलां. ताचेर आयिल्ल्या संकटाची काणी आंगार कांटे उबे करपीच आसा. आंदोलन निमणे पेण्यार पाविल्लें तेन्नाच मानशेच्या वादा वेल्यान दोंगरेवेल्या एका गटान आगशीच्या सात जाणाक मारून शेतांत वडयले उपरांत, हिंदू-क्रिस्तांव संघर्श चड निर्माण जालो. तांकां कित्याक मारले हें कोणाकूच

कळूक नाशिल्लें. सगळोच गोंदळ. आगशीचे कांय लोक हत्यारां घेवन दोंगरेर घुसले. थंयचेय लोक हत्यारां घेवन भायर सरले. निलबाचें दोंगरेर ल्हानशें घर. तो कोंकणीवालो म्हणून ताचेर सगल्यांचें लक्ष आशिल्लें. त्या खिणाक निलबाक जीव आसल्यार भीक मागून खांव, अशें जालें. आनी ताचेर तणाच्या कुड्यांत वचून लिपपाचो प्रसंगूय आयलो. तो वास्को नेवीत काम करतालो. वायट घडणुकेच्या दूसरे दिसा आगशी तांची बस पावली तेन्ना आगशेचे लोक बशीत घुसून दोंगरेवेले कोण आसात काय म्हुण वासपूस करूक लागले. निलबा म्हणटा आपूण रडपाक पावलो म्हुण. उपरांतले सात–आठ दीस निलबाक ओफिसांतूच रावचें पडलां. दोंगरेर लोक ताका कोंकणीवालो म्हूण मारुक सोदताले जाल्यार आगशीकार थंयच्या सात जाणाक मारले म्हणून हिंदूक मारुक येताले, त्या खिणांचें निलबा केन्नाय वर्णन करता तेन्ना आयकतना म्हज्याय हाता पांयांक कांपरो भरता. निलबा सोडून दोंगरेवेलो कोंकणी राजभास चळवळीत आनीक कोणूच नाशिल्लो, हें म्हत्वाचें. निलबाक त्या काळार भोगलें, तोय इतिहासाचोच एक वांटो अशें हांव मानता.

म्हापशेंचो ऐंथनी वाझ कोंकणी चळवळीचो एक म्हत्वाचो खांबो कसो. कोंकणी भास, आनी कोंकणी मनशाचेर कसलेंय आरिश्ट कोसळटकच ऐंथनीक उलो मारपाचो. तो रोखडोच हजर. आंदोलनाच्या काळांत ताका आगशी वाठारांतल्या लोकांनी शेतांत लेगीत उखलून वडयला. दोंगरेर सात जाणाक मारून वडयले ते दिसा रस्त्यांचेर जाल्ल्या घुम शेणाचे वेळार तो मडगांवच्यान पणजे सायकलीन येतालो. हिंदू–क्रिस्तांव संघर्शाच्या वातावरणात तो सापडलो. आपणाक लोकांनी शेतांतल्या रेब्यांत वडयलो अशें ऐंथनी सांगता. कांसावले तागेलें मामालें घर. थंयूय ताणे कोंकणीच्यो सभा घडोवन हाडल्या. 1986 चो तो काळ. मंत्री लुइस

प्रोत बार्दोझ घरांत लिपून राविल्लो. तिडकल्ल्या लोकांनी ताच्या घराचेर फातरांचो मारो केलो तेन्ना ताच्या घरांत मेजार चडून ऐंथनी वातावरण शांत करपाचो यत्न करतालो. दूसरे दिसा बार्बोजांच्या घराची नासाडी केल्ल्या प्रकरणाची 'नवें गोंय' न बातमी दिली तातूत जाड अक्षरांनी ऐंथनीचें नाव आयिल्लें. ताका लागून बार्बोझाच्या घरच्यांनी ऐंथनीचो दावो धरिल्लो. ताचो परिणाम ताका आपल्या ल्हानशा वेवसाया खातीर सरकारा कडलें कर्ज मेळोवपाचे वेळार भोगचो पडलो, अशें ऐंथनी सांगता. कोंकणीच्या आंदोलनात तो पूर्णवेळ वावुरला. कोंकणीच्या इतिहासाक ऐंथनीच्या वावराची नोंद घेवचीच पडटली. सावड्ड्या राजन नायकानूय खूब सोसलां.

काणकोण म्हालांत रमेश कोमरपंतान जी जबाबदारी निबयली तशेच तरेची जबाबदारी पेडणे म्हालांत प्रकाश तळवणेकार हांणी घेतिली. पेडणे म्हालाकय मराठीचो भालेकिल्लो म्हणूनच वळखताले. पूण त्या वाठारांनी हेर वाठारा भशेन हिंसक वातावरण नाशिल्लें. 14 नोव्हेंबर दिसा पणजे शारांत घडोवन हाडिल्ल्या कोंकणीच्या महामेळाव्याक प्रकाश तळवणेकार हाणी देवसू आनी हेर वाठारांतल्यान दोन टेंपोनी लोकांक धालून हाडिल्ले. तातूंत कांय जाण आदीं पणजे पावंक नाशिल्ल्यांचोय आसपाव आशिल्लो. ह्या महामेळाव्याचे गर्देत पेडणेच्यान आयिल्ले तीग जाण शेणले तेन्ना प्रकाशाचेर सामको आंकांत आयलो. हो आपल्या जिवीतांतलो कोंकणी आंदोलनाच्या काळांतलो न विसरपा सारको अणभव, अशें प्रकाश सांगता. प्रकाश तेन्ना मराठी चळवळीचें मुखपत्र जावन काम करपी गोमंतक दिसाळ्याचे पेडणेचो बातमीदार, अशें आसतनाय ताणे निश्ठेन कोंकणी खातीर लोक जागृताय करपाचें आनी लोकांक कोंकणी कडेन हाडपाचें खूब व्हडलें काम केलां.

जनमत कौलाचे वेळार दोन पाना वटेन राविल्ले लेगीत 1985च्या

आंदोलनात मराठीवटेन राविल्ले तेन्ना आपणाक भेटल्यात अशें सांगून तो ते विशीं अजुनय अजाप उक्तायता. तळवणेकार आनी शशिकांत पुनाजी फुडें सरून त्या काळार पेडण्या भगवती देवळा कडेन कोंकणी प्रजेचो आवाजाची सभा यशस्वी केल्या. पेडण्या मराठीचो भालेकिल्लो आसुनूय मराप्रसाचे सभेपेक्षां कोंकणीचे सभेक चड गर्दी जाल्ली, अशें तळवणेकार सांगतालो.

पेडणें म्हालांतले मांद्रे वाठारांतले कमल पार्सेकार आनी पेडणेचें देशप्रभू हांचें घराणेय कोंकणीवटेनूच. विधायक वावराक तांचे कडल्यान तेको आसतालो, पूण झुजांगणात ते देविल्ले दिसूंक नात. आंदोलनाच्या वेळार रस्त्यार देवपी लोकांचीच चड गरज आशिल्ली. त्या काळार प्रकाशाक देवसू चर्चेचो फा. जॉन, शाम पै, तुकाराम म्हामल, लक्ष्मिकांत गोवेकार, सेबास्त्यांव फर्नांडीस, सुहास पार्सेकार, हांचें खूब सहकार्य मेळ्ळां. पर्शुराम कोटकार त्या वेळार पेडणे पालिकेचो अध्यक्ष आशिल्लो. तो सदांच मराठीवटेन, पूण कोंकणीचे सभेक ताणे पालिका मंडळाचे वतीन फाव तें सगळें सहकार्य केलां, अशें प्रकाश सांगता. कोंकणीची जनजागृती करपाक पेडण्या आयिल्ले. तुकाराम शेट, संजीव वेरेंकार, उमाकांत शेटयो, प्रकाश नायक हांकां रातचे एके इमारतीचे पडवेर न्हिदचे पडलें, हाची याद जातकच अजुनूय आपणाक मनस्थाप जाता, अशें तळवणेकार म्हणटा. त्या वेळार पेडण्यात प्रवाहा आड पेवपी म्हणून आपलें नांव आसा. आदले मुख्यमंत्री लक्ष्मिकांत पार्सेकार हांणी ते खातीर आपलें सदांच कौतूक केलां आनी जाहीरपणान आपणाक कामाची पावतीय दिल्या. हाचो प्रकाश अभिमान उक्तायता.



# कोंकणी भक्तांच्या त्यागाक लागूनच कोंकणी राजभास जाली.

काँग्रेस पक्ष कितलोसोच काळ मेरेन आपल्या पक्षान कोंकणी राजभास दिली, घटक राज्य दिलें, आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आस्पाव केलो, अशें सांगत आशिल्लो. घटक राज्य आनी घटनेचे आठवे वळेरेंत कोकणीचो आस्पाव काँग्रेसीन केलो, हें सत्य. संसदेत भाजपा हेर राजकीय पक्षांचोय ताका तेको आशिल्लोच. कितेंय आसूं. तें श्रेय काँग्रेस पक्षाकूच. पूण कोंकणी राजभास काँग्रेस पक्षानच दिली अशें हांव म्हणना. ती त्या वेळार सत्तेर आशिल्ल्या सरकारान केली, करची पडली. काँग्रेस पक्षान ती दिवपाची जाल्यार आमकां 555 दीस आंदोलन कित्याक करचें पडलें? कोंकणी राजभाशेचें बील पास करून घेवपा खातीर सरकारा मुखार कोंकणी भक्तांक तशी परिस्थिती निर्माण करची पडली. ती करूक नाशिल्ली जाल्यार कोंकणी राजभास जावपाची?

555 दिसांचें झुज सोपले उपरांत आमकां सूस्ती येवप सभावीक आशिल्लें. आमकां खूब पूरो जाल्लें. ते रातीं आमी न्हिदले. खरें म्हळ्यार दूसरे दिसा ते न्हिदेंतल्यान आमी जागे जावंक जाय आशिल्ले. ते जालेना. आमी सुस्तेले. राजभाशा कायद्याचे अमलबजावणे खातीर एक दबाव गट तयार करुक जाय आशिल्लो तो जालोना. आतां आनीक कित्याचीच गरज ना, अशे मानसिकतेन आमचे कांय फुडारी वागूंक लागले. कोंकणी राजभाशेच्या प्रस्नाचेर कोणेय कितल्योय खबरी सांगू, ह्या आंदोलनातलो

म्हत्वाचो घटक म्हळ्यार क्रिस्तांव समाज. संघटीतपणान वावुरलो म्हणूनच कोंकणीक राजभाशेचो मान मेळूक पावलो, हें सत्य. जैता उपरांत आमचें फुडाऱ्यांचें हे शक्ती कडेन बरेच प्रमाणात आड नदर जाली हें आमकां मानचेंच पडटलें.

राजभास जावचे आदीं आमी सगळे एकाच कुटूंबांतले घटक कशे जीयेताले. तेन्ना एके भाकरेचे चार कुडके करून वाटून दिवपाची मानसिकता आशिल्ली. ल्हव ल्हव ती बदलत गेली. सगळी भाकरी एकल्याकूच खायन दिसूंक लागली. चळवळीतल्या निश्ठावंतांचोय आम च्या कांय फुडाऱ्यांक विसर पडलो. गोवा कोंकणी अकादमीतले नोकर भरतेचे वेळारय तांची याद जालीना. गोंयकाराचें हीत सादपा खातीर आनी राजभाशेचे अमलबजावणे खातीर दबाव गट आसचो, अशेंय दिसना जालें. गटबाजी वाडली, धोशी वाडल्यो, नसाय गट तयार जाले. कदेलाक दसून रावपाचे प्रस्नावेल्यान मतभेद निर्माण जाले, आपल्या बारीकशा सुवार्था खातीर हिरोक झीरो,आनी झिरोक हिरो करपाची वृत्ती बळावली. हिंदू मदल्या फुडाऱ्यांनी आमकां फटयले, अशी क्रिस्तावांमदीं भावना तयार जावंक लागली. वेळार तांच्या घायांक मलम लावचें असो विचारूय कोणाक आयलोना. ते बावडे आपणाचेरच अन्याय जाला. हे भावनेन वावरुक लागले. हिंदू मदल्या निष्ठावंतांचें तांचे परस वेगळें दूखणे ना! तें तांकां खयं खबर? काम जालें वैज मरुं हें धोरण आमकां म्हारग पडलें. कोंकणी राजभास खंयच्याच एका फुडाऱ्यान करुक ना. ती त्या काळार प्रत्यक्ष झुजांगणात आशिल्ल्या कोंकणी भक्तांनी केली. राजभास जाले उपरांत सुवार्थाचीं झाडां जावन बळावलीं. सुवार्था मुखार आमचे कांय फुडाऱ्यांक कितेंच दिसना जालें. रामनाथ ग. नाईक हो उंडीर बांदोडें वाठरांतलो. खूब पयलीं सावन मराठी वटेंतलो, पूण तो अभ्यासक.

क्रिस्तांवांक देवनागरी कोंकणीवाल्यांनी कशे फटयले हें सांगून क्रिस्तांव समाजा मदीं फुटीचें वीख आतेपाचें काम तो अत्यंत शिस्तीन करतालो. आमचे कांय फुडाऱ्यांनी सदांच ताचे कडेन आडनदर केली. निमणे रोमी–देवनागरी अशी फूट घालपाक तो यशस्वी जालो. काँग्रेस आसूं वा भाजपा आसूं राजकारण्याक कोंकणी भाशेची चळवळ घेवन वावुरपी कोंकणी मनीस एकसंघ आशिल्ले नाका आशिल्ले. 2002 वर्सा काँग्रेस सरकार वचून मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकाराचें सरकार आयिल्लें. कोण कितें मेळोवपाक वसवसल्यात, हें पारखूपाक मनोहर हुशार. ताका लागून कोंकणीचें कितेंय आसल्यार सरकाराचे वतीन आर्थिक आदार करपा खातीर ताणे हात सामकेच सदळ दवरिल्ले. ताका लागून फुडाराक कोंकणीक मारक थरु येता, अशें सरकारान कितेंय केलें जाल्यार सरकाराकडलो आदार घेतल्यांक ताका विरोध करपाचें लेगीत त्राण ताणे कोणाक दवरलेंना.

आयज पणजे पाटो प्लाझा म्हणून जी सुवात आसा थंय व्हडलो माटव उबारून कोंकणी संगीत संमेलनाचें आयोजन केल्लें. हांव त्या वेळार पणजे नवप्रभाचो पत्रकार आनी प्रकाश कामत इकोनोमिक्स टायमसाचो पत्रकार. राज्याच्या अंदाजपत्रकांत रोमी कोंकणी खातीर वेगळी तरतूद करपाचें काम चालू आसा म्हणपाची खबर आमच्या कानार आयली. खरें म्हळ्यार हें एके तरेचें जीवाणेच आशिल्लें. कोंकणी कार्यकर्ते संगीत संमेलनाचो माटव घालता थंय आमी धांवले. थंय जमिल्ल्या कार्यकर्त्यांक ही खबर आमी सांगली. पूण कोणेच मनार घेतलेंना. संमेलनाक सरकारा कडल्यानच आर्थीक आदार मेळपाचो आशिल्लो. अशे पद्दतीतल्यानूच राजकारण्यानी संघटीत आशिल्ल्या कोंकणी मनशांक दोशी करपाची नांदी रोमीची तरतूद करून केली. आमी त्या वेळार जागे जाल्ले जाल्यार देवनागरी आनी रोमी, अशो दोन चुली जावच्योच नाशिल्ल्यो. रोमीक फाव

ते सुवातेर आदार दिवन कोंकणी म्हणून कोंकणी मनीस संघटीत दवरप शक्य जावपाचें. पूण आमकां ताची गरज दिसलीना. प्रकाश कामत आनी हांव केन्ना केन्ना प्रेस रुमात बसून रोमीचें जीवाणे कितलें व्हडलें जातलें हाचो अदमास करून खंत उक्तायताले. उपरांतल्या काळांत तें जीवाणे व्हडलें जालें. कोंकणी मनीस फुटपाक शिक्षण माद्यम प्रस्नान आनीक सारें घालें. तेलूय ना तुपूय ना. हातांत उरलें धुपाटणे, अशें ह्या माद्यम प्रस्नान आमच्या फुडाऱ्यांचें केलें. गोवा कोंकणी अकादमीच्या कदेलाक घांस मारून रावपाची मानसिकतायूय आमकां बादली. अकादमीच्या अध्यक्षपदाचो एक कार्यकाळ लेगीत नामनेचे तियात्रीशत तोमाझीनवाव कार्दोज हांचे सारक्यांक मेळिल्लो जाल्यार रोमी अकादमीचो जल्मूय जावप कठीण आशिल्लो अशें म्हाका दिसता. रोमीचेर मोग करप्यांचें समाधान करी सारक्यो हे एकेच अकादमीन वेगळ्यो वेगळ्यो येवजण्यो राबयल्यार कितेंच बिगडचें नाशिल्लें. कोंकणी मनीस एकाच घरांत उरपाचो, अशें म्हजें मत.

कोंकणी राजभास करपा खातीर जी शक्त आमचे फाटल्यान उबी रावली तांच्या त्यागाचो आमी विचारूच केलोना. तटस्थपणान हाचेर कोणेय विचार करचो. कोंकणीच्या धाग्याचेर सगळे गोंयकार गुंथिल्ले उरले जाल्यारच प्रशासनात लेगीत कोंकणी राजभास कायद्याची प्रभावीपणान अमलबजावणी करून घेवप आमकां शक्य जातलें. हें सांगतनाच हांव दूसरोय म्हत्वाचो विचार मांडपाचो यत्न करता. आमच्या सगळ्यांच्या कश्टांतल्यान कोंकणी राजभास जाली. त्या वावरांत तन मन ओपून काम करतल्यांनी खूब लुकसानूय सोसलां. कांय जाणांनी ताक चाळून जाले उपरांत ताचे वयलें फकत लोणीच खालां. जे फकत लोणी खातात ते कोंकणीचेर संकट आयलें जाल्यार तिका वाटावपाक केन्नाच रस्त्यार

येनात. हो अणभव.

कोणेय तटस्थपणान हाचेर विचार करून पळोवचो. राजकारणी आमकां संघटीत उरपाक दिवचे नात. हाचो विचार आमी करुक जाय. तें जातलें जाल्यार सुवार्थ कडेक दवरून काम करचें पडटलें. नवी पिळगी हो विशय घेवन फूडें येतली काय? कोंकणी राजभास जाले उपरांतय त्या त्या वेळावेल्या राजकारण्यांनी कोंकणीक आनी गोंयकारांक नखलामी करपाचो यत्न केला. युवा महोत्सवांतल्यान तयार जाल्ल्या चेतन आचार्य सारक्यांचे पिळगेन वेळ आयला तेन्ना आवाजूय काडला. त्या वेळारय कोंकणीचे फकत लोणी खावप्यांतले कोणूच रस्त्यार चानयेचो लेगीत वांटो उखलपाक येवक नात. ते फकत माचयेर दिसल्यात. ताचें कारण आमच्या कांय फुडाऱ्यांनी तांकां वारें मारुन फकत फुलोवन दवरल्या. बोमाड्यां भशेन.

नवे पिळगेंतले कांय तरनाटे राजभास कायद्याची अमलबजावणी जायना म्हणून म्हालगड्यांक दोश दिवंक लागल्यात, तेंय तितलें समा न्हय. ते खातीर नवे पिळगेन भूज मारुन वावुरल्यार तें काम जांव येता. कोणा एका जाणटेल्यान रावपाक खोप बांदिल्ली आसता. तागेलें पूत खोपीचें घर करता आनी नातू इमारत उबारता अशें जावचें. आपल्या आज्यान बिल्डींगूच कित्याक बांदूना, अशें विचारून तो आज्याक दोश दिवक शकना. तें सामकें पिशेपणाचें थरतलें. आज्यान त्या काळार ताकता ते पद्धतीन घर बांदलें म्हणून आपणाक रावपाक तरी मेळ्ळें, हे भावनेन नातवान वागपाचें आसता. कोंकणीचेय बाबतींत अशेंच. कोंकणीचें उरलां तें काम नवे पिळगेन करचें. जाणटेल्यांचे दोश दाखोवपांत धन्यताय मानची न्हय. तशें करपी हुशार आसूंक शकना. नवे पिळगेच्या वावराक जाणटेल्यांचो आशीर्वाद आसतलोच. कोंकणी राजभास कायद्याचे

अमलबजावणेवरवीं गोंयकारांचें हीत साधप ही एकूच मोख आसची. प्रशासनात, सरकारी कामकाजांत कोंकणीचो वापर करपा खातीर कायद्यांत तरतुदूय आसा. कोंकणी घटनेचे आठवे वळेरेंत आशिल्ल्यान बँकों, आनी तसलेच तरेच्या आस्थापनानी कोंकणीतल्यान अर्ज केलो जाल्यार कोण तो भायर वडोवक शकना. तांतल्यान रोजगारय तयार जाव येता. ते खातीर आमी फुडें सरपाची गरज आसा. तें करपाक आमी जर फुडें आयलेना जाल्यार ते कित्याक त्रास घेतले? राजभास कायद्याची अमलबजावणी, आमच्याच सहकार्यान जावपाची. आमी ते खातीर कसलोच फुडाकार घेनात, आनी सरकार कांय करीना अशी कागाळ करीत रावतात. तेच वांगडा, कोंकणी भाशेचो अभिमान बाळगुपी कितलेशेच पसरकार, उद्योजक, वेवसायीक आसतले. खरें म्हळ्यार तांणी आपल्या आस्थापनाच्यो पाटयो इंग्लीशी वांगडा कोंकणीतल्यानय लावंक जाय आशिल्ल्यो. हें करपाक तांकां कोणे आडायल्यात? हे बाबतीत राजहंस प्रकाशनाचे धनी प्रकाशबाब भिडे हांची तोखणाय करूक जाय. गोंयची देवळांचेय बाबतीत विचार करचो पडटलो. ती खाजगी आसलीं तरी ह्या देवळांच्या वेवस्थापनानीय कोंकणीचो अभिमान आसपी कोण तरी आसतलोच न्हय? अशे देवळांतल्यो पाटयो कोंकणीतल्यान कित्याक दिसना? होय म्हाका प्रस्न पडटा. ह्या मळाचेर कोंकणीचो वापर जावचो म्हणून नवे पिळगेंतल्या कोंकणीचो अभिमान आशिल्यांनी प्रयत्न केल्यार तांकां यश येवचेंच ना, अशेंय न्हय, देवळांतल्यान भाशेचो प्रसार चड बरो जावंक शकता, अशें म्हजें मत. हो वावर जावचो म्हुण प्रयत्न करपी आप वावुरप्यांची कोंकणीक गरज आसा. ते नदरेन यत्न जावचो, आनी कोंकणी राजभाशेची अमलबजावणी जावपाचे दीस येवचे, अशें मागून हांव म्हजें पुस्तक सोपयता.



## प्रतापसिंह राणे हांणी 17 जुलै 1986 दिसा विधानसभेत मांडिल्लें राजभास विधेयक

## The Goa, Daman and Diu Official Language Bill, 1986
## (Bill No. 26 of 1986)
## A Bill

to adopt the offical language for official purposes of the Union territory of Goa. Daman and Diu.

Be it enacted by the Legislative Assembly of Goa Daman and Diu in the Thirty-seventh Year of the Republic of India as follows:-

1. Short title, extent and commencement - (1) This Act may be called the Goa. Daman and Diu Official Language Act, 1986.

   2) It extends to the whole of the Union territory of Goa, Daman and Diu.

2. Definitions - In this Act, unless the context otherwise requires -

   a) "Administrator" means the Administrator of the Union territory of Goa. Daman and Diu appointed by the President under article 239 of the Constitution;

   b) "Government" means the Government of Goa, Daman and Diu;

   c) "Konkani language" means Konkani language in Devanagari script;

d) "Notification" means a notification published in the Official Gazette;

e) "Official Gazette" means the Official Gazette of the Government of Goa, Daman and Diu;

3. Official language of the Union territory.- 1 ) With effect from such date as the Administrator may, by notification, appoint, Konkani language shall, subiect to the provisions contained in sections 34 and 35 of the Government of Union Territories Act, 1963 (Central Act 20 of 1963), be the official language for all or any of the official purposes of the Union territory, and different dates may be appointed for different official purposes:

Provided that the Marathi language shall be used-

a) In correspondence with persons communtcating with Government in that language; and

b) In Government publications:

Provided further that nothing contained in the sub-section shall be deemed to affect the use of the Marathi and Gujarati languages in educational, social or cultural fields:

Provided also that the Government shall not, in granting aid to any educational or cultural institution, discriminate against such institution only on the ground of language;

Provided also that the Gujaratr language shall be used inthe districts of Daman and Diu for such official purposes and subject to such conditions as the Administrator may, by notification, specify.

2. Nothing contained in sub-section (l) shall preclude any person from submitting any representation for the redress of any grievances to any officer or authority of the Union territory in any of the languages used in the Union territory.

4. Continued use of English language.- Notwithstanding anything contained in section 3, the English languag shall continue to be used in addition to the language specified in that section for all or any of the official purpose of the Union territory.

5. Laying of notification before Legislative Assembly.- Every notification issued under this Act shall be laid, as soon as may be after it is issued, befcre the Legislative Assembly while it is in session for a total penod of fourtpen days which may be comprised in one session or in two successive sessions and if before the expiry of the session in which it is so laid or the session immediately following, the Legislative Assembly agree in making any modification in the notification or agree that the notification should not be issued, the notification shall thereafter have effect only in such modified form or be of no effect as the case may be; so however, that any such modification or annulment shall be without prejudice to the validity of anything previously done under that notification.

## Statement of Object and Reasons

Section 34 of the Government of Union Territories Act, 1963, empowers the Legisiative Assembly of a Union territory to adbpt by law any one u more of the languages in use in the

Union territory or Hindi as the official language or languages to be used for all or any of the official purpose of the Union territory.

Legislative assembly of Goa Daman and Diu has not so far enacted such law. Although English continues to be the official language this Territory, it is high time that the people's language must replace English language as official language of the Territory. Since more 957o of the people speak Konkani, it is but obvious that the same is as the official language of this Tenitory.

A substantial section of our population has srudied through the of Marathi language and may desire to communicate with the in that language. Therefore, the Bill, while providing that Konkani language shall be used as offlcial language for the Goa and Gujarati language for Daman and Diu Districts, it has given to those who would like to communicate with the Govemment in Marathi language to do so, so that it has also been made mandatory for the Government to correspond with such people in that language. Besides, the right to use of Marathi language in social, education and cultural fields has also been assured.

The bill seeks to achieve the above object.

**Financial Memorandum**

Clause 3 of the Biil provides for Konkani language to be adopted as official language for Goa District and Gujarati language for Daman and Diu Districts, for the first time. The bill if enacted will involve an expenditure of about Rupees 50 lakhs for purchasing printing machinery. Devanagari typewriters and allied items.

## Memorandum of Delegated Legislation

Section 3 of the Act contemplates that the Administrator may, by notification appoint such date on which the Konkani language shall be the official language for all or any of the official purposes and he has been further empowered to appoint different dates for different official purposes.

The Administrator has also been further empowered to notify the use of Gujarati ianguage in the distncts of Daman and Diu for such official purposes and subject to such conditions as he may specify.

This delegation is of normal character.

Panaji

15th July 1986.

Assembly Hall,

Panaji

16t July, 1986,

**PRATAPSINGH RANE**
Chief Minister
M. M. NAIK
Secretary to the Legislative
Assembly of Goa, Daman and Diu

4 फेबुवारी 1987 दिसा विधानसभेत मानून घेतिल्ले
राजभास विधेयक

## The Goa, Daman and Diu Official Language Bill, 1987
## (Act No. 5 of 1987) [14-4-1987]
## AN ACT

to adopt the offical language for official purposes of the Union territory of Goa. Daman and Diu.

Be it enacted by the Legislative Assembly of Goa Daman and Diu in the Thirty-seventh Year of the Republic of India as follows:-

1. Short title, extent and commencement - (1) This Act may be called the Goa. Daman and Diu Official Language Act, 1987.

   2) It extends to the whole of the Union territory of Goa, Daman and Diu.

   3) It shall come into force at once.

2. Definitions - In this Act, unless the context otherwise requires -

   a) "Administrator" means the Administrator of the Union territory of Goa. Daman and Diu appointed by the President under article 239 of the Constitution;

   b) "Government" means the Government of Goa, Daman and Diu;

   c) "Konkani language" means Konkani language in

Devanagari script;

d) "Notification" means a notification published in the Official Gazette;

e) "Official Gazette" means the Official Gazette of the Government of Goa, Daman and Diu;

3. **Official language of the union territory.-** (1) with effect from such date as the Administrator may, by notification, appoint, Konkani language shall, subject to the provisions contained in sections 34 and 35 of the Government of Union Territories Act, 1963 (Central Act 20 ot 1963), be the official language for all or any of the official purposes of the Union territory, and different dates may be appointed for different official purposes:

Provided that the Administrator may, by a like notification, direct that in case of the Goa District the Marathi language, and in the case of Daman and Diu Districts, the Gujarati language, shall also be used for all or any of the official purposes and different dates may be appointed for different official purposes:

Provided further that nothing contained in this sub-section shall be deemed to affect the use of the Marathi and Gujarati languages in educational, social or cultural fields:

Provided further thal the Government shall not, in granting aid to any educational or cultural institution, discriminate against such institution only on the ground of languages;

(2) Nothing contained in sub-section (1) shall preclude any person from submitting any representation for the redress of any grievances to any officer or authority of the Union territory in any of the languages used in the Union territory.

4. **Continued use of English language.** - Notwithstanding anything contained in section 3, the English language shall continue to be used in addition to the languages specified in that section for all or any of the official purposes of the Union territory.

5. **Laying of noffication before Legislative Assembly.**- Every notification issued under this Act shall be laid, as soon as may be after it is issued, before the Legislative Assembly while it is in session for a total period of fourteen days which may be comprised in one session or in two successive sessions, and if before the expiry of the session in which it is so laid or the session immediately following, the Legislative Assembly agree in making any modification in the notification or agree that the notificatin should not be issued, the notification shall thereafter have effect only in such modified form or be of no effect as the case may be; so, however, that any such modification or annulment shall be without prejudice to the validity of anything previously done under that notificaiton.

Secretariat
Panaji - Goa.

Dated 23 rd April, 1987

**M. RAGHU CHANDER,**
Secretary to the
Governmert of Goa, Daman and Diu
Law Department (Legal Affairs).

# संदर्भ


1. 1978 सावनची कोंकणी साहित्य, भाशा विकास कार्यावळींतली आनी कोंकणी राजभाशेखातीर 29 जुलै ते 4 फेब्रुवारी 1987 ह्या 555 दिसांच्या आंदोलनातली लेखक संजीव वेरेंकाराचो म्हळ्यार म्हजो प्रत्यक्ष अणभव.

2. 1978 ते 1987 ह्या काळांतले राश्ट्रमत, नवें गोंय, ओहेराल्ड, नवप्रभा, गोमंतक, दिसाळी, आनी सौंगडी च्या अंकांतली बातम्याचीं कात्रणां.

3. कोंकणी चळवळीचे मानदंड अॅड. उदय भेंब्रे, अरविंद भाटीकार, गुरुनाथ केळेकार, नागेश करमली, सुरेश काकोडकार हांचे कडेन आशिल्ल्या म्हायतीच्या झऱ्यांतली 1978 आदल्या काळांतली म्हायती.

4. राजभास आंदोलनात प्रत्यक्ष वांटेकार आशिल्ले बाबली नायक, भरत नायक, अशोक भोसलो, रमेश कोमरपंत, वसंत सावंत, विनायक गोवेकार, तुकाराम शेट, एन शिवदास अभयकुमार वेलींगकार, विवेक पिसूर्लेकार, अशोक काणेकार, प्रदीप लंवदो, कृष्णनाथ फोगेरी, राजन भेटये, महेश नायक, ऐंथनी वाझ, प्रकाश तळवणेकार शशिकांत पुनाजी, निलबा खांडेकार, डॉ. जयंती नायक, विठ्ठल आवदियेकार, नूतन साखरदांडे, रजनी भेंब्रे हांचे कडेन वेळचे वेळार आरतून परतून वासपूस करून मेळयल्ली म्हायती.

5. गोंय संघप्रदेश आसतना विधानसभेंत त्या त्या काळावेल्या आमदारांनी उपरासायल्ले भाशेचे प्रस्न, सभाघरांत मांडिल्ल्या

राजभास बिलांचे, थरावांचे मसुदे हाचे खातीर गोंय विधानसभेतले दस्तऐवज.

6. पत्रकार सुहास बेळेकार हांचें 'राजभाशा कायद्याचा इतिहास' हें पुस्तक.

7. मुकेश थळी, उदय म्हांबरो, हीरू ना. नायक, श्रीकांत म्हांबरो, पांडुरंग गावडे अनील वेरेंकार, ज्ञानेश्वर तारी, राजदीप नायक, विठ्ठल उर्फ बाप्पो नायक हांचे कडल्यान मेळयल्ली वेगळ्या वेगळ्या विशयावेली म्हायती.

8. मुख्यमंत्री ह्या नात्यान 17 जुलै 1986 दिसा गोंयचे विधानसभेंत मांडिल्लें राजभाशा विधेयक आनी 4 फेब्रुवारी 1987 दिसा विधानसभेत मानून घेतिल्ल्या राजभास विधेयक. हे दोनूय मसूदे वाचूंक मेळचे म्हूण पुस्तकांत आसपावीत केल्या.

9. 29 जुलै 1985 दिसा कोंकणी राजभास, घटक राज्य आनी घटनेचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आसपाव ह्या तीन मागण्या खातीर काडिल्लो पयलो इतिहासीक मोर्चाचों फोटो पुस्तकाच्या मुखचित्राचेर पळयात.










